ಘಡಾಂತ್ ಸರ್. ಏಕ್ ನಿಮ್ಣೊ ಪ್ರಸ್ನ್ - ಸಂಶೋಧ್‌ಸಾರ್ ಹಾತೂಂತ್ 'ಶೋಧ್' ಆಸ್ತಾನಾ 'ಸೊದ್' ಕಿತ್ಯಾಕ್?

*(ಮೂಳ್ ದೇವ್‌ನಾಗರೀಚೆಂ ಲೇಖನ್ ಕಾನಡಿ ಲಿಪಿಕ್ ಲಿಪ್ಯಂತರ್ ಕೆಲಾಂ.)*

**ಆದರಾವಳ್:**


Gomes, O. (2010). *Konkani literature in Roman script*. Dalgado Konkani Akademi.

ನಜ್ರೆತ್, ಡಿ. (2018). ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂತ್ ಕಾನಡೀ ಲಿಪಿಂತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕಾದಂಬರಿಂಚಿ ವಾಡಾವಳ್–ಸುಕ್ಷ್ಮ ನದರ್. *ಅಮರ್ ಕೊಂಕಣಿ, 69*, 127–139.

ನಾಯ್ಕ್, ಎಸ್. (2017). ಸಂಶೋಧಸಾರ್. ಆರ್. ಜಿ. ಪ್ರಕಾಶನ್.



*(**ಡೊ। ಚಂದ್ರಲೇಖಾ ಡಿ'ಸೋಜಾ** ಗೋಂಯ್ ವಿಶ್ವವಿದ್ಯಾಲಯಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವಿಭಾಗಾಚಿ ರೀಡರ್ ತಸಿ ಮುಖೆಲಿ ಜಾವ್ನಾಸ್ಲ್ಲಿ. ತಿಣೆ ಸಂಸೊದ್ ಲೇಖನಾಂಚೊ ಸಂಗ್ರಹ್, ಕಾದಂಬರಿ ಪರ್ಗಟ್ ಕೆಲ್ಯಾತ್. ತಿಚೆಂ ಸಂಸೊದ್ ಲೇಖನಾಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ, ಹಿಂದಿ ತಶೆಂ ಮರಾಠಿಂತ್ ಛಾಪ್ಯ್ ಜಾಲ್ಯಾಂತ್. ಗೊಂಯಾಂತ್ ತಿಚಿ ವಸ್ತಿ.)*

एम.जे.ई.एस. जर्नल आफ

# अमर कोंकणी

ಎಮ್‌ಜೆಇಎಸ್ ಜರ್ನಲ್ ಆಫ್

# ಅಮರ್ ಕೊಂಕಣಿ




ESTD : 1880





# MJES JOURNAL OF AMAR KONKANI

**Biannual Journal of Konkani Research**

Vol: 1 Issue: 2 January 2023. Annual Subscription Rs. 300/-

Title Code No.: KARKON00070

एम.जे.ई.एस. जर्नल ऑफ़

# अमर कोंकणी

पुसतक:1 अंको:2 जनवरी 2023. संको: 78

**रेक्टर:**

फा। मेलवीन जोसेफ पिंटो, जे.स.

**प्रांशुपाल:**

दो। फा। प्रवीण मार्टीस,

**संपादक/निरदेशक:**

दो। फा। मेलवीन एस. पिंटो, जे.स.

**संपादकीय सलहा मंडळी**

श्रीमती फ्लोरा कास्तेलीन । श्री जोकिम पिंटो । कू। डेलविटा वेगस

**प्रगटनार**

दो। फा। प्रवीण मार्टीस, जे.स. कोंकणी संसथो,
सां. लुवीस महाविद्यालय (स्वायत्त)
मंगळूर – 575 003

Printed at: Assisi Press, Jail Road, Mangalore - 575 003
DTP & Designed by: Smt. Chandrakala

Phone: 0824-2007394, WhatsApp: 94815 27394.
Website: www.amarkonkani.com
E-mail: instituteofkonkani@staloysius.edu.in

एमजेईस जर्नल आफ
# अमर कोंकणी

## मांडावळ

# भाशे वाडावळेंत संसोदाची गर्ज

एक्ये भाशेच्ये वाडावळेंत संसोधाचो महत्व आनी पात्रा विशीं सबार पावटीं सवालां उबजाल्लीं आसात. एक्ये भाशेच्या वाडावळेक प्रमूक जावन ती भास उलोंवचे मनीस, त्ये भाशेंत साहित्य रच्चे व्यक्ती आनी त्ये भाशेच्या विवीध स्तरांचेर संसोध कर्चे संसोधकार आसल्यार मात्र ती भास जिवाळ उर्ता म्हण सांग्येत. ह्या तीन आयामांक आन्येक आधुनीक आयाम आमी सेर्सिजे पडता: आज एक भास डिजिटल माद्यमांतयी आसाजे जाल्ली अनिवाऱ्यता आसा आनी अशें आसल्यार मात्र ती जिवाळ उरोंक साध्य. आयचे परिस्थितेंत इंगलिषा तसली भास सबार इतर ल्हान ल्हान भासांक गिळून आसा म्हळ्ळें सर्वांक कळीत आसोंक जाय जाल्ली संगत. इतर भाशेंक नातल्ली अनकूलता इंगलिशा तसल्या थोड्याच भासांक आसा म्हळ्ळेंयी सत.

मनशा संतत ह्ये भुमीर जल्मोन वाडोन येताना, मनीस विवीध संकेतां द्वारीं संवहन करुंक लागलो. मनशान रचल्लें संकीर्ण संकेता संवहन म्हळ्यार भास. तेंयी विवीध व्यक्तिंनी विवीध रितिंची भास रचली. मुळान भास एक संकेत संवहनंच सय. तरिपूण सबार लोक असली संकीर्ण संकेत संवहन शिकोनंच वेताना तें संकेत संवहन विकसीत जावनंच वेता. अशें विकसीत जावंक पाटीं पडची भास चड काळ बाळवाना म्हळ्ळेंयी इतिहास आमकां सांगोन दिता.

सुर्वेर मनशान भास फकत उलोंवची आसल्ली. तशें म्हळ्यार उलोंवपा द्वारीं उलयिल्लें, आनी विशेस कर्न अन्मोल म्हणचे तसलें उलोवप, सांगणी इत्यादी ताणें/तिणें जिकून धह्रुंक आसल्लें. अशें उदेवन आयलें जानपद वा लोकवेद. बर्पा संवहन आरंभ जांवचे आदीं मनशान चिंतुंक जायना तितलें अपूर्व भाशे गिन्यान तशेंच भाशे वापार आनी क्रमेण लोकवेद जिकून धरलें मात्र न्हय शेंभरांनी वर्सां तें एका संतते थावन आन्येका संततेक वर्गांतर कर्नंच मनीस आयलो.

बर्पा संवहन सुरू जाल्या उपरांत, उलयिल्लें मात्र न्हय आसतां, क्रियात्मक रितीं रचल्लें संवहन आनां बर्पांत हाडन खंयसर पुणी जोगासणेन पुंजोंवचें साध्य जालें. ह्ये द्वारीं भाशेक आनी भाशे वाडावळेक चडीत घटाय मेळ्ळी. पूण मनशाच्या उडासाक वा जिकून धर्च्ये कालेतीक कांय थोडें बादक जालें म्हळ्यार चूक जांवचिना.

त्या उपरांत सुमार 15व्या शतमानांत आविषकार जालें प्रिंटिंग प्रेस. प्रेस आयल्या उपरांत संवहनाक आनिकी चडीत बळ मेळ्ळें. आतां चडीत मापान भाशे संवहन उबजवंक साध्य जालें मात्र न्हय तें विवीध जाग्यांनी संग्रह कर्न दवर्चें आनी त्याच मापान देशांक आनी विदेशांक पावीत कर्चेंयी साध्य जालें. भाशे संवहना लग्ती हें

तेदोळच्या काळा म्हणासर एक व्हड क्रांतीच म्हण लेकिजय. पूण हाच्ये द्वारीं मनशा गिन्यानाक आनी जिकून दवर्चे सत्तेक आनिकी चडीत मार पडलो खंडीत. बूक प्रिंट कर्न ते कांय थोडो तेंप सांबाळन दवरुंक साध्य तर, कित्या खातीर तांतलें सर्व आपणान उडासांत दवरिजे, जिकून धरिजे म्हळ्ळी बेफिकिराय मनशा थंय आयली तर ती त्या संदर्भाच्या विग्यानाच्या आविषकाराचो एक वायट परिणाम म्हणंच सांग्येत.

पूण मुकार विसाव्या शतमानांत हाच्याकी मारेकार परिणाम पडचे तसलें विग्यान आनी तंत्रग्यान येतलें म्हण 15-16व्या शतमानांत कोणेंयी चिंतल्लें आसचेंना. कंप्यूटर तंत्रग्यान आयल्या उपरांत मनशाची ओट्टारे गिन्याना कालेतच बदलून आयल्या. आतां उडासांत दवर्चे बोवच उणें जावन येवन आसा. तांतल्या तांतुंयी, मोबायल आयल्या उपरांत मेजून पांच फोन नंबरांयी आमी उडासांत दवरिनांव. थोडे पावटीं हें इतलें अतिरेकाक पावतागी, स्वत: आपणाचेंच मोबायल नंबर थोड्यांक उडासांत उराना. तशें म्हळ्यार आज काल उडासांक चडीत मोल ना म्हण जालें. आज सर्व क्षणीक आनी थोडोच तेंप उर्च्ये तसलें मात्र मनशाक खायसगी म्हळ्ळो दुबाव येता. त्या तेकीद मनशान एका तेंपार आमोलीक म्हण चिंत ल्लीं मौल्यां आज सुमार म्हण दिसतीत. त्ये दिशेन नैतिकता आज फकत वैयुक्तीक जाल्या आसतां एका जनांगाक बांदची नैतिकता क्रमेण आकेर जावन येवनंच आसा.

तशें म्हण ह्या सर्वा द्वारीं भाशेच्ये वाडावळेक आनी उदर्गतेक बरें जावंक ना म्हण न्हय. खंडीत बरें जालां. आज एक भास डिजिटल माध्यमांत ना तर खंडीत त्या भाशेची वाडावळ साध्य ना. पाटल्या वर्सा कोंकणियी गूगल डिजिटल माध्यमाक पावली ती धादोसकाय सर्व कोंकणी लोकाची. तशें म्हण, कोंकणी उलोंवचो आनी कोंकणेंत साहित्य रच्यांचो संखो उणो जावन येता ती वाडावळ कोंकणी भाशेच्या फुडारा लग्ती खंडीत हुसक्याची.

ह्या सर्वा मधें भास आनी संसकृते लग्ती संसोध कितल्या गर्जेचो आनी कोण तो खायस कर्ता आनी कोणाक तो उपकार्ता – इत्यादी सबार सवालां ऊटल्ल्यांत कांय मिसतेर ना. आसट्रीयाची समाज शासत्रज्ञ रोयन कोर्नेल हिणें संसोधा विशीं सांगल्लें हांगा वासतवीक म्हण भोग्ता: “Research is something that everyone can do, and everyone ought to do. It is simply collecting information and thinking systematically about it.” (संसोध कोणेंयी कऱ्येत आनी सकटांनी करिजे. संसोध म्हळ्यार माहेत सांगाता घाल्ची आनी व्यवस्थीत रितीं सांगाता घाल्ल्या माहेती विशीं चिंतचें). तशें म्हळ्यार संसोध हर एका संग्ती विशीं करिजे जाल्लें काम. एक्ये रितीं पळेंवचें तर, आमी कर्च्या प्रती कामा विशीं कांय इल्ली पाटपडद्याची माहेत आरांवचें काम आमी जरूर करिजे. एकादवेळा आमी खंयचियी खबर आयकाली, ती सत गी फटगी म्हण समजोंक कांय इल्लो संसोध करिजे जाल्ली अनिवाऱ्यता आज जरूर आसा. आयच्या ह्या फटकीऱ्या वदऱ्यांच्या काळार, आनी फेक निवस वातावरणांत

आमी असलो संसोध करिनांव तर निजाकी फटवोन पडतेल्यांव मात्र न्हय त्ये वर्वी हेराक तितलेंच वायट कर्तल्यांव. इतलें मात्र न्हय आसतां, हर एक संसोध, जांव तो ल्हान वा व्हड, हर एका कामाक एक वृत्तिपरता आनी जडाय हाडन दिता म्हळ्यार चूक जांवचिना. मुकारून, संसोधाद्वारीं हर एक व्यक्ती प्रामाणीक रितीं व्यक्तिनिषट (subjective) वसतुनिषट (objective) जांवचें खंडीत साध्य.

भाशे आनी संसकते संदर्भार संसोध चडीत गर्जेचो कित्याकगी म्हळ्यार ह्ये द्वारीं मात्र भास आनी संसकतेची आधुनीक गर्ज कितें आनी कसल्या प्रेतनां द्वारीं भास आनी संसकती आनिकी चडीत फळाभरीत करून मुकल्ये पिळगेक वर्गावण कऱ्येत इत्यादी संसोधा मारिफात मात्र समजोंक साध्य. कोंकणेच्या संदर्भीं हें आनिकी चडीत गर्जेचें, कित्याक कोंकणेक हेर थोड्या प्रमूक भाशेंक आसचे तसली अनकूलता ना. तशें जाल्ल्यान कोंकणी भाशेची वाडावळ जायजे तर, त्या प्रकार साहित्य रचन जायजे मात्र न्हय संसोधयी जायजे. निराशेची संगत म्हळ्यार कोंकणेंत असल्या संकीर्ण संसोध काऱ्याची कृषी मसतू उणी आसा. ती भर्ती कर्चें कांय थोडें काम 'अमर कोंकणी' जर्नल करूनंच आसा म्हणची तृप्ती आमची.

प्रसतूत अंक्यांत विवीध विशयांचेर सादर केल्लीं तीन संसोध लेखनां आनी एक पुसतक विमर्सो आसा. कानडी लिपिंतल्या कोंकणी साहित्याचेर झळक मार्चें एक लेखन, कानडी लिपिंतल्या भर्पूर साहित्याक एकोडें पळेवन तें विकसीत जाल्लो इतिहास अवलोकन कर्ता. कोंकणेच्या फुडारा विशीं चिंतप आटंवचें लेखन नवीं चिंत्यां कोंकणी लोका मुकार दवर त्ये दिशीं कोंकणेच्या फुडाराक नवी दिशा कशी हाड्येत म्हळ्ळो तर्क कर्ता. करावळेंतल्या भाशेंक आनी पत्रिकोद्यमाक मिशनरिंनी दिल्ली देणगी विवरांवचें लेखन, मिशनरिंची मूळभूत आसक्त लोकाक कन्वडतर कर्चें आसल्ली तरी, हांगाच्या तुळ्, कोंकणी भाशेंचेर तांकां विशेस आसक्त आसल्ली तें संसोधा द्वारीं नेरायता. अमर कोंकणी जर्नलाक चडीत संसोदकारांची गर्ज आसा. सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्यान चलवन वर्च्या पद्युत्तर डिपलोमा कोर्सांत एक पेपर संसोधाचेंच आसोन, संसोधाचें काम कशें कर्चें म्हळ्ळें शिकचें खंडीत साध्य. कोंकणेंत आनिकी चडीत संसोधकार उदेवन येंवदीत, हीच आमची आशा.

– मेलवीन एस. पिंटो, जे.स.

# कोंकणी भास आनी लिपी – नवे नदरेन

फा। जेसन पींत


## सारांश

कोंकणिची विशिश्टता म्हळ्यार ही भास विवीध धर्माच्या लोकाची मांय भास तशेंच विवीध लिप्येंनी बरवन आसची भास आनी विवीद राज्यांनी शिंपडोन आसची भास. तरिकी कोंकणी उलयतेल्या मदल्या एकवटाक कोंकणिच्यो हो विशिश्टताच समस्स्यांच्यो जाल्यात म्हण्येत. मुकेल जावन कोंकणेच्या अभिवृद्धे खातीर वावुर्तेल्यांक. भारतांत एका वर्नी चड लिपियो वापार्चो जायत्यो भासो आसात. हांचे पयकी कोंकणेक येदोळच लिप्यांतर कर्चें सोफ्टवेर फावो जालां, तरी ह्या भाशेचें प्रमाणिकरण जायनातल्ले वर्वीं हाचो उत्तीम रितिचो वापार जायना मात्र न्हय भाशे भितरल्या गोंदोळाक लागोन ह्या सोफ्टवेराचे परिषकंत आवृत्ती अजून तयार जावना. कोंकणी भाशेच्या उज्वल भविश्या खातीर भाशेच्या प्रमाणिकरणाचो वावर भोवच चड गर्जेचो म्हळ्ळें ही भास उलयतेल्यांक आनी ह्या भाशेच्या अभिवृद्धे खातीर वावुर्तेल्यांक कळीत आसचोच विचार तरी, ह्या समस्स्याक परिहार साद्यगी म्हळ्ळें सवाल उडंवच्या संगीं परिहाराक थोडे संपे उपाय दिंवचें लेखन हें.


***सार सब्दः प्रमाणीकरण, लिपीवाद, बोलीवाद, एकरूपी कोंकणी***

## पूर्व पीठिका

1939 वर्सा पयली कोंकणी बसका कारवारांत भरिल्ली. हें 2022 वर्स. हे गजालीक सुमार अंयशीं वर्सां भरतात. स्वातंत्रताये आदीं फिरंगी सत्ते खाल आमी वेळगीं आशिल्लीं– पुर्तुगेज जांव, ब्रिटीश जांव – आजुनूय, स्वातंत्रताये उपरांत आमी वेगळींच आसांव. आमच्या कोंकणी लोकां मदें एकवट ना, कोंकणी भाशेचो फुडार घट दिसना.

आख्खो कोंकणी लोक एकाच राज्यांत ना. आमचो आंकडोय भोव उणो. अदमासान आमी फकत पंचवीस लाख कोंकणी लोक, भारताच्या चार राज्यांनी जियेतांव आनी हांगा पाळां मुळां आशिल्लीं परगांवांतूय आसात. फुडले पिळगेक आपली कोंकणी अस्मिताय राखूंक/ सांबाळूंक आमी कितें येवजिलां? आमचे मदें एकवट घडटलो काय? आमकां एकवट जाय वा नाका? असलीं साबार प्रस्नां आमच्या कोंकणी समाजा मुखार आसात. कोंकणी भास आनी लिपी: नवे नदरेन, ह्या म्हज्या उलोवपांत/ बरोवपांत असलेच कांय प्रस्न/ सवालां हांव हाताळूंक सोदतां.

हाका दोन वांटे आसात

1. कोंकणी मुखार आसचे प्रश्न – लिपीवाद, प्रमाणीकरण
2. फुडाराची नदर

## 1. कोंकणी मुखार आसचे प्रस्न – लिपीवाद आनी प्रमाणीकरण

लिपी आनी बोलीवाद, जाका संबंदीत प्रमाणीकरण (standardisation) आसा, हे दोन विशय हांवें हांगा सांगाता घेतल्यात. कारण, कोंकणी समाजांत एकाक लागून एक आसा. जातीची आनी धर्माची बोली आसा म्हळ्ळें कांय जणांचें चिंतप आसा. पूण तें चुकीचें. विज्ञानीक रितीन तें पळेताना, आमकां हें स्पश्ट जाता. हेर भासांचो चडांत चड लोक आपल्याच एका भाशीक राज्यांत वसती करून आसा. पूण कोंकणी लोकाचें अशें ना. हाकाच लागून 'कोंकणीपण' (Konkaniness) म्हळ्ळें तत्व आमच्यांत ना. आमी पयलीं गोंयकार आनी मंगळूरकार, हिंदू आनी क्रिस्तांव, सारस्वत आनी दैवज्ञ म्हण जियेतांव. 'हांव कोण? हांव कोंकणी' अशी अस्मिताय आमचे मदें घडलीच ना. भारतांत खंयच्याय लोका मदें गेल्यार तो लोक आपले भाशे वरवीं आपणाची वळख सांगता. भारता भायर स ते आट शेकड्यां आदीं भायर वसती करून आशिल्लो तमीळ लोक सयत आपणाक तमीळ म्हण सांगता. मागीर आमी कोंकणी फाटीं कित्याक?

## 1.1 कोंकणी – एक भास (इतिहासाचे नदरेन)

सुमार आठव्या शेकड्यांत कोंकणी ही एक विंगड भास म्हण जल्माक आयली. पशासनी, सौराशनी प्रकृत जी मागीर महाराषट्री प्रकृतांत रुपीत जाली, हांचे थावन कोंकणी जल्माक आयली. मागीर कन्नड, तुर्की, अरबी, मराठी आनी पुर्तुगेज भाशिकांच्या शेका खाल ती फुल्ली. थळाव्या आदिवाशी लोकांचीय उतरावळ तिच्यांत आसपावल्या. आमचे कडे पुरावे आशिल्ले परमाणें, सुरवेच्या पुर्तुगेजांच्या शेका खाल क्रिस्ती धर्मप्रचारकांनी आनी कांय थळाव्या कोंकणी मनशांनी कोंकणी बरपावळ रचली. ही पोरणी कोंकणी, गोंयां भायर कर्नाटकांत आनी केराळांत राबितो करतल्या सारस्वतांचे कोंकणी बोलयेक चड लागीं. तशेंच गोंयांत, साश्टी वाठारांत तिची कांय रुपां आजुनूय घोळटात. इंक्विजिसांवा उपरांत (कोंकणी भाशेचेर चेंपण घाल्ली) जी कोंकणी बरपावळ आमकां मेळटा ती मध्यकालीन कोंकणी बरपावळ, जी पोरणे कोंकणीक आनी आयचे आधुनीक कोंकणीक एक सांकव. विसाव्या शेंकड्याचे सुरवारेक आधुनीक कोंकणी ग्रांथीक रुपार आयली (सरदेसाय, 2003, पा. 182).

ह्याच काळांत, गोंयांतूच तिच्या अस्तित्वाचेर प्रस्न उदेलो – ती मराठीची बोली. पूण सगळ्या वादळांक फूड करून 1975 वर्सा तिका एक स्वातंत्र भास म्हण भारतीय साहित्य आकादमीची मान्यताय मेळ्ळी. 1987 वर्सा ती गोंयची राज भास जाली आनी 1992 वर्सा तिका संविधानीक मान्यताय मेळ्ळी. तशेंच केरळांत (1972) आनी कर्नाटकांत (2006) कोंकणी शिकपाक संद मेळ्ळी. आज लिपीवाद आनी बोलीवाद, प्रमाणीकरण (standardisation) म्हण कोंकणी समाज दुसपटला (Prabhu, 2005, p. 10).

प्रमाणीकरण (standarisation) आनी एकरूपपण (dialect levelling) एके भाशेक

लागू जांवच्यो दोन लागशिल्यो गजाली. हांचे मदें एक खाशेलो संबंद आसा. इतिहासीक, धार्मीक वा राजकीय कारणांक लागून एक भाशीक समाज अमकीच एक बली, ते भाशेची प्रमाण बोली (standard variety) म्हण थारायना. तीच बोली पाठ्यपुस्तकांनी वापरतात. आधुनीक काळांत एके भाशीक आकादमी वरवीं वा कांय पावटीं एकाच मनशाच्या खळमीत नाशिल्ल्या वावरान भाशेचें प्रमाणीकरण जाल्लें आमकां पळेंवक मेळटा.

## 1.2 भास आनी बली

मनीस उलयता, ती एके तरेची भास. पूण ग्रांथीक रुपार ती भास बरयताना, तो एके थारावीक रितीन ती बरयता. देखून भास आनी बोली मदें फरक आसा. समाजांत एके भाशेक बोलये परस चड मान आसा. बोली एके भाशेचो भोवरुपी (diverse) प्रकार. राजकी आनी इतिहासीक कारणांक लागून एके भाशेक भास म्हण रूप मेळटा. देखीक दक्षीण लंडनाची इंग्लीश बोली, जी थंयच्या राजघराण्याची भास. हीच 'इंग्लीश भास' वा 'राणयेची भास' (Queen's English) म्हण विस्तारली (नायक, 2003). कोंकणीच्यो लेगून कांय बोलयो ग्रांथीक रुपार वयर सरल्यो.

## 1.3 कोंकणी बोलयो आनी लिपयो

धर्म, जात आनी वाठारा परमाणें कोंकणी बोलयो आनी लिपयो घोळटात. पूण ग्रांथीक रुपार आसच्यो चार मुखेल बोलयो आनी तीन लिपयो अश्यो:

1. शिक्षणीक आनी प्रशासनाच्या पांवड्यार गोंयांत वापरची अंत्रुजी कोंकणी, जी देवनागरी लिपयेंत बरयतात.

2. गोंयच्या क्रिस्तांवांनी आपल्या धार्मीक कार्यावळींनी वापरची बार्देशी कोंकणी, जी रोमी लिपयेंत बरयतात.

3. मंगळुरांत आनी मंगळूर भोंवतीं आशिल्ल्या क्रिस्तांवांनी आपल्या धार्मीक कार्यावळींनी वापरची मंगळुरी कोंकणी, जी कानडी लिपयेंत बरयतात.

4. कर्नाटकाचे करावळी वाठारांत सारस्वतांनी आपले समाजीक आनी धार्मीक कार्यावळींनी वापरची GSB कोंकणी / कोडियाळी बोली, जी देवनागरी आनी कानडी लिपयांनी बरयतात (Naik, 2013, p. 11).

पयल्या तीन ग्रांथीक बोलयां मदें जायतें सारकेपण आसा. ह्या चार मुखेल कोंकणी बोलयां मदें एकरूपपण हाडिल्लें जाल्यार कोंकणी भाशेचें आनी आमच्या समाजाचें चित्र आज वेगळेंच आसतें. कोच्ची आनी मंगळुरची GSB बोली एक विशेश बोली. जी आज फकत उलोवपांत उरल्या. पाठ्यपुस्तकां हेर बोलयांनी आसात. तिचें खास लक्षण आसा. देखीक, ती हसति, ती पालि. देखून, आधुनीक कोंकणींत ती हस्त आनी ती पाल जाता. एकु चेल्लो, एकि चेल्ली, एकं घरं. लिंग वळखूंक कश्ट जाय नांत. आतां अंत्रुजी प्रमाण आपणायल्यार आमचें हांगा कितें? मुखार कितें करूं येता?

पयलें, एके भाशेक एक लिपी आसल्यार कसलो फायदो तें पळेंवयां.

## 1.4 एक लिपी आसल्यार फायदो

एक लिपी आसल्यार ते भाशेचे नेम आनी व्याकरण शिकूंक सोंपें जाता. हेर बोलयांचीं उतरां आनी रुपां ग्रांथीक रुपार आसपांवक जातात. एके भाशेचे समग्र वाडावळी खातीर ह्यो तिनूय गजाली म्हत्वाच्यो. हांतूं दुबावूच ना. चंद्राक मारल्यार इंद्राक लागता खंय! कोंकणी संवसारांतूय अशेंच घडलां. कोंकणी उलवप्यां मदें आनी बरोवप्यां मदें एक घुसपावणी निर्माण जाल्या. एके वाटेन हिंदी तसली राष्ट्रीय भास आसा (कांय मळार ती भारताची राष्ट्र भास लेगून), जाची लिपी देवनागरी म्हण ताणीं आपणायल्या. दुसरे वाटेन इंग्लीश तसली आंतरराष्ट्रीय भास आसा, जाची लिपी रोमी. म्हणटच देशभर आनी संवसारभर चडांत चड लोकांक रोमी आनी देवनागरी लिपी कळीत आसा. कोंकणी ह्या दोनूय लिपयांनी बरयतात. देवनागरी आनी रोमी लिपयांची सर कानडी लिपयेशीं केल्यार, कानडी लिपयेंत चडांत चड साहित्य, पर्गट तशेंच डिजिटल साहित्य आसा. पूण ती लिपी फकत कर्नाटक पुर्तीच उपकारता. कर्नाटकाची नवी कोंकणी पिळगी कर्नाटकांतूच ती लिपी फुडें व्हरतले काय म्हळ्ळो दुबाब (पालेकार, 2003, पा. 95).

कांय कोंकणी समाजांनी सात्तताय नासताना कोंकणी भुरगीं कोंकणी थावन पयस वेतात. देखीक, मंगळुरी कोंकणी मुळाचीं भुरगीं मुंबय आनी खाडी प्रदेशांनी (गल्फ) राबितो करतात. तांच्या आवय बापांयक कानडी लिपी कळीत आसा. तीच लिपी कोंकणी खातीर वापरून तीं तांचें बरोवप आनी वाचप करतात. पूण भुरग्यांक ती लिपी येनासल्यान कोंकणी थावन तीं पयस पयस वेतात. पूण त्याच कर्नाटकांत तमीळ भुरग्यांचें तशें जायना. कर्नाटकांत आनी भारता भायर श्रीलंका, मलेशिया आनी इंडोनेशियांत, 700 वर्सां वयर वसती करून आसच्या तमीळ लोकांनी तमीळ भाशे खातीर एकूच लिपी दवरल्या. तमीळ संस्थे (तमीळ नाडू भायर) क्रियाळ रुपान तांच्या लोकांक तमीळ शिकयतात आनी कार्यावळी मांडून हाडटात. जात, धर्म आनी प्रांताची गड तांकां लागना.

आदले भाशीक खानेसुमारींत (लोक गणती) कोंकणी लोकां मुखार एक भिरांकूळ सत उगडापें जालें. कोंकणी लोकाचो आंकडो देंवतेर आसा. ताकाच संबंदीत जायतो तेंप कोंकणी संवसारांत राज केल्ल्या कांय कोंकणी नेमाळ्यांच्या मरणाची खबरूय आयकूंक मेळ्ळी. गोंयचो आवाज, कुटम बंद पडलां. रिवायवल मोडा थावन थेट आमी सर्वायवल मोडाचेर येवन पावले. आशिल्ल्या कोंकणी नेमाळ्यांचेरूय दुकळ आयला. नेमाळ्यांक बरोवपी मेळनांत. त्या नेमाळ्यांनी संपादकूच जीव आनी आत्मो. तो भायर पडल्यार, नेमाळेंच मरता. म्हणटना एक सातत्ताय ना. संपादन संवस्कारा (editorial work) विशीं 'भांगर भूंय' दिसाळ्याचेरूय जायती भासाभास जाल्ली. आख्ख्या कोंकणी संवसारांत, खंयचेय लिपयेंत भुरग्यां खातीर आनी तरनाट्यां खातीर एकूय नेमाळें ना.

कांय कोंकणी वाठारांनी जायतें कोंकणी साहित्य निर्माण जाता. पूण लिपयेचे आडकळीक लागून बरयणारांक मान ना आनी वाचप्यांक ती लिपी कळीत नासल्यान ताचीं बरपां वाचूंक साध्य ना. लिपी लिपी करून आमी आमची बि. पी. वाडयल्या शिवाय, ह्या समस्याचो परिहार आजून सोदूंक ना. डिजिटल रुपार थोडो भोव वावर जाता. ताचे वयल्यान एकेच लिपयेंत वेवेगळे नरेची बरपा रीत. हाका लागून वाचप्यांक आनी नव्या बरोवप्यांक कश्ट. बरोवपीच/

साहित्यकारूच मुळावें व्याकरण आनी प्रमाण बरोवप नेणांत. फकांडां कशीं! कारण एक बरयणार ते भाशेचो फुडारी आनी ताकाच आपले भाशे विशीं कळीत नां!

आमी आदलें साहित्य जायतें पुंजयलां. पूण आतां वाचपीच मेळनांत. गोंयांत सारस्वत आनी क्रिस्तांव समाज कोंकणी वाटेन आसा. पूण इतिहासीक आनी समाजीक कारणांक लागून बहुजन समाज आजुनूय मराठी साहित्य पसंद करता. मराठी भाशे खातीर गोंयच्या मराठी साहित्यकारांक गोंयांत तशेंच महाराष्ट्रांत रसीक आसात. कर्नाटकांत क्रिस्तांव समाज धार्मीक मळार कोंकणी वापरता. ती कोंकणी फकत तांच्याच लोकां मदें चलता. सारस्वत समाज नागरी आनी कानडी लिपी वापरता. पूण साहित्य भोव उणें. अशी आमची आयची गत (नायक, 2003, पा. 83).

देखून मुळावो प्रस्न जो उदेता तो हो – एके भाशेक भोव लिपी हें बेसांव, माल्दिसांव वा कुंफुसांव? लिपीवाद आनी प्रमाणीकरणांत कोंकणी शिरकल्या. लिपीवाद आशिल्लो वाद हो एक संवाद जांवक जाय.

## 2. फुडाराची नदर – नवें चिंतप

संवसारीकरणाक (globalisation) लागून दिसान दीस संवसार बदलता. सध्या कोरोना पिडेक लागून जायतीं हेर बदलपां आमी आपणायलीं. कोंकणी बाबतींत लेगून आमी आमचें चिंतप बदलचें पडटलें. इंग्लीश भाशेंत एक भोव प्रगतशील वाक्य आसा – 'थिंक ग्लोबली, एक्ट लोकली'. कोंकणींत अणकार केल्यार, 'जागतीक/ संवसारीक पांवड्यार विचार कर, थळाव्या पांवड्यार वावर कर.' कांय पावटीं परंपरेच्या, चाली रितीच्या आनी इतिहासाच्या नांवान आमी पोरण्या गजालींचे गुलाम जातात शिवाय, आमची उदरगत जायना (Naik, 2013, p.15). 1939चे चळवळी वेळार जाल्ल्यो कांय गजाली आमी नवे नदरेन पळेंवच्यो पडटल्यो. ह्या नव्या संवसारांत, नवें चिंतप आमी आपणांवचें पडटलें.

कोंकणी खातीर मुखली वाट येवजितना कांय वास्तवीक गजाली आमी मनांत दवरूंक जाय. गोंयांत आनी कारवार वाठारांत हिंदू समाजाच्या कोंकणी उलवप्यां मदें मराठी ही एक धार्मीक भास, आदीं, आतां आनी सदांकाळ. हें बदलचें नां. कोंकणी मराठी परस वेगळी, हें तिच्या व्याकरणांत, उतरावळींत, बरपा रितींत, उच्चारांत आनी लिपयेंत सयत दिसूंक जाय. तशेंच कर्नाटकांत/ केरळांत कोंकणी मनशांक कोंकणी सांगाताच कन्नड/ मळयालम भास लेगून गरजेची. महाराष्ट्राच्या सिंधुदुर्ग वाठारांत दिसान दीस मालवणी उलोवपी लोक मराठी वाटेन वेतात. हें सगळें मनांत दवरून ग्रांथीक कोंकणी विशीं आनी तिचे लिपये विशीं आमी आमचो दिश्टावो बदलूंक जाय. संवसारांतली खंयचीय भास, खंयचेय लिपयेंत बरोंव येता. कोंकणी खातीर जी लिपी कोंकणी मनशां मदें एकवट हाडूंक आनी कोंकणीचो प्रसार करूंक आदाराक पावता, तीच आमी सगळ्यांनी आपणायल्यार चड फायद्याचें. सरकारी तेंको, अधिकृत मान्यताय, पुरसकारां खातीर अमकीच लिपी सक्तेची करून पाटल्या 80 वर्सांनी (1939-2022) आमकां आशेल्लें कांयच मेळूंक नासले परीं दिसता! उरफटें कोंकणीचो प्रभाव दिसान

दीस उणो जायत आसा. इंग्लिशा सांगाताच, मराठी आनी कन्नड तसल्यो बळिश्ट भासो आमकां गिळत आसात. हाकाच लागून कोंकणी प्रकारांत (variety) आनी प्रसारांत (spread) एक विन-विन परिस्थिती आमी रचूंक जाय. सगळ्यांकूय आपूण कोंकणी म्हण फायद्याक पडूंक जाय.

फुडारांत एक नवें चिंतप आमी आपणांवचें पडटलें. कोंकणी लोकाची दुभाशीक (bi-lingual) परिस्थिती आनी लिपयेचो प्रस्न, हें सगळें दळ्यां मुखार दवरून कोंकणी विशीं खोलायेन नियाळूंक जाय.

1. भास सांबाळची जबाबदारी भाशिकांची. फुडारांत हो वावर आमी कसो करचो - एकवटान वा दुसपटान?

2. कोंकणी टीम तसलो एक सर्वोच्च अंग (Appex body) आमकां रचूंक जायत काय? तांचें काम कोंकणी समाजाक, कोंकणी भाशेच्या सुत्रांत एकठांय हाडप आसतलें.

3. भास आनी लिपी मदलो संबंद पळेताना आमी फाटीं वळचें वा आमची नदर फुडाराची आसूंक जाय? एक लिपी वा भोव लिपी, कोंकणीक उपकारता? आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार एक आंतरराष्ट्रीय लिपी आमकां कितली उपकारतली?

4. भारतांत जायत्यो बोलयो आसात, पूण ग्रांथीक रुपार एक बोली वापरतात. हाका कोंकणी आडवाद काय? आमच्यो बोलयो सांबाळून, ग्रांथीक रुपार 'एकरुपी कोंकणी' आपणावंक आमच्यान जायत काय? ताची गरज आसा काय? गोंयांत मराठीच्या प्रभावान कांय खाशेलीं कोंकणी रुपां लोप जातात. ती कर्नाटकांत आनी केरळांत आसात. तीं कशीं सांबाळचीं? कोंकणी खातीर आमकां एक गुरुपुस्तक (व्याकरण, बरपा रीत, उतरावळ आटापचें) जाय.

5. कोंकणी साहित्य आसा, साहित्यकारांक पुरस्कार सयत मेळटात. पूण तें साहित्य कितलें लोका मोगाळ/ प्रसिद्ध? तांचें साहित्य पांच टक्के कोंकणी लोकांनी सयत वाचूंक ना. लिपी आनी बोली आडखळ हाडटा. तांचो प्रचार कसो करचो?

6. कोंकणी भुरग्यां खातीर आनी तरणाट्यां खातीर एकूच एक नेमाळें, वा एक खेरीत जाळीजागो/ संकेतस्थळ ना. हाचे विशीं आमचो कितें उपाय?

7. कोंकणी संघटनांनी, पदवे खातीर संगीत खुर्ची (म्युसिकल चॅर) चलता. हो पिसो खेळ थांबोवन कोंकणी खातीर वावुरपी प्रमाणीक मनशांक विंचूंक आमच्यान जायत काय?

8. सध्या कोंकणी साहित्याचेर नदर घालताना चडांत चड सारस्वत आनी कोंकणी क्रिस्तांवांचीच बरपावळ मेळटा. हेर समाजाच्या कोंकणी लोकाक कोंकणी साहित्याक कशें हाडूं येता? विश्व कोंकणी केंद्राच्यो मुलाखती एक बरो उपक्रम.

9. कोंकणी साहित्यांत जायते प्रकार नांत, देखीक 'आधीन साहित्य' (sub latern literature). कोंकणींत असले आनी हेर प्रकार आमच्यान हाडूंक जायत काय? कोंकणी लोक-वेद, जनपद साहित्य बी आमी कशें राखचें?

10. गुगलाचेर कोंकणी पावल्या ही आमकां एक खुशालकायेची गजाल. हाचो आमी चडांत चड लाभ कसो घेंव येता? तशेंच नवे शिक्षण निती (NEP) वरवीं कोंकणीच्या शिक्षणांत वाडावळ कशी हाडूं येता.

11. कोंकणीचें शिकप A 1, A 2 (Basic - मुळावें), B 1, B 2 (Intermediate - मदेंतकी) आनी C 1, C 2 (Advanced - प्रगत) असले युरोपियन पद्दती परमाणें तीन पांवड्यांचेर करूंक जाता? शिकप्यांक तशेंच शिकोवप्यांक फायदो जातलो? हाचो आसपाव कोंकणी गुरुपुस्तकांत करूंक जाता?

## 3. सोंपणी

लिपीवाद आनी बोलीवाद हे समस्से, लिपी संवाद आनी बोली संवादांत बदलूंक जाय. आमी एकामेका थावन जायते शिकूंक आसा. अधिकृत देवनागरीचो विरोध करच्या बदलाक ते लिपयेंतलें साहित्य/ बरपावळ हेर लिपयांनी हाडुंया. रोमी आनी कानडी लिपयांनी आशिल्ली बरपावळ देवनागरींत हाडुंया. आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार रोमी घट करुंया. आधुनीक काळार, अंकीकरणाच्या युगांत (Digital age) इंग्लीश आनी सांगाताच रोमीची वळख कोंकणी आनी कोंकणी भाशीक न्हय आशिल्ल्यांक आसा (Prabhu, 2005, p. 16). आमचो लोक इतलो भायर आसा चड करून सारस्वत आनी क्रिस्तांव समाजाचो. कोंकणीच्या इतिहासांत रोमी कांय परकी न्हय. सध्याचे बरपा रितींत बदल करचो पडटलो. हाचें एक उधारण आमकां विश्व कोंकणीच्या जाळीजाग्यार पळेंवक मेळटा. कोंकणी न्हय आशिल्ल्या मनशांक ह्या सुधारीत रोमी लिपी वरवीं फायदो जाला. सोंपयताना, फामाद कोंकणी मनीस आनी उद्योगपती पद्मश्री पुरस्कृत मोहनदास पै हांगेलो दिश्टावो (vision 2030), 'कोंकणी भाशे वरवीं कोंकणी लोकाची उदरगत' करप एकदम प्रास्तावीक. असल्या प्रकल्पाक आमीय तेंको दिंवया.

## आदारावळ:


नायक, पी. (2003). समाज भासविज्ञानाचे नद्रेंतल्यान कोंकणिचो अभ्यास. In वी. श्याम (सं.). *कोंकणी भास, साहित्य आनी संसक ताय.* कोंकणी भाशा मंडळ.

पालेकार, वै. (2003). कोंकणी भास आनी लिपी. In वी. श्याम (सं.). *कोंकणी भास, साहित्य आनी संसक ताय.* कोंकणी भाशा मंडळ.

सरदेसाय, एम. (2003). कोंकणी भास आनी साहित्य हांचो इतिहास. In वी. श्याम (सं.). कोंकणी भास, *साहित्य आनी संसक ताय.* कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव. पा. 182.

Almeida, M. (1989). *A description of Konkani.* Thomas Stephens Konknni Kendr.

Naik, P. (2013). *Amchi bhas borounchi promann rit* (The Standard orthography of Romi Konknni). Dalgado Konknni Akademi.

Prabhu, G. (2005). *Konkani Script - Why Devanagari?.* All India Konkani Parishad.


*(**फा। जेसन पींत** कोंकणी – रोमी, देवनागरी तशेंच कन्नड लिपिंत वाचुंक आनी बरोवंक जाणां आसच्या बोव थोड्यां पयकी एकलो. कोंकणी न्हय आसतां, कन्नड, इंगलीष, मराठी, हिंदी, उर्दू आनी इटालियन भासो जाणां आसचो फा। जेसन पींत राकणो, उज्वाड (बेळगांव), उज्वाड (उडुपी), नवसार्नी (सिंधुदुर्गा) नेमाळ्यांचे तशेंच भांगार भुंय दिसाळ्याचे नियमीत बरोवपी. जायतें धार्मीक साहित्य तांणी कोंकणेक तर्जण केलां.*

*तांणी कोंकणेंत दोन बूक बरयल्यांत: पयो 'बरो सांगात (In Good Company बुकाचो कोंकणी तर्जुमो). दुस्रो : 'कोंकणी क्रीसती उत्रांवळ' हे दोनी बूक देवनागरी आनी रोमी लिपिंत आसात.)*

# करावळी कर्नाटकाच्या भास आनी छाप्याक क्रिसतांव मिशनरिंचीं देणगीं

**मूळ: मेलवीन एस. पिंटो**
**तर्जण: डेलविटा वेगस**

## सारांश:

भारताचो पयलो छापखानो विदेशी जेज्वीत मिशनरिंनी 1556व्या वरसा गोंयांत सुरवातलो. विदेशी मिशनरी क्रिसतांव धर्म प्रसार करुंक भारताक आयिल्ले म्हळ्ळें सरवांकयी कळीत आसची खरी गजाल जाल्यारी भारताच्या प्रादेशीक भाशेंक आनी भारतांत छापखान्याच्या उदरगतेक ह्या मिशनरिंनी दिल्ली देणगी विशेस. करावळी कर्नाटकांत 'मंगळूरू समाचार' म्हळ्ळें कन्नडाचें पयलें पत्र सुरवात करुंक क्रिसतांव मिशनरी कारण. 1843व्या वर्सा जर्मनिच्या बासेल मिशनरिंनी हें पत्र सुर्वातलें. वासतवीक जावन सबार सुरविलीं पुसतकां, दिसाळें आनी नेमाळीं छापुंक मंगळुर्च्या बासेल मिषन छापखान्याचो मोटो आधार आसा. करावळी कर्नाटकांत भास आनी पत्रिका शेतांत क्रिसतांव मिशनरिंची देणगी महत्वाची. चारित्रीक आधारार सांगचें तर पाटल्या शतमानाच्ये सुर्वेर विदेशी मिशनरिंनी घाल्ल्या बलिश्ट बुनयादिचो फळ जावन आनी उपरांत तांचे उत्तरादिकारी जाल्ल्या धारमिकांनी मुकारून व्हेल्ल्या ह्या वावरा वरवीं करावळिच्या भासांचें आनी पत्रिकोद्यम शेताची वाडावळ जाली. ह्या लेखनांत, ऐतिहासीक विधान वापार्न कन्नड, तुळू आनी कोंकणी भासांक क्रिसतांव मिशनरिंची देणगी सोधून, तांचो आनी करावळिंत निर्माण जाल्ल्या छापखान्याचो विवर दिला. उपरांतल्या दशकांनी भास आनी छाप्याच्या विकासाचेर आनी हांच्या वाडावळेच्या प्रसतूत परिगतिचेर मिशनारिंच्या देणगेंचो प्रभाव दूसऱ्या हंताच्या मुळां मारिफात विशलेषण करचें प्रेतन केलां.

***सार सब्द: मिशनरी, कर्नाटकांत छापखानो, मंगळूरू समाचार, करावळी कर्नाटकाच्यो भासो***

## प्रसतावन

कर्नाटकाच्या करावळी वयल्या दक्षीण कन्नड, उडुपी आनी कारवार जिल्ल्यांनी व्हड संख्यान क्रिसतांवांचो असतित्व आसा. चवदाव्या शतमाना थावनंच हो प्रदेश मिशनरी वावराचें प्रमूख थळ जावनासल्लें. केरळाच्या क्रिसतांव समुदायां मधें एक घट पात्येणी आसा की जेजुचो शीस जावनासल्लो सां. तोमास पयल्या शतमानांत (1AD) केरळाक पावल्लो आनी ताणें केरळांत क्रिसतांव धर्म परगटलो. पूण हें सत म्हण रुजू करुंक खंचेय दाखले नांत. पूण केरळाच्या क्रिसतांव धरमाचीं पाळां सिरियाच्या उदेंती इगर्जमातेंत आसात म्हणच्याक

कनिषट एक हजार वर्सां पाटले महत्वाचे पुरावे आमकां मेळतात. त्याच परमाणे, केरळांत आसल्लो क्रिसतांव धर्म, सेजारच्या करावळी कर्नाटकाकयी विसतारोन, क्रमेण सगळ्या पडला करावळेकयी विसतारलो (Moore, 1905).

करावळी कर्नाटकांतल्या क्रिसतांवांचो इतिहास उसतून पळेल्यार कळीत जाता की, पुडतुगेज येंवच्ये पयलेंच, म्हणजे पंद्राव्या शेकड्यांतच क्रिसतांव धर्म हांगासर आसल्लो. हांगाचो मिशनरी चट्वटिकेंचो इतिहास उसतिताना, तो चवदाव्या शेकड्या आदिंच सुरू जाला म्हळ्ळें कळोन येता. करावळी, मैसूर तशेंच मलबार प्रदेशांनी 1324व्या वरसा आदिंच दोमिनिकान मिशनरिंचो मिसांव वावर चाल्तेर आसल्लो (नोरोन्हा, 1996). 1521व्या वर्सा फ्रान्सिसकन मिशनरी कर्नाटकाच्या करावळी प्रदेशाक पावले आनी कोड्याळ थावन सुमार 9 आनी 20 किलोमीटर पयस उळ्ळाल तशेंच फरंगिपेंटेंत ताणीं दोन इगजऱ्यो उबारल्यो (Ibid). आदल्या मिशनरिंनी स्थापन केल्ल्यो ह्यो, तशेंच असल्यो हेर सबार इगजऱ्यो (कुंदापूर आनी गंगोळ्ळी इगजऱ्यो, रुजाय काथेद्रल आनी मंगळुर्च्यी मिलाग्रीस इगर्ज) आज करावळी प्रदेशांत कथोलिकांचें प्रमूख धार्मीक केंद्र जावन स्थापीत जाल्यात.

गोंयांत पुडतुगेजांच्या येण्या वर्वीं क्रिसतांव धर्माक राज्य आस्रो लाबलो. हाका लागोन 16व्या शेकड्यांत जायते मिशनरी, विशेस करून जेज्वीत आनी हेर मेळाचे, गोंयांक पावले आनी वेगिंच क्रिसतांव धर्म वाडोन आयलो. 17व्या शेकड्यांत जेज्वितांक गोंयच्या उदेंतिच्या कर्नाटक तशेंच तमीळनाडांत मिसांव वावर करुंक अधिकार लाबलो. त्या परमाणे, रोबर्ट दे नोबिली आनी बेसकी तमीळनाडाचे यशस्वी मिशनरी जावंक पावले. तशेंच लियोनार्डो चिन्नामी मैसूरचो लोकामोगाळ मिशनरी जालो. चिन्नामीन विसकळ धार्मीक साहित्य बरयलां मात्र न्हय, तमीळ मुळाचें धार्मीक तशेंच हेर साहित्य कन्नडाक तर्जण केलां. पूण तांतलें जायतें साहित्य आमी होगडावन घेतलां (नोरोन्हा, 1996).

गोंयांत क्रिसतांवांक विशेस सवलातायो आनी हक्कां मेळतलीं देकून सबार जण स्वखुशेन क्रिसतांव धर्माक कन्वेडतर जाले. तरिपूण 17व्या शेकड्यांत आनी ताच्या उपरांत पुडतुगेजांनी स्थळीय लोकांचेर थरायिल्ल्या इंकविजिसांव आनी भिरांकूळ हिंसेक लागोन सबार क्रिसतांव आनी हेव्हर स्थळीय लोक गोंय सांडून सकयल्या दक्षीण तशेंच करावळी कर्नाटकाक पोळन गेले. कांय थोडे आनिकी मुकार वचोन दक्षिणाच्या मलबाराक थळांतर जाले. (Pinto, 1999). 17व्या आनी 18व्या शेकड्यांत गोंयां थावन थळांतर जाल्ल्या क्रिसतांवांनी स्थळीय इगर्जेच्या सहकारान आपलो भावार्थ उरवन घेतल्लो. तांचो आनी आपल्या धारमीक आचरणां संगीं हो समुदाय वाडोंक लागलो. गोंयांत तांकां आचरुंक जायनांतलीं समाजीक तशें धारमीक आचरणां तांणी हांगासर आचरुंच्ये संगीं स्थळीय संपरदाय आनी संसकृती आपणायली (Ibid). आज करावळी कर्नाटकांत आसच्या चडताव कथोलिकांचें मूळ गोंय. तरी, स्थळीय प्रभावाक लागोन हांच्या मदल्या सांसकृतीक आचरणांत जायतो फरक आसा. ऐतिहासीक कारणांक लागोन 1773व्या वर्सा संसारभर जेज्वीत मिशनरिंचो मेळ बंद केलो. हाचो परिणाम जावन जेज्वीत मिशनरिंनी भारत सोडन वचाजे पडलें वा जेज्वीत सांद्यांनी हेर मेळांक भर्ती जायजे पडलें. ह्या वरवीं भारताच्या कथोलीक इगरर्जानी मिसांव वावराक व्हड लुकसाण जालें. जेज्वितांचो हो वावर विदेशी फ्रेंच मिशनरिंक हातांतर केलो. ह्याच

वेळार, दक्षीण भारताक प्रोटेसटेंट मिशनरिंचो प्रवेश जालो. तांच्या वावराक वसाहतुशाहिचो पाटिंबो आसल्ल्ये वरवीं हाणीं परिणामात्मक वावर चलयलो. तरी, हाचो अर्थ हो न्हय की, प्रोटेसटेंट मिशनरी सगळ्या काळजान वसाहतुशाहिच्या पक्षेक रावलो म्हण. स्थळीय भास आनी संसकृती वाडोंवच्यांत वसाहतुशाहिंक भोव उणी आसक्त आसल्ली, पूण प्रोटेसटेंट मिशनरिंनी स्थळीय संसकृती वाडवंक कठीण म्हिनत काडली आनी स्थळीय भासांचेर महत्वाचें तशेंच परिणामकारी अध्ययन आनी संसोध केलो.

## करावळी कर्नाटकांत बासेल मिषन आनी पत्रिकोद्यम

क्री.श. 1810व्या इस्वेंत प्रोटेसटेंट मिशनरी वेसलियन मेथोडिसट (Wesleyan Methodist)भारताक येवन पावले. क्रिसतांव धर्म पासारचो आनी लोकाक क्रिसतांव धरमाक कनवेडतर करचो तांचो मुकेल इरादो जावनासल्लो तरी तांकां भास, संसकृती आनी संपरदायांत खरी आसक्त आसल्ली (Vas, 2007). पयलो कन्नड बैबल तर्जण केल्ली कीर्त ब्यापटिसट मिशनरिच्या विलियम कारे हाका फावो जाता. पूण तो बैबल आज मेळना. उज्या अवघडा वर्वीं नास जालो म्हळ्ळी पात्येणी आसा (नोरोन्हा, 1996). ताणें कन्नड व्याकरण आनी शब्दकोश बरवन पश्चीम बंगाळाच्या सेरांपोर प्रेस्सांत छापल्लो. अशें कर्नाटकांत प्रोटेसटेंट मिशनरिंनी तांच्या मिसांव वावरा सांगाता स्थळीय भासो आनी साहित्याच्ये वाडावळेक थकानातल्लो वावर केलो.

## मंगळूरू समाचार

प्रोटेसटेंट मिशनरिंचो वा खंच्याय मिशनरिंचो मुकेल इरादो मतांतर करचोच जावनासल्लो. भासो आनी संसकृती वाडोंवचा तांच्ये आसक्ते पाटल्यान फकत मतांतर करचो इरादो आसल्लो म्हण कोणेंय वाद मांडल्यारी, मिशनरिंच्या प्रयत्ना वर्वीं स्थळीय भासांक आनी संसकृतीक खरेंच वर्ती देणगी लाबली म्हळ्ळें सरर्वानी मांदून घेजे जाल्लें सत जावनासा.

19व्या शतमानाच्ये सुरवेर कर्नाटकाक आयिल्ल्या बासेल मिशनरिंनी, उत्तर कर्नाटकाच्या हुब्बळ्ळी धारवाडांत आपलो वावर सुर्वातलो. पूण, मंगळूर तांचें तळ जावनासल्लें. तांच्या मिसांव वावराचें प्रमूक केंद्र जावनासल्ल्या मंगळुरांत ताणीं छापखानो सुरवातलो. 1836व्या वरसा भारताक आयिल्लो बासेल मिशनाचो मिशनरी, अत्यंत चतूर आनी विद्वत्तपूर्ण हर्मन मोगलिंग हाणें कन्नड भाशेचें पयलें पत्र 'मंगळूरू समाचार' सुर्वातलें. स्थळीय खबरो आनी विचार दिंवचें हें पत्र चार पानांचें जावनासल्लें (Havanur, 2004) कल्कताच्या जेम्स हिक्किचें 'बेंगाल गेजेट' उत्तर भारताच्या पत्रिकोद्यमाचो आवाज जाल्यार, 'मंगळूरू समाचार' कन्नड पत्रिकोद्यमाचो आवाज म्हण्येत. त्या भायर सेरांपोरांतले मिशनरी पश्चीम बंगाळाच्या छाप्या तंत्रगिन्यानाचे सुरवातगार जाल्यार, बासेल मिशनरी करावळी कर्नाटकांत छाप्या तंत्रगिन्यानाचे सुरवातगार जावंक पावले. वासतव जावन 18व्या शतमानाच्या आक्रेक भारतांत खंचेंय छाप्या तंत्रगिन्यान आसल्लें जाल्यार तें क्रिसतांव मिशनरिंचें देणें जावनासा (Kesavan, 1988).

1836व्या वरसा भारताक आयिल्लो मोगलिंग 1838 आनी 1852च्या इस्वे मधें मंगळुरांत आसलो. तो एक श्रेषट गिन्यानी. तो विसकळ रितीन कन्नड आनी संसकृत शिकलो आनी ह्या दोनयी भाशेंतल्या साहित्या मदल्लो सूक्ष्म वेत्यास समजोंक सकलो. Bibliotheca Karnataka म्हळ्ळ्या शिंकळेरुपाच्या लेखनां खाल ताणें 'जैमिनी भारत' तसलें कन्नड काव्य शासत्र लिथोग्राफीक तंत्रग्यान मारिफात छापुंक आनी परगटुंक सुरवातलें. मधल्या काळाच्या पुरंदरदास आनी कनकदास तसल्या दास साहित्यकारांच्यो सबार कृतियो ताणें जर्मन भाशेक तर्जण केल्यो (Alberts, 1989).

मोगलिंग हाणें जुलै 1, 1843व्या वर्सा सुर्वातलेलें कन्नड भाशेंतलें पयलें नेमाळें 'मंगळूरू समाचार' सुर्वेर पंद्राळें जावन पर्गट जालें. एक पत्र सुर्वात कर्च्याक मुकेल उद्देश कितें? पयल्या अंक्यांत सुचायल्या पर्माणें 'सार्वजनिकांक गर्जेची खबर दिंवची'. कित्याक म्हळ्यार, 'हेरांबरी मंगळूरगारयी काण्यो आनी खबरो आयकोंक तशेंच सांगोंक आंवडेतात. सकाळीं बंदरांत वा दफ्तरांत कोणयी एकलो थोड्यो खबरो ताच्ये खुशे पर्माणे आनी ताका जाय जाल्ले बरी सांग्ता. थंयसर आसल्ले हेर विस्मित्कायेन त्यो आयकतात आनी सांजे भितर त्यो खबरो विवीध रुपांनी फटकीऱ्यो खबरो जावन प्रसार जातात. लोक त्यो पात्येता. मंगळूरू समाचार असल्यो नकली खबरो फूड करुंक आंवडेता आनी नीज खबरो दिता' म्हण पत्रान परगटलें (Alberts, 1989, pp. 28-29). हावनूर (2004) आपली अभिपराय अशें व्यक्त करता– 'मोगलिंग हाणें मंगळूरू समाचार पत्र खबरो दिंवच्या एकाच उद्देशान सुरवातलें, कित्याक म्हळ्यार मंगळूर भोंवतणिचो लोक तांच्या सुत्तुरा भायर कितें घडता म्हळ्ळें पुर्तें नेणासलो. पंद्रा दिसांक एक पावटीं परगट जांवच्या त्या चार पानांच्या पत्रार आफघानिस्थानाच्यो खबरो पऱ्यांत फायस जाताल्यो'.

1844व्या वरसा हें पत्र बळ्ळारीक जाग्यांतर केलें. कारण, तवळ पऱ्यांत हें पत्र लिथोग्राफी मारिफात छाप्तालें. त्या तंत्रगिन्याना वर्वीं चडीत प्रतियो छापुंक जायनातल्लें. त्या भायर येदोळच बळ्ळारीक लेटर प्रेस आयिल्लें. नवें तंत्रगिन्यान उपेग कर्न हें पत्र छापल्यार आनिकी चडीत लोकाक पावव्येत म्हण उंचल्या आडळतेदारांनी चिंतलें कोण्णा. बळ्ळारीक वेताना पत्राचो माताळो 'कन्नड समाचार' म्हण बदलिलो. पूण दुखाची गजाल ही की, बळ्ळारीक पावल्लें पत्र चड काळ बाळवलेंना. 1844व्या वरसाच्ये आकेरी भितर ह्या पत्रान आपलो प्रसार रावयलो.

'मंगळूरू समाचार' मिशनरिंनी सुरवातलेलें पत्र तरी तें भोव जात्यातीत पत्र जावनासल्लें म्हळ्ळें गुमानांत घेजे. ह्या पत्रार खंयसरयी बासेल मिषना विशीं उल्लेक करुंक ना. पत्राच्या तळार संपादकाचें नांव मात्र प्रकट केलां. पत्रांत कन्नड साहित्या विशिंय थोडो आटव आसतालो. त्या भायर चडतीक जावन स्थळीय खबरो, सर्कारी आदेश आनी कायदे, ओपाऱ्यो, नितिच्यो काण्यो आनी हेह्रर काण्यो तशेंच इतर राज्याच्यो खबरो आटापून आसताल्यो (Alberts, 1989). 'मंगळूरू समाचार' पत्रान आपलो प्रसार रावयलो तरी, मोगलिंगान आपलो साहित्याचो वावर फुडें व्हेलो. ताणें ग्रैनर आनी ब्यूरर म्हळ्ळ्या हेर दोग मिशनरीं सांगाता मेळोन `Mangalore Almanac' वा स्थळीय भाशेंत 'पंचांग' म्हण नांवाडलेलें पत्र पर्गट करुंक सुर्वातलें. हांतूं विवीध

फेसतांच्यो आनी हेर गर्जेच्यो तारिको आनी वेळ आसल्लो. हाणें 1857व्या वरसा 'कन्नड वार्तिके' म्हळ्ळें नेमाळें सुर्वातून थोडो काळ पऱ्यांत चलयलें (Ibid).

## फर्डिनांड किटेल

आन्येक उल्लेक करिजेच जाल्लो बासेल मिषन मेळाचो महान मिशनरी जावनासा कन्नडाचो विद्वांस फर्डिनांड किटेल. 1853व्या वर्सा तो भारताक आयलो. 1860व्या वरसा ताका मंगळुर्च्या बासेल मिषन छापखान्याचो आडळतेदार जावन नेम्लो. 1870व्या वरसा पऱ्यांत मंगळुरांतच आसलेल्या ताणें खरेपणीं 'अक्षरांचो मनीस' (Wendt, 2006, p. 58) जावन ताच्या भरपूर समरथेंत काऱ्यानिर्वहण केलें. ताणें संसकृत आनी कन्नड भाशेच्या साहित्यांत वरती आसक्त दाकयली. मंगळुर्च्या छापखान्यांत आसल्ल्या वेळार, तवळ पऱ्यांत कोणेंय प्रेतन करुंक नातल्ल्यो, सबार महत्वाच्यो कृतियो ताणें उज्वाडाक हाडल्यो. हांच्ये पयकी एक जावनासा 'कथा माले: हिंदू मिटरांत धर्मगृंथाच्यो काण्यो'. हें पुसतक बैबलाच्या नव्व्या तेसतामेंतातल्यो काणियो कविता रुपार आटापता. किटेलान कविता शेतांत जायतो वावर केला, पूण हांतूं धार्मीक कविताच चड (Ibid).

तरिपूण, लगबग दोन दशकांचाकी चड काळ वावर कर्न, शेकीं 1894व्या वर्सा मंगळुर्च्या बासेल मीषह्न संस्थ्याच्या छापखान्यांत छापून ताणेंच परगट केल्लो 1700 पानांचो कन्नड-इंगलीष शब्दकोश ताची महत्वाची कृती. आतांय हो शब्दकोश कन्नडाचो प्रमाण म्हण मांदून घेतात आनी ऊंच म्हण ओळकातात. ह्यो कृतिये विशीं नंदिहाळ (2003) आपली आभिपराय अशी उचार्ता- 'किटेलाच्या कन्नड-इंगलीष शब्दकोशान आजून मुळाव्या साहित्याची ग्रेसतकाय दवर्न घेतल्या आनी भास वापार्तेल्यांक आकरषीत करता. हें चड करून मिशनरिंनी तांच्या छाप्या वावरांत दाकयिल्लो हुसको आनी घेतल्ल्या जनेचो फळ जावनासा'.

## तुळू भाशेक उत्तेजन

करावळी प्रदेशाच्या सक्कड समुदायांनी उलंवच्या लोकामोगाळ स्थळीय तुळू भाशेंतयी विदेशी मिशनरिंनी भोव चड वावर केला. 1864व्या वरसा मंगळुर्च्या बासेल मिषना थावन धारमीक कंतिगेचो तुळू बूक भायर काडलो. बासेल मिशनाचे दोग विदेशी मिशिनरी जे. अम्मन आनी जी. क्यामरर ह्या बुकाचे बरोवपी. बुकांत 120 कंतिगो आटापल्यात (Shiri, 2009). ह्या बुकान सबार पुनरावृत्ती देखल्यात. भोव हेवशिल्ये आवृत्तेंत 251 कंतिगो आसोन, प्रोटेसटेंट इगजऱ्यांनी ह्या बुकाचो बरोच वापर जाता.

1858व्या वरसा बैबलाचो नवो सोल्लो तुळू भाशेक तर्जण केलो. उपरांत तुळू-इंगलीष आनी इंगलीष-तुळू शब्दकोश, तुळू व्याकरण, तशेंच लोकवेदाक लग्ती जाल्ले पाडदान (संपरदायीक/पारंपरीक पदां) आनी भूताराधने (दैवाराधने) असले आट बूक परगट केले (Jattana, 2015). जत्तण्णाच्या अध्ययना पर्माणें, ह्या विदेशी मिशनरिंनी स्थळीय लोकांचेर विदेशी भासो थापुंक नांत. बगार ताणीं स्थळीय लोकांच्यो तुळू आनी कन्नड भासो वागोवंक मजत केली (Ibid).

## जेज्वीत मिशनरी

19व्या शेकड्यांत प्रोटेसटेंट मिशनरी मिसांव आनी उंचल्या साहितीक वावरांत मेतेर जाल्ले त्ये वेळीं, कथोलीक मिशनरीय कांय पाटीं उरोंक नातल्ले. 19व्या शेकड्याच्ये आकेर पऱ्यांत करावळी कर्नाटकाच्यो कथोलीक इगजऱ्यो गोंय दियेसेजिच्ये ताबेंत आसल्ल्यो. दूसऱ्ये रितीन सांगचें तर, त्या काळार गोंयांतल्या धार्मीक संग्तिंचेर आसल्लो पुडतुगेजांचो बलिषट प्रभाव ह्या जिल्ल्यांनीय दिसोन येतालो. थोडो काळ पऱ्यांत ह्या प्रदेशाच्या इगर्जिंचो खूब वेवहार कारमेलीत मिशनरिंनी चलवन व्हेलो. ह्याच वेळार बोंबे, कल्कत्ता आनी मद्रासांतल्या शिकपा शेतांत जिज्वीत मिशनरिंनी केल्लो उंचलो वावर पळेल्लो स्थळीय कथोलीक समुदाय, जेज्वीत मिशिनरिंनी मंगळुराक येवन उंचलें शिकपाकेंद्र सुर्वातिजे म्हण अत्रेग्तालो. हाका लागोन स्थळीय कथोलीक समुदायाच्या फुडाऱ्यांनी 19व्या शेकड्या मधें, जेज्वीत मिशनरिंक मंगळूर धाडिजे म्हण पापसायबाक पत्र बरोवन घालें. ह्ये विनोवणेक प्रतिक्रिया दिवंक रोमांतल्ये इगर्जेन अट्रा वरसां काणघेलीं (Madtha, 2005).

निमाणें जेज्वीत मिशनरिंनी मिसांव वावरा खातीर मंगळूर वचोंक ठरायलें. 1778व्या वरसा दसेंबर 31 तारिकेर, नव जेज्वितांचो एक पंगड मंगळुराक येवन पावलो. स्थळीय लोकान तांकां मोगान येवकार केलो. मंगळुराक पांय तेंकल्लेंच जेज्वीत मिशनरिंनी तांचो मिसांव वावर सुरवातलो. दोन वर्सांनीच ताणीं इर्मुजेंत आतां आसचें बिसपाचें घर, कोडियालबैलांत तात्कालीक जाग्यार एक कोलेज सुरवातली. पयल्या पंगडांतल्या 162 विद्यार्थी पयकी चडावत कथोलीक तर लगबग एक डजन हिंदू विद्यार्थी आसल्ले (Ibid).

जेज्वितांक उंचलें शिकप सुरवातुंक मंगळुराक धाडल्लें तरी, ताणीं तांकां फकत त्या वावराक मात्र सीमीत दवरुंक ना. बगार तांच्ये पयकिंतल्या थोड्यांनी साहितीक वावर हातीं घेतलो. थोड्यांनी स्थळीय भास अध्ययन कर्न तांतूं जाण्वाय आपणायली आनी व्याकरण, तशेंच शब्दकोश पुसतकां पर्गटलीं. प्रोटेसटेंट मिशनरीं परिंच ताणिंय छापखानो, कामासाळ (workshop) आनी पिडेसतांक तशेंच निर्गतिकांक वसतेघर सुरवातलें. जेज्वितांनी कोड्याळ आनी कोड्याळच्या भोंवतणी शैक्षणीक तशेंच मिसांव वावरांत कितलो व्हड वावर केलोकी, तितलीच महत्वाची देणगी ताणीं स्थळीय भास आनी साहित्याकयी दिल्या. कोड्याळाक आयिल्ल्या खंच्याय विदेशी मिशनरिंक स्थळीय भासो कळीत नातल्ल्यो म्हळ्ळें स्पष्ट. तशेंच तांच्या मधल्या थोड्यांक इंगलीष भास सयत कळीत नातल्ल्ली. तरी ते स्थळीय भासो शिकले मात्र न्हय, हांच्ये मधले थोडे स्थळीय भाशेंत पंडीत वा उंचले विद्वांस जावंक पावले.

## म्यांगलोर म्यागझीन

बासेल मिशनरिंनी कन्नड आनी तुळू भासो वाडयल्यो तर, जेज्वितांनी इंगलीश आनी कोंकणी भासांक चड महत्व दिलो. इटेली थावन आयिल्ल्या इटालियन मिशनरिंक इंगलीष स्वाभावीक भास जावंक नातल्ली म्हण हांगासर परत दांबून सांगाजे पडता. वासतव जावन तांतले चडताव मिशनरी भारताक पावल्या उपरांत इंगलीष भास शिकले. न्हय फकत इंगलीष बगार कोंकणी, कन्नड, आनी तुळू असल्यो स्थळीय भासो शिकोन पंडीत सयत जाले.

बासेल मिशनरिंनी कन्नडाचें पयले नेमाळें 'मंगळूरू समाचार' सुरवातलें तर, इटलिच्या

जेज्वीत मिशनरिंनी 1897व्या वरसा करावळी प्रदेशाचें पयलें इंगलीष नेमाळें 'म्यांगलोर म्यागझीन', सुरवातलें. कोलेजिच्या पदवीदर आनी पदवी पूर्व विद्यार्थिंच्ये आसक्तेक पाटिंबो दिवंक पंद्राळें जावन हें पत्र सुर्वातलें (Vas, 2007). हें पत्र विद्यार्थिंक साहितीक चटुवटिकांनी मेतेर जावंक आनी तांकां विवीध समर्पक विशयांचें गिन्यान आनी माहेत दिंवचें पत्र जावंक पावलें. जोन मूर एस.जे. ह्या पत्राचो पयलो संपादक जावनासल्लो. ह्या पत्रार सां लुवीस कोलेजिच्या आनी शेरांतल्या उंचल्या इंगलीष बरोवप्यांचीं बर्पा फायस जाल्यांत. ह्या नेमाळ्यांत काव्यें, विमर्सो आनी सबार तर्जण केल्ल्यो कृतियो फायस जाल्यात. जोसेफ सलडान्हा हाणें थोमास स्टीफन्स एस.जे. हाणें बरयिल्ली महत्वाची कृती 'क्रिसतपुराण' तर्जण कर्न ह्या नेमाळ्यांत शिंकळे रुपार पर्गट केली (Ibid).

सेलीन वास अशी अभिपराय दिता – '*मंगळूरू म्यागझीन* विशयांच्या व्याप्तिंत न्हय फकत दियेसेजिचो इतिहास बगार शैक्षणीक नमुन्याचीं विमर्शात्मक बर्पा आनी विशेस रितिचीं अध्ययनां, संगीं हेर महत्वाचे विशय पर्गटून, गुमान करिजे जाल्ल्या प्रमाणार अध्ययनाच्या पुसतकांचे गूण आटापता' (Vas, 2007, p. 24). निमाणे 1934व्या वरसा हें पत्र वारषीक कोलेज म्यागझीन जांवचे संगीं नवी गुंवडी आपणायली, आनी तें आजून आपल्या आदल्या आकरषना सवें पायस जावन आसा.

## आंजेलो माफेयी

फा। आंजेलो माफेयी एस.जे. विशीं हांगासर विशेस उल्लेख करचें गरजेचें. तो गांवान आसट्रिया मुळाचो. पूण तो इटालियन प्रांताच्या जेज्वीत मेळाक सेर्वालो. 1878व्या वर्सा कोड्याळाक पावल्ल्या पयल्या पंगडाच्या नव जेज्वितां पयकी होय एकलो. उत्रांच्या नीज गिन्यानांत खऱ्यान तो पंडीत जावनासलो. सबार भासो ताका कळीत आसल्ल्यो. भारताक आयिल्ल्या उपरांत तो कोंकणी भास शिकलो. आनी उपरांत ताणें कोंकणी व्याकरण बरोवंक सुरवातलें. हो बूक 1882व्या वरसा पह्रगट जालो. कोंकणेंतलो हो पयिल्लो व्याकरण बूक म्हणतात तरी, ताच्याकी पयलें फा। जोकीम मसकरेन्हस हाणें कोंकणी व्याकरण बूक बरयिल्लो म्हणतात. हाची प्रती भारतांत लभ्यना. पूण ताची एक प्रती लंडन म्यूसियमांत पळेवंक मेळता (नोरोन्हा, 1963). हाका लागोन कोंकणी भास पाटल्या वर्सांनी कशी वाडोन आयली आनी विकसीत जाली म्हण अध्ययन कर्तल्या भाशे तज्ञांक माफेचो व्याकरण बूकच महत्वाचो आनी मुळावो आधार जावनासा.

वासतावीक जावन, माफेन कोंकणी व्याकरणाचो वावर मुकारून 1892व्या वरसा आन्येक आधुनिकृत आवृत्ती परगट केली. त्या बुकाक 'कोंकणी रानांतलो सोभीत सुंदर ताळो' म्हण नांव दिलें. 1883व्या वरसा ताणें कोंकणी शब्दकोश बरयलो. बहुशा त्ये रितीर बरोवन उज्वाडायिल्लो पयलो बूक तो (सलडान्हा, 1963). कोंकणी भास वाडोंवच्यांत समर्पण मनोभावांत माफेन केल्ल्या अगणीत वावराक कोंकणी विद्वांसा थावन ताका भोव उंचलो मान मेळ्ळा. कित्याक, त्या पऱ्यांत कोंकणी चड करून सदांच्या घळनुकेंतली वा फकत उलवपाची भास जावनासल्ली. माफे आनी हेरांच्या ह्या वावरा निमतीं करावळी प्रदेशांत क्रमेण सबार पत्रां आनी नेमाळीं पर्गट जांवच्ये मारिफात कोंकणी एक साहितीक भास जावन वाडोन आयली.

## कोंकणी पत्रिकोद्यम

1912व्या वरसा कवी लुवीस मसकरेन्हस आनी सरदार यू. कण्णप्प म्हळ्ळ्या दोग लायीक मनशांनी कर्नाटकांतल्या कोंकणेंत पयलें नेमाळें 'कोंकणी दिर्वें' सुरवातलें. 1940व्या वरसा पऱ्यांत तें नेमाळें असतित्वांत आसलें आनी तीं थोडीं वरसां खरेंच कोंकणी पत्रिकोद्यमाचीं जयतेवंत वर्सां जावंक पावलीं. त्या उपरांत करावळी कर्नाटकांत ताचो पाटलाव कर्न आयिल्ल्या उंचल्या कोंकणी पत्रिकोद्यमाक 'कोंकणी दिर्वें' पत्रान दृढ बुन्याद घाली म्हण चडीत धयरान सांग्येत. 'कोंकणी दिर्वें' पत्रान प्रसार रावयिल्ल्या उपरांत पन्नासां वयर कोंकणी नेमाळीं ह्या प्रदेशांत उदेलीं (Cf. Vas, 2007). हांच्ये पयकी सबार वेळा–काळा पर्माणे मरण पावल्यांत तर, थोडीं आजूनयी प्रसाराचेर आसात. मंगळूर कथोलीक धर्मप्रांता थावन 1938व्या वर्सा सुर्वातलेल्या 'राकणो' हप्त्याळ्याक 84 वर्सां भरलीं आनी अजून तें बऱ्या प्रसाराचेर आसा. प्रसतूत करावळी प्रदेशांत 14 कोंकणी नेमाळीं पर्गट जातात, हांतलीं दोन नेमाळीं मुंबै थावन पर्गट जातात.

## मिशनरी आनी छापो

करावळी प्रदेशांतले पयले दोन छापखाने सुर्वात केल्ल्याची कीर्त परत क्रिसतांव मिशनरिंक फावो जाता. सुरवेर ताणीं क्रिसतांव भावार्थ पासरुंक गरजेचें धार्मीक साहित्य परगट कर्च्या इराद्यान हे छापखाने सुरवातल्ले तरी, हें स्पश्ट आसा की, उपरांत भाशेशासत्र आनी स्थळीय संसकृतेंत उंचल्या जाण्वायेन भरलल्यो संशोधनात्मक कृतियो भायर काडुंकयी तांकां हेच छापखाने आधाराचे जाले. वासतव जावन, मिशनरिंनी परगट केल्ल्यो सुरवेच्यो थोड्यो कृतियो अजून भाशेशासत्र आनी संसकृतेच्या अध्ययनांत वतऱ्या मोलाच्यो आनी महत्वाच्यो जावनासात.

## बासेल मिषन प्रेस

1841व्या वरसा बासेल मिशनरिंनी कर्नाटकाच्या करावळिंतलो पयलो छापखानो 'बासेल मिषन प्रेस' सुर्वातलो. हांगासर सुर्वेर लिथोग्राफी तंत्रगिन्याना मारिफात छाप्ताले. हो छापखानो कन्नड, तुळू, मलयाळम, इंगलीष, संसकृत, तेलुगू, तमीळ, कोंकणी, कोडव आनी जर्मन सेरवोन सबार भाशेंनी छाप्या वावर केल्लो अपरूप आनी उत्तीम छापखानो म्हळ्ळ्या होगळिकेक फावो जाला (Prabhakara, 2015). 1843 इस्वेंत ह्या छापखान्यांत कन्नड भाशेचें पयलें पत्र 'मंगळूरू समाचार' छापुंक सुरवातलें. अशें कन्नड भाशेचें पयलें पत्र छापल्लो गौरवयी ह्या छापखान्यान आपणायला. तितलें मात्र न्हय आसतां, तुळू आनी कन्नड भाशेचे पयले बैबल छापल्लो विशेस गौरवयी ह्याच छापखन्याक फावो जाता, उपरांत हांगासर हेर सबार भासांनी बैबल छापल्यात. बासेल मिषन प्रेस्सान परगट केल्ल्या महत्वाचा बुकां पयकी आंजेलो माफेयी एस.जे. हाचो इंगलीष–कोंकणी शब्दकोश आनी मीनर हाचो इंगलीश–तुळू शब्दकोश आनी तुळू–इंगलीश शब्दकोश मुकेल जावनासात (Vas, 2007).

बासेल मिशनरिंक तांच्या मिसांव वावराच्या विसतार आनी स्पश्ट दिषटाव्याक लागोन हो छापखानो सुरवात करुंक उरबा लाबली. संसारभर भोव फामाद जाल्ले, मंगळुरचे नळे

तयार करचे नळ्यांचे कारखाने मंगळुराक पयिल्लें हाडल्लेंय बासेल मिशनरिंनिंच. पूण ह्या तंत्रगिन्यानाचीं हक्कां अमानत कर्न दवरिनातल्ले वर्वीं बासेल मिशनरिंच्या उपरांत, स्थळीय सबार जणांनी नळ्यांचे कारखाने सुरवातले आनी मंगळूर नळे म्हणंच विक्रो केलो. बासेल मिशनरिंनी सुतां वोळणेचे आनी हेर सबार कारखाने सुरवातले.

## कोडियालबैल प्रेस

प्रोटेसटेंट मिशिनरिंनी कोड्याळ आनी भोंवतणिच्या प्रदेशांनी चलंवच्या मिसांव वावरा खातीर तांचोच म्हळ्ळो छापखानो सुरवात कर्ताना, कथोलीक मिशनरिंकयी तांच्या मिसांव वावराक मजत दिंवचे तसल्या, तशेंच मोलाधीक आनी महत्वाचें साहित्य छापुंक जाय तसल्या एका छापखान्याची गर्ज आसा म्हण भोगलें. त्या पर्माणें 1882व्या वरसा मंगळुराक लागशिल्या कोड्यालबैलांत सेंयट जोसेफस प्रेस म्हळ्ळो एक छापखानो सुर्वातलो. क्रमेण ह्या छापखान्याक जात्यातीत गूर्त दिवंक ताचें नांव कोडियालबैल प्रेस म्हण बदलिलें. सुरवेर इंगलीश भाशेंत मात्र पुसतकां आनी हेर माहेती छाप्ताले. उपरांत मद्रास आनी फ्रान्स थावन कन्नड भाशेचीं अक्षरां हाडवन थंयसर कन्नड आनी कोंकणेंतयी छापुंक सुरवातलें (Vas, 2007).

ह्या छापखान्यांत सुरवेर छापल्ली महत्वाची कृती जावनासा आंजेलो माफेयी एस.जे. हाच्या कोंकणी शब्दकोशाची परिषकृत आवृत्ती ‘कोंकणी रानांतलो सोभीत सुंदर ताळो’. 1892व्या वरसा हो बूक पर्गट केलो. ह्या छापखान्यांत ‘दी गेजेटियर आफ बांबे कर्नाटक ईन कनारीस’, म्हळ्ळो 675 पानांचो ग्रंथयी छापला. इंगलीष भाशेचें नेमाळें ‘म्यांगलोर म्यागजीन’यी हांगासरच छापल्लें म्हळ्ळें खंडीत. त्या भायर ह्या छापखान्यांत कन्नड भाशेचें नेमाळें ‘चिंतामणी’ छाप्ताले (“Codialbail Press”, 1963). थोमास स्टीफन्स एस.जे. हाची भोव प्रमूक कृती ‘क्रिसत पुराण’यी 1907व्या वर्सा हांगासरच लेटर प्रेस्सांत छापल्लो जावनासा. तवळ थावन मंगळूर कथोलीक धर्मप्रांत्याच्ये ताबेंत आसच्या ह्या छापखान्यान एदोळच शतमानोत्सवा उपरांतलो रुपयोत्सव आचरण केला.

स्थळीय भासो, विशेस करून कोंकणी आनी तुळू भासांच्या वाडावळेक मिशनरिंच्या देणगेचो परिणाम वरत्या महत्वाचो. कर्नाटकांत कन्नड राज्य भास जावनासोन, कोंकणी आनी तुळू प्रादेशीक भासो जावन उलयतात. भारतांत इंगलीष शिकप सुरवातल्या उपरांत प्रादेशीक भासो संकश्टाक सांपडल्यात. पूण कर्नाटकांत कोंकणी आनी तुळू दोनी भासो इसकोल तशेंच कोलेजिंत शिकपा भोदनाच्या माध्यमांत नातल्ल्योच. तरी दोन विविंगड समुदायांच्यो मांय भासो जावन उदर्गतेक आयल्यो. आतां राज्य सर्कारान सर्व सर्कारी इसकोलांनी इंगलीश माध्यम सुरवात करचें मुळावें मेट काडलां (“English medium”, 2018). ह्ये वरवीं प्रादेशीक भाशेचे कान्यकर्त खंतिषट जाल्यात. राज्य भाशेची स्थितीच अशी जाल्यार, स्थळीय कोंकणी, तुळू भासांचो फुडार कितें म्हळ्ळें अंदाज करुंक जायना.

कोंकणी आनी तुळू, ह्यो दोनी भासो प्रमूक जावन उलयतल्यांच्ये हुमेदीन असतित्वांत उरल्यात आनी वाडोनंच आसात. करावळी कर्नाटकांत विवीध धरमाचो आनी समुदायाचो लोक तुळू उलयता जाल्ल्यान ह्ये भाशेक चडीत फायदो जाला. तशेंच ह्या प्रदेशाच्या इगर्जांनी

आनी इगरजेच्या चटुवटिकांनी कोंकणी भासच वापर्तात आनी इगजऱ्यो व्हडा उमेदीन आपल्ये मांयभाशेचो पोस कर्तात जाल्ल्यान कोंकणेक मोटो तेंको लाबला. कोंकणेच्या वाडावळेक होच मोटो आधार. त्या भायर कुडमी, गौड सारस्वत असल्या कोंकणिच्या 41 समुदाय आनी तांच्या बोलीं वरवीं कोंकणी आनिकी चड बळाधीक जाल्या. वासतव जावन मधल्या काळार गोंयांत पुडतुगेजांनी कोंकणेचेर एकाच्छाणें आक्रमण केल्यारी कोंकणी एक बळवंत भास जावन वांचोन, वाडोन आयली म्हळ्ळो इतिहास आसा (Pinto, 1999). तरिपूण कर्नाटकाच्या करावळी प्रदेशांत, ह्या भाशेच्या वाडावळेक जेज्वीत मिशिनरिंची देणगी व्हड आधाराचीं जाली तरी, माफेच्या अदभूत वावरा वर्वी ह्या भाशेक करावळी प्रांतांत अधिकृत स्थानमान लाबलो. 1992व्या वर्सा कोंकणी भास संविधानाच्ये आटव्ये वळेरिंत मेळयली. कोंकणी गोंयची अधिकृत राज्य भास जावनासा. कर्नाटकांत कोंकणी भाशेक राज्य साहित्य अकाडेमी आसा आनी व्हड संख्यार विद्यार्थिंनी अध्ययन करच्या मारिफात कोंकणी भास कर्नाटकांत तिस्री भास जावन इसकोलांनी शिकवंक सुर्वातलां. सां लुवीस कोलेज (स्वायत्त) हांगासर युजी मट्टार कोंकणी अध्ययन करुंक अवकास आसा मात्र न्हय जायत्या विद्यार्थिंनी हें अध्ययन विंचलां ("Konkani Institute", n.d.). आयलेवार ह्या प्रांतांत कोंकणिचो महत्व उणें जाला म्हळ्ळो आकांत आसल्यारी करावळी प्रांतांत आसच्या 41 समुदायांनी कोंकणी आजून लोकामोगाळ भास जावन उरल्या.

ह्या प्रांतांतली आन्येक प्रादेशीक भास जावनासची तुळू पंद्रा लाकांच्याकी चडीत लोकान उलंवची भास (Padmanabha, 1990) तरी, तिका अजून भारताच्ये संविधानाच्या आटव्ये वळेरिंत स्थान लाबोंक ना. तरी कर्नाटकान राज्यांत तुळू साहित्य अकाडेमी रुता कर्न तुळू भाशेक पाटिंबो दिला. तुळू अकाडेमीन सबार क्रियात्मक वावर हातीं घेतला. 2011व्या वरसाइसकोलांनी तुळू तिस्री भास जावन शिकवंक सुर्वातलें तर 2016व्या वरसा 626 विद्यार्थिंनी तुळू भास शिकची विंचवण केल्ली (Sanjiv, 2016). विशेस म्हळ्यार हाच्याकी लगबग 119 वरसां आदिंच, म्हणजे 1892व्या वरसा क्रिसतांव मिशनरिंनी करावळी भागांत तुळू माध्यमांत इसकोल सुरवातल्लें आनी पयल्या वरगाक पाठ पुसतकां सयत तयार केल्लीं. पूण तवळच्या पोषकांनी तांच्या भूगऱ्यांक तुळू–माध्यम इसकोलाक धाडुंक पाटीं केल्लें. हाका लागोन तीसऱ्ये उपरांत इसकोल बंध केलें ("Tulu language", n.d.). प्रसतूत इसकोलांनी तुळू भास शिकपाक अवकास आसोन सबार विद्यार्थिंनी तुळू भास शिकपाक घेतल्या. हें भाशेच्या यशस्वेक पूरक जातलें म्हळ्ळें खरें. स्थळीय भासोय गर्जेच्यो म्हण मांदून घेवन आनी तांच्ये उदर्गतेक कारण जाल्ल्या क्रिसतांव मिशनरिंकयी ह्या यशस्वेच्या होगळिकेचो एक वांटो फावो जाता. आज तुळू भास भारताच्या संविधानाच्ये आटव्ये वळेरिंत मेळवंक एकवोटीत वावर जाते आसा ("Twitter campaign", 2017) मात्र न्हय, कला, संसकृती, संपरदाय आनी साहित्यांत विसतृत आनी सबार रितिंचें प्रयोग ह्या भाशेंत कर्न आसात.

## संपणी

मार्क वालडराचे (1998) अभिपराये प्रकार, सुर्वेर मिशनरिंनी चडीत संख्यार धारमीक विषय परगट केल्यारी, ते तवळच्या ह्या प्रदेशाच्या लोकाचे अत्रेगाक आनी अभिरुचीक समकालीत जावनासल्ल्ले. तवळ खंच्याय रुपाच्या छापलेल्या बरपांचें उणेंपण आसल्ल्यान

मिशनरिंनी चड करून हेर बरपां प्रास धार्मीक बर्पा, विशेस करून बैबल छापचो आनी परगट करच्चे विशीं चड आसक्त दाकयली म्हण्येत. गुटेनबर्गच्या संसारांतल्या पयल्या छापखान्यांत पयलो छापल्लो बैबलच (Crump, 1952).

खंयच्याय रितीन करावळी प्रांतांतल्या मिशनरिंनी तांकांच ताणीं धारमीक व्यवहारांत मात्र सीमीत करुंक ना. ह्या लेखनांत दिसच्चे परीं पत्रिकोद्यमाक आनी पर्गटणेक तांची देणगी भोवच महत्वाची, तांतल्या तांतूं ताणीं विशेस करून तुळू आनी कोंकणेंत संशोधनात्मक कृतियो रच्चे मारिफात स्थळीय भासांचो पोस केलो. ह्या दोनयी भासांनी ताणीं तयार केल्ले शब्दकोश आनी व्याकरणां भाशाविज्ञान शेतांत अजून भोव चड उपकाराचीं जाल्यांत.

कन्नड संबंधी भाशेचें पयलें पत्र तांच्ये वरविंच आरंभ जाल्लें. हें ह्या प्रांताच्या पत्रिकोद्यमाच्या वाडावळेक घट बुन्याद जावंक पावलें. आज इंगलीश शिकपाच्या आक्रमणां मधेंय कोंकणी आनी तुळू भासो सामखें बळिषट जाल्यात. विदेशी मिशनरिंनी घाल्ली बळिश्ट बुन्याद साहित्य आनी संशोधनांत गुंडायेच्या वावराक मजत जाल्या. क्रिसतांव मिशनरी कन्वेडतर कर्च्या उद्देशानंच आयिल्ले तरी, भास आनी साहित्याक ताणीं दिल्ली देणगी आज हांगासर सर्व संग्तिच्याकी चडीत उगडास कर्तात आनी नियाळतात.

## आधार सूची


Alberts, I. (1989). *Herman Fredrick Moegling*. Karnataka Patrika Academy.

Crump, F. J. (1952). The Gutenberg Bible. *The Catholic Biblical Quarterly, 14*(3), 213-218.

Codialbail Press. (1963, December). *Raknno, 25*(50),151-153.

English medium in govt.schools. (2018, January 8). *The Hindu*. https://www.thehindu.com/news/national/karnataka/english-medium-in-govt-schools–is-our-policy-decision-deputy-cm/article25934946.ece

Havanur, S. (2004, January). Herr Kannada. *Deccan Herald*. https://web.archive.org/web/20070929123334/http://www.deccanherald.com/archives/jan182004/artic6.asp

Jattanna, E. (2015). Tulu sahityakke Basel Missionarigala sadhanaeya hadi [The efforts of Basel missionaries for Tulu literature]. In K. S. Sundar Raj (Ed.) *200 years of Basel Mission: Mission Moves 2015* (pp. 43-51). Karnataka Theological Research Institute.

Kesavan, B. S. (1988). *History of printing and publishing in India*. National Book Trust.

Konkani Institute. (n.d). http:// staloysiuscollege.co.in/academics/ institute-of-konkani

Madtha, P. (2005). *On eagle's wings: An intimate history of 125 years of St Aloysius College*. St Aloysius College.

Moore, J. (1905). *The history of the diocese of Mangalore*. Kodialbail Press.

Padmanabha, K. (1990). *A comparative study of Tulu dialects* [Unpublished doctoral dissertaion]. Udupi: Rashtrakavi Govinda Pai Research Centre.

Pinto, P. F. (1999). *History of Christianity in coastal Karnataka*. Samanvaya.

Prabhakara, P. W. (2015). Basel Mission mattu kaigarika belavanige [Basel Mission and industrial development]. In K. S. Sundar Raj (Ed.). *200 years of Basel Mission: Mission Moves 2015* (pp. 125-131). Karnataka Theological Research Institute.

Sanjiv, D. (2016, July). 626 students from 16 Dakshina Kannada schools opt for Tulu. *Bangalore Mirror.* https://bangaloremirror.indiatimes.com/news/state/626-students- from-16-dakshinakannada-schools-opt-for-tulu/articleshow/53217026.cms

Shiri, G. (2009). Tulu hymnal: A theological appraisal. In G. Shiri (2009). *Wholeness in Christ: The legacy of the Basel Mission in India.* Karnataka Theological Research Institute.

Tulu language (n.d.). *Karnataka Tulu Sahitya Academy.* http://tuluacademy.org/de/tululanguage/

Twitter campaign to include Tulu in eighth schedule of constitution. (2017). *The Hindu.* https:// www.thehindu.com/news/cities/Mangalore/twitter-campaign-to-includetulu-in-eighth-schedule-of constitution/ article 19459992.ece

Vas, C. (2007). *The contribution of Christian missionaries to journalism in Karnataka* [Unpublished doctoral dissertation]. Mangalore University.

Wendt, R. (2006). An Indian to the Indians?: On the initial failure and the posthumous success of the missionary Ferdinand Kittel. In R. Wendt (Ed.). *Between cultures: Ferdinand Kittel's missionary ways in India ranging from strategies of cultural accommodation to scientific research, illustrated by selected documents* (pp. 111-130). Wiesbaden: Harrassourtz Verlag.

नंदिहाळ, जी. एस. (2003). *कन्नडक्के ¯ बासेल मिषनरिगळ कोडुगे.* मनोहर ग्रंथमाले

नोरोन्हा, ई. (1996). *कन्नड धार्मीक साहित्यक्के ¯ क्रैसत मिशनरिगळ कोडुगे.* भाग्यवन प्रकाशन.

नोरोन्हा, एफ. पी. (1963, दसेंबर 22). हार्णी मांय भाशेची सेवा केली. *राकणो, 25*(50), 31-37.

प्रभाकर, पी. डबल्यू. (2018). *भारतदल्ली बासेल मिषन.* सुधान – किटेल सेंटर फोर डिवोषनल स्टडीस.

वालडर, एम. (1998, दसेंबर). धार्मीक साहित्याद्वारीं कोंकणेची वाडावळ. *राकणो, 60*, 103-109.

सलडान्हा, एम. (1963, दसेंबर). कोंकणी विद्वांस माफे बाप. *राकणो, 25*(50), 49-50.

***(मेलवीन एस. पिंटो,*** *कोंकणी लेकक, संसोधक. प्रसतूत सां. लुवीस कोंकणी संस्थ्याचो निर्देशक,* अमर कोंकणी *षणमासिकाचो संपादक संगीं रेडियो सारंग 107.8 FM आनी AIMIT हाचो निर्देशक जावन सेवा दिता.*

***डेलविटा वेगस*** *सां लुवीस कोलेज कोंकणी संस्थ्याची वावराडी.)*

# कर्नाटकांतल्या कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहित्याचेर एक सुकण्या नदर

जोकीम पिंटो

## सारांश:

कोंकणी उलयतल्यां मधें मंगळुरी कोंकणी समुदाय भोव व्हड न्हय तरी, कोंकणी आनी ताच्या 42 बोलिंतल्या ओट्ट साहित्याक तुलन केल्यार, मंगळुरी कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहित्याचो गात्र कांय ल्हान न्हय. मंगळुरी कोंकणी क्रिसतांवांचे म्हाल्गडे, गोंयाक कोंकणी हाडन आयिल्ले सारस्वत, वेदीक काळाचे आनी तवळ थावनंच शिकपी, जाणारी जावनासल्ले तरी, कोंकणी उपरांत उदेल्ल्या मराठिंत पिकयिल्लें तितलें साहितीक बेळें कोंकणिंत पिकवंक सकलेनांत. पूण मंगळुराक पावल्ल्या ह्याच लोकान रचल्ल्या साहित्याचें मट्ट तुकून पळेयनासतां, ओट्ट साहित्याचें माप पळेयलें तर कोंकणी मायेचें साहित्य भंडार भरोन वोमतोंचें दिसता. हें लेखन कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहित्यांतल्यो मटव्यो काणियो, कादंबरी आनी कविता शेतांत येदोळ जाल्ल्या वावराचेर एक सुकण्या नदर मार्ता.

***सार सब्द : अस्मिताय, सारस्वत ब्राह्मण, छापो, दरजो, पुरविलें साहित्य***

## 1. प्रसतावन

विवीध जाती, धर्म, जनांग, भासो, संसकृती आटापून 'विविधतेंत एकता' म्हळ्ळ्या मांताखाल अभिवृद्धे कुशीन मेटां काडचो देश भारत. जात्यातीत तत्वांचेर रूपीत जाल्ल्या ह्या देशाच्या संविधानांत 'सर्व नागरीक समान' म्हळ्ळो तीरल आटापलला आसोन, हाचे खाल वसती कर्च्या अंदाज 130 कोरोड लोकान उलंवच्या 780 भासां पयकी (हांच्यो बोली[1] लेकाक घेनासतां) 121 मुकेल भासो[2] आसात (Anand, 2013). पांच भाशे कुटमांनी वांटून गेल्ल्या हांच्ये पयकी इंडो–युरोपियन भाशे कुटमांतल्या, इंडो–आऱ्यन भाशे पंगडांत 21 मुकेल भासो आसोन, भारताचो 78.05 लोक ह्यो भासो उलयता (Fazal, Ali & Vashistha, 2019) इंडो आऱ्यन भाशे कुटमांतल्यो चडश्यो भासो उत्तर भारतांत चाल्तेर आसात. हांच्ये पयकी हिंदी भोव चड म्हणजे, भारताच्या 44% लोकान उलंवची भास. ह्ये भाशे कुटमांत हिंदी संगीं बंगाली, ओडिया, मराठी, गुजराती, पंजाबी, काश्मीरी, राजस्थानी, सिंधी, अस्सामी, मैथिली, कोंकणी भासो मुकेल. 2011व्या जनगणते पर्माणे भारतांतलो 22,56,502 लोक कोंकणी उलयता तर, तांतल्या 21,46,906 जणांनी कोंकणी आपली मांय भास म्हण उल्लेक केला (Census of India, 2011).

भारतांतल्या हेर खंच्याय भाशेन फूड कर्नातल्ले तितले संकश्ट फूड केल्ल्या कोंकणी

भाशेच्या जुम्ला चरित्रेचें अध्ययन कर्ताना, ह्या भाशेचेर जाल्ल्यो दाडी, ह्ये भाशेन आपणा भितरच कर्न घेतल्ल्यो दाडी[3], ह्या दाडीं वरवीं उदेल्ले वांटे–फांटे, आनी ह्या वांट्या–फांट्यांक लागोन असकत जाल्लो कोंकणी लोकांचो एकवट, कोंकणेक चेंचुंक पळयिल्ल्या मराठीक फायद्याची जाल्ली कोंकणी लोका मधली ही फूट, ह्ये फुटेची विसताराय चडवन आपली दाळ सिजवंक पेचाडल्ल्या राजकारणिंचे भुरशे राजकीय खेळ, ह्या खेळाचे पांशो (dice) जाल्यारी आपल्या मांयभाशे थंय साद्या कोंकणी लोकान दाकयिल्ली निषठता, आनी ह्या निषठतेचो फळ जावन कोंकणीन राज्य तशें राश्ट्र मट्टार आपणायिल्ली मान्यता गोंयच्या इतिहासाच्या पानां–पानांनी दाखल जाल्ली पळेवंक मेळता. हाच्या परिणामाची, प्रभावाची साय अजून गोंयच्या साहित्यांत पातळ तरी, झळकाता. पूण ती गोंयची गड उत्रोन मंगळुरी कोंकणी लेखकांच्या (खडाप आनी चाफ्राक सोडन) लिखणेचेर प्रभाव घालुंक सकोंक ना– अशें भोग्ता. हाका लागोन कानडी लिपियेंतल्या मंगळुरी कोंकणी साहित्याक गोंय भायली वेगळीक एक अस्मिताय आसा जाल्या. हांगासर, कोंकणी उदेवन, वाडोन, व्हाळोन आयलेल्या इतिहासांतले मयला फातोर दाखल कर्च्ये संगीं, ह्याच वाटेंतल्यान चमकोन मंगळुराक पावलेल्या, गोंयच्या कोंकणेचो एक वांटो जावनासच्या, कानडी लिपियेंतल्या मंगळुरी कोंकणिंतल्या ओट्ट साहित्याची एक मटवी झळक आसा.

## 2. कोंकणी भाशेचो उगम

3000 वरसांचो इतिहास आसच्या भारत भुंयवयल्या इंडो–आऱ्यन भाशेचो एक फांटो जावनासच्या कोंकणिच्या सुरवातेचो इतिहास उसतिताना हें स्पश्ट जाता की, क्री. पू. 1500 वरसां आदीं आऱ्यन लोक भारताक आयले तेदनांच तांच्या भाशेच्या अभिवृद्धेचीं दोन हंतां; पयलें– परनें इंडो–युरोपियन आनी दुस्रें– इंडो इरानियन हंत उत्रोन जाल्लीं. इंडो युरोपियन हाचो इंडो–आऱ्यन हंत भारतांत सुर्वातलो. हो हंत मुकेल तीन हंतांनी वाडोन आयलो. पयलो: पर्नो इंडो आऱ्यन हंत (OIA क्री.पू. 1500-600), दुसरो: मदलो इंडो–आऱ्यन हंत (MIA क्री.पू. 600 - क्री.श. 1000), आनी तिस्रो: नवो इंडो–आऱ्यन हंत (NIA क्री.श. 1000 उपरांतलो) (Chatterji, 1940, p. 135). ह्या हंतांनी चमकोन आयलेल्या कोंकणेचो जल्म कसो जालो म्हळ्ळें जोस पिरेरा (1973) अशें उत्रायता–

> आऱ्येतर देश भारताक आयलले सारस्वत ब्राह्मण आनी त्साड्डी (पंजाबी चड्डा? चारडी) उत्तर भारताची भास हाडन आयले. उत्तरा थावन दक्षिणाक येंवच्ये वाटेर असतमते भारताची नागरी प्राकृत आनी पुरविल्या भारताची गीत–भास, जी उत्तर दख्खनांतली–चडशी महाराश्ट्रीय, घेवन आयले. आटव्या शेकड्या तवळच ते कोंकणांत वसतेक लागल्ले. लगबग दोन शेकड्यां उपरांत प्राकृतांच्या मेळवनेक लागोन कोंकणिचो जल्म जालो (p. 2).

आटव्या शेकड्यांत उत्तर भारताथावन गावड सारस्वतांनी हाडल्ली भास पूर्ण प्रमाणार वाडोंक नातल्ली म्हळ्ळया पिरेराच्या वादाक पुश्टी दिंवचे तसलीच अभिपराय दिता रोद्रीगीश (1982):

> आऱ्य लोक, सुमार क्री.पू. 1500 आदीं वा त्या होऊन पुरवीं जायत, वायवी (ओब्डीणण हज्ल्ण) सीम उतरून, भारतांत प्रवेशले आनी अनेक

दिशांनी शिंपडले. ह्या इंदो–आऱ्य लोकांची एक पंगत सारस्वत ब्राह्मण आनी तांच्या वांगडा पंजाबी क्षत्रीय, सगळे उत्तर भारती भास उलवपी, दखीण दिशे देंवले, आनी वाटेर पश्चीम भारती आनी उत्तर देकांनी विवीध प्राकत आपणावन, भोव लांब पंथ क्रमविल्या उपरांत सुमार क्री.पू. आटव्या शतकांत कोंकणाक पावले. ह्या प्रांतांत, दोन शेकडे मागीर, म्हणजे सुमार 10व्या शतकांत वयर उल्लेखलल्ये भासांच्या मेळांतल्यान पयली आधुनीक इंदो–आऱ्य भास, म्हळ्यार कोंकणी, निर्माण जाली, आनी ती 11व्या शतकांत, द्राविदी राज्याखाल कन्नड भासेचो बरोच प्रभाव घेवन पूर्ण पृषटी पावली (पा. 12).

ह्या दोनयी इतिहासकारां पर्माणे कोंकणी भास पूर्ण प्रमाणार वाडल्ली 11व्या शेकड्याच्या आसपास म्हळ्ळें कळोन येता. म्हणतच, मराठी उदेवन येंवच्या दोन शतकां पयलेंच कोंकणी पूर्ण प्रमाणाची भास जावन रूपीत जाल्ली.

## 3. दक्षीण भारताक कोंकणी भाशेचें येणें आनी वाडावळ

गोंयाक कोंकणीच्या येण्या विश्यांत गावड सारस्वत ब्राह्मणांच्या पात्येणे परमाणे गोंयाक कोंकणी भास हाडल्ली गावड सारस्वत ब्राह्मणांनी[4] (गोंयांथावन मंगळुराक देसांतर आयलल्या कोंकणी क्रिसतांवांचे पुरवज). गावड सारस्वत ब्राह्मणांच्या (ह्या फुडें– सारस्वत्[5]) ऐतिहासीक देसांतरा विशीं संसकृतांत लिखलेल्या 'स्कंद पुराणा'[6] 'तल्या 'सह्याद्री खंडा' 'त वाचुंक मेळता. हाच्ये परमाणे परशुरामान पश्चीम बंगालाच्या त्रिहोत्र (आतांचें तिह्रत) थावन कोंकणी मांय भाशेच्या 66 सारस्वतांक गोवापुरीक हाडलें[7]. हो लोक गोंयांक पांय तेंन्ताना जाग्यांतर कृषी करपी आदिवासी[8] (कोक्ना, म्हार, कुणबी, वेलीप) लोक थंयसर वसती कर्न आसल्ले (Kosambi, 1962). हांच्ये मधें वसती सुरवातलेल्या सारस्वतांनी जात पद्धत चाल्तेक हाडली. हाका लागोन गोंयचो मूळनिवासी आपल्याच गांवांत निमण्या वर्गाचो नागरीक जावंक पावलो. हांच्ये मधलो थोडो लोक रानवाटी सुवात सोधून गेलो तर गांवांतच उरललो थोडो आपली भुंय–भाट होगडावन ब्राह्मण आनी मराठी 'गांवकारांच्या'[9] गाद्यांनी घोळोंक लागलो. गांवचो सगळो हार–बार, न्यायनीत हेच गांवकार पळेवन घेताले. शासनदार रायाक हेच तिरवो बांदताले. तवळच्या लोकाची सामाजीक जिणी फकत कृषे भोंवर्तीं बांधून हाडल्ली आसोन राज्वटकी चलंवचे राय, लोकाच्या सामाजीक/धारमीक जिण्ये रितिंनी मेतेर जायनातल्ले. बगार गांवकारच समाजेचे मुखेली जावन रिती–रिवाजी बांधून हाडताले आनी चलवन व्हरताले. बारदेस, तीस्वाडी, सासशटी गांवांनी सारस्वतच गांवकार जावनासल्ले (नायक, 2009, पा. 28).

गोंयां पावल्ले सारस्वत कृशीक जावनासल्ले तरी क्रमेण वेपाराक देंवोन भोवच दुडवादीक जाले. क्री.श. 1314व्या वरसा देवगिरी संगीं गोंय मुसलीम रायांखाल येंवच्या वेळार गोंय भारतांतलो भोव सूख–संतोसाचो प्रदेश जावनासल्लो. पूण, मुसलीम रायांच्या आडळत्या काळार गोंयच्या हिंद्रांचीं जायतीं दिवळां नास केलीं आनी जायत्या हिंदू लोकाक मुसलीम धरमाक कन्वेडतर केलें. जायते सारस्वत ह्या वेळार गोंय सांडून दक्षीण भाराताक, मुकेल जावन कर्नाटक आनी केरळाक देसांतर गेले.

सोळाव्या शतमाना आदीं गोंयांत दिवळांच शिकपा केंद्र जावनासल्लीं. हांगासर चडशें धारमीक शिकप मात्र दिताले. शिकपाक आनी बरपाक संसकताचो वापार जातालो (Chandra, 2007). हें, आपल्या The language situation of Goa in the 16th and 17th century म्हळ्ळ्या आपल्या लेखनांत प्रोफेसर मिलिंद मालशे अशें दाखल कर्ता:

> पर्न्या काळांत शिकप फकत उंचल्या लोकाचें भाग जावनासल्लें. उंचल्या वर्गच्या लोकाक जें शिकप मेळतालें तें फकत संसकंतांत मेळतालें. रायकुंवरांच्या वापाराक तयार केल्लीं पुसतकां सोडल्यार भारतांत त्या काळार स्थळीय भाशेच्या अध्ययनाक कसलिंच पद्य पुसतकां नानल्लीं. स्थळीय भासो अव्यस्थीत रितीन शिकयताले. ह्या भाशेंक व्याकरण शुद्धता वा भाशेंत एकसार्कंपण नातल्लें. पत्रव्यवहार आनी लेकपाक अनुकरणावर्वीं निर्वहण जातालें (Malshe, 1995).

ह्या काळार गोंयांत कोंकणी फकत उलवपाची भास जावन उरली (Katre, 1942). पुडतुगेजांचें येणें जातासर उत्तर कोंकणांत उलंवची भास कोंकणी आनी राजभास मराठी, दक्षीण कोंकणांत उलंवची भास कोंकणी आनी राजभास कन्नड जावनासल्ली (देकोसता, 2005, पा. 4). यादवांच्या काळार (1187-1317) बर्पाक संसकंताच्याकी सलीस आसची मराठी भास वापारुंक सुर्वातली आनी ती लोकामोगाळ जाली (Mitragotri, 1992). हाच्याकी आदीं कदंब रायांनी (960-1310) गोयांत परिचीत केल्ली पुरातन कन्नड लिपी 17व्या शतमाना पऱ्यांती वापाराचेर आसल्ली. कन्नड संगीं मराठी बरंवच्याकयी ही लिपी वापार्ताले (Mitragotri, 1992).

कोंकणी भास संसकृताचें शीदा उत्पन्न आनी गोंयच्या सारस्वतांची मांय भास तरयी सोळाव्या शतमानाच्या सुरवे पऱ्यांत गोंयचा सारस्वत लोका मधें कोंकणींत लीखल्ल्या साहित्याचे खुरू पळेवंक मेळानांत. बगार फकत संसकृत, कानाडी आनी मराठी भाशेंत फात्रांनी, तांब्याच्या फोळियांनी कांतयिल्लें मात्र इतिहासगारांच्या सोधनांक सांपडलां (ibid).

1327व्या वरसा कदंब कुळ्येच्या निमाण्या रायाच्या मर्णा संगीं गोंयचा गांवकारांच्या वैभवाचो एक अद्याय संपलो म्हण्येत. उपरांत सारस्वतांचे विनवणेक्[10] पाळो दीवन पुडतुगेजांनी गोंय स्वादीन कर्न सारस्वत लोकाक संपूर्ण स्वतंत्र्[11] आनी हेर सवलातायो[12] दिता पऱ्यांत ह्या लोकान निरंतर मुसलीम शासनदारां थावन कश्ट सोसिजे पडले.

## 4. पुडतुगेजांच्या आडळत्याखाल कोंकणी

सोळाव्या शेकड्या पुरविल्या कोंकणी साहित्याची एक मात्र गवाय आसा कवी ज्ञानेश्वर हाची रचना 'ज्ञानेश्वरी'. मुळान ही मराठी कृती तरी हांतूं कोंकणी सब्दांचो जायतो वापार जाला. रोद्रीगीश (1982) हाणे 'ज्ञानेश्वरी'चो असो उल्लेक केला:

> ज्ञानेश्वर, हो तरूण महाराषट्री कवी संत (1275-1297). हांणी मराठी भास स्थापली आनी साहित्य रचलें; ताच्या अपरिमीत साहित्यीक बर्पावळिंत भोव नांवलौकीक ग्रंथ म्हळ्यार भगवदगीतेचें पद्य विवरण (Metrical paraphrase) 'ज्ञानेश्वरी'. राजकी स्वतंत्र देशाची भास जावन, मराठिची प्रगती सडसडीत वरतली, पूण कोंकणी पाटीं उरली कारण ती सदांच

> पकऱ्या जुल्माखाल आसली; तरियिपण तिची परिपूर्ण पषट आनी संपन्न शब्दसंग्रह हांकां लागून सावकास वाडत गेली. पिर्गी धर्मप्रचारक 16व्या शेकड्यांत घुसले पऱ्यांत्र आनी तेदळां च्यार शेकडे पासून जेम काडली; परंत तांच्या धर्मपरचाराचो उपसंसकार कसो, पाद्रिंनी शब्द शासत्राचीं आनी धर्मांचीं साहित्यीक पुसतकां दवरलीं, आनी ह्या वरवीं कांय कोंकणी पुर्विली सामाग्री सांबाळून मेळली, जिका आज भोव थोर मोल पावता कित्याक तिच्या आधारान कोंकणी भाषेची पुनर्गती करुंयेत (पा. 12).

मधुकर डी. चंदावरकर हाणें कोंकणीक तर्जण केल्ल्या ज्ञानेश्वरी (2015) ग्रंथाच्या पाटल्या पानार दिल्ल्या ओळके झळकेंत मणकीकर (2015) अशें म्हणता: 'मूळ ज्ञानेश्वरिचे पद्य सांत ज्ञानेश्वरान दिल्ले भगवदगीतेचें एक विशेस निरूपण. जाल्यारीय ह्या ग्रंथ ज्ञानेश्वरी त्या काळाचे ब्रम्हावरगिलें संसकृत प्राबल्य दाखून विमोचन घेवून जनसामान्य प्राकृत (आदी मराठी) निरूपणेर रचन जालां'. ज्ञानेश्वरिंत कोंकणी सब्दांचो वापार जाला म्हळ्ळें नीज तरी, तो गृंथ मुळान मराठिंत रचला.

सोळाव्या शेकड्या आदीं गोंयांत आसल्लें गिरेसत कोंकणी साहित्य पुडतुगेजांनी नास केलें/करयलें म्हळ्ळी पात्येणी रुजू करचे कसलेय दाकले नांत. ह्ये विशीं प्रियोल्कर (1962) अशें म्हणता: 'पुडतुगेजा पन्र्या जिकपांत (old conquest) जांव, वा नव्या जिकपांत (new conquest) जांव खंचेंय कोंकणी साहित्य लाबल्लें ना. परन्या जिकपांत सुर्वेर कोंकणीचेर खाडूं घाल्लें तरी, नव्या जिकपाच्या सुरवेर थावनंच कोंकणीचेर कसल्योच बंदड जांव, इंकविजिसांव जांव घाल्लें ना. जर आदलें कोंकणी साहित्य आसल्लें तर ह्या सुवातेंनी तें मेळाजेच आसल्लें' (Cited in Botelho, 2007, p. 54).

अल्मेदा 'पुडतुगेजांच्या येण्या पयलें कोंकणींत गिरेसत साहित्य आसल्लें आनी पुडतुगेजांनी आपली राज्वटकी स्थापन कर्चे उमेदीन तें नास केलें' म्हणतेल्यां प्रास वेगळें चिंतप उचार्ता:

> पुडतुगेजांचें आडळतें आसल्लें फकत गोंयच्या एका वांट्याचेर मात्र. पूण त्या काळारच कोंकणी उत्तराच्या रत्नगिरी थावन दक्षिणाच्या केरळ पऱ्यांत विसनारलेली. म्हणतच, ह्या प्रदेशांतल्या त्या काळाच्या कोंकणी साहित्याच्या बोर्गोळाक पुडतुगेज कारण जावंक सकानांत. त्या भायर मराठी आनी कोंकणी साहित्याचो फरक कळीत नातलेल्या पुडतुगेजांनी तवळ आसलेल्या ओट्र साहित्या मदलें फकत कोंकणी साहित्य विंचून नास कर्चो संभवयी भोव उणो आसताना, थोडें तरी कोंकणी साहित्य कशें उराना जालें? ब्रागांत आसच्यो सोळाव्या शतमानाच्यो हात प्रतियो संखो 771 आनी 772 सयत कोंकणेंतलें मौखीक साहित्याचें रोमी लिपिंत दाखलीकरण शिवाय, तवळ हेर लिपिंत आसलेल्या कोंकणी साहित्याचें लिप्यंतरीकरण न्हय (Cited in Botelho, 2007, p. 54).

गोंयां भायल्या पुर्विल्या कोंकणी साहित्याक आन्येक रुजवात सोळाव्या शतमानांत वा ताच्याकी आदीं गोंय सांडून केरळा पावल्ल्या सारस्वत समुदाया मधलो 'गोड्डे रामायण'.

केरळांतल्या कोच्चिंतल्या मुंडिशेरी म्हळ्ळ्या कुटमाच्या दासतानांत मेळल्लें, ताळियांनी बरयिल्लें हें रामायण कोच्चिनांतल्या कोंकणी भाशे संस्थ्यान 1989 इस्वेंत छापून परगटलें. हाचें मूळ लगबग अडेज शतमाना (अट्राव्या शतमानाच्या मधल्या भागांत रचीत जाल्लें) आदलें म्हळ्ळो अंदाज केला (Rao, 1989, p. 5).

सोळाव्या शेकड्यांत गोंयांत रचल्ल्या कोंकणी साहित्याक मेळच्यो दोन रुज्वाती पुडतुगलांतल्या ब्रागांतल्या मिन्हो विद्यापीठाच्या ग्रंथालयांत आसात. हीं दोनयी रचनां रोमी लिपिंत आसोन, सोळाव्या शतमानाच्या सुरवेर गोंयांक पावलेल्या जेज्वीत मिशनरिंनी स्थळीय कोंकणी वेक्तिंकर्ना वाचवन/सांगवन्[13] हात बर्पान बरवन दवरल्लीं जावनासात. हांच्ये पयकी पयलें रचन 'महाभारत' (Codex 771)[14], आनी दुसरें रामायण (Codex 772). हांच्ये संगीं हेर थोड्या मटव्या धार्मीक कथांच्यो हात प्रतियोय आसात. हीं, तशेंच उपरांतलीं सर्व कोंकणी बर्पां आनी दसतवेजां पुडतुगेजांच्या काळार रचल्लीं जावनासात (Miranda, 2011, p. 5).

पूण, त्या काळार 'कोंकणीक स्वताची मूळ लिपी आसल्ली तरी, मिशनरिंनी ती वापारनासतां कोंकणी बरंवच्याक रोमी लिपी वापारली'– अशें तवळच्या मिशनरिंनिंच उल्लेक केल्लो आसा[15] (Miranda, 2011, p. 1). मिशनरिंचो हो उल्लेक गोंयांत तवळ कोंकणी बर्पाक पुरातन कानडी लिपी वापारताले म्हळ्ळ्याची रुज्वात तरी, कोंकणी भाशेचें व्याकरण तवळ पऱ्यांत तयार जावंक नातल्लें म्हणता गोम्स (2004)-

> नव्या उदेवाच्या (Renaissance) उमेदीन भरलेल्या मिशनरिंनी कोंकणी शिकच्या उद्देशान कोंकणी भाशेचें मुळावें व्याकरण बरंवच्याक त्याच वरसा याजकी दीक्षा जोडललो गोंयचो स्थळीय सेमिनरिसत करांबोली हळ्ळेंतल्या भाव आंद्रे वाजाक विंचलो. गोंय सां पावल कोलेजिच्या ह्या विद्यार्थीन विदेशी पाद्रिंक देशी भास शिकंवच्ये खातीर तयार केल्ल्या ह्या कोंकणी व्याकरणाच्या मुळाव्या कडनिलेच्या आदारार कोंकणी भाशेचें गूंड आध्ययन केल्लो जेज्वीत याजक तोमस स्टीपन हाणें 1617व्या वर्सा शिकपाक योग्य जांवचे तसलो उंचलो शब्दकोश तयार केलो. 1640व्या वर्सा तो मोकळीक केलो (p. 233).

खंच्याय लोकाची भास साहित्य पद्वेक चडोंक हीं तीन कारणां जाय म्हणता बेंद्रे– 'पयलें – आयकोंक अत्रेगची बहुजन समाज, दुस्रें– प्रतिषठेक अत्रेगचो पंडीत वर्ण (साहित्य रचपी) आनी तिस्रें– कीरतीक आशेंवचे राय (साहितिंक पाटिंबो दितले)' (मुगळी, 2022, पा. 17). ताच्ये पर्माणें हांतलीं खंचिंय दोन कारणां जर अनकूलवंत जालीं तर, तिसरें कारण अपापीं अनकूल जाता. खोट्या नशिबाक लागोन कोंकणीक हांतलीं दोन कारणां अनानकूलाचीं वा बेपारवाचीं जालीं. कोंकणी आयकोंक अत्रेगची बहुजन समाज आसली तरी, प्रतिषठेक अत्रेगचो पंडीत वर्ग जांव, कीर्तीक आशेंवचे राय जांव कोंकणी मायेच्या गर्भाथावन तवळच्या काळार उदेवंक नातल्ले. देकून कोंकणेक आदीं रायांचो जांव आनी उपरांत सर्काराचो जांव आस्रो मेळ्ळोना. 19व्या शेकड्याच्या मधल्या भागांत म्हणजे 1853 इस्वेंत गोंयचो मुकेल काऱ्यदरशी जावन आयिल्ल्या डो। जोकीम कूर्ज रिवारान कोंकणीक दिल्लो बळवंत पाटिंबो मात्र आडळत्यादारां थावन कोंकणीक मेळल्लो पयलो पाटिंबो म्हणयेत.

## 5. कानडी लिप्येंतलें कोंकणी साहित्य

भाशे तज्ञ नारायण गोविंद कळेल्करान कोंकणी भास जेराल थरान तीन पंगड जावन विंगड केल्या (Sardesai, 2006, p. 5). पयल्या पंगडांत येता महाराश्ट्राच्या सिंधदूर्ग प्रांत्यांत उलंवची उदेंती / मुडला कोंकणी वा मालवानी कोंकणी, हाचेर मराठिचो प्रभाव चड. दुसरो पंगड: गोंय आनी उत्तर कन्नड प्रदेशांनी उलंवची 'मध्य कोंकणी'. गोंयांत हाचेर पुडतुगेज भाशेचो प्रभाव्[16] चड तर उत्तर कन्नडांत हाचेर कन्नडाचो प्रभाव चड. तिसरो पंगड 'दक्षीण कोंकणी'. मंगळूर, उडुपी, प्रदेशांनी उलंवच्या ह्या कोंकणींत तुळू आनी कन्नडाचो प्रभाव चड तर, कासरगोड आनी केरळांत उलंवच्या ह्या कोंकणींत मलयाळम भाशेचो प्रभाव चड. ह्या तीन पंगडांनी कोंकणिच्यो सुमार 42 बोली आटापून आसात. असल्या बोलीं मधें एक जावनासा मंगळुरी कोंकणी क्रिसतांवांची कोंकणी. कोस कोस पर बदले पानी, चार कोस पर वाणि[17] (Lobo, 2018) म्हळ्ळ्या हिंदी सांगणेपरीं मंगळूर, उडुपी, चीकमंगळूर दियेसेजिंनी शिंपडलेल्या कोंकणी क्रिसतांवांनी उलंवचा ह्या कोंकणिंतयी गांवां तेकीद तफावत आसा तरी, मंगळुरांत वापार्ची कोंकणीच वयर कळयिल्ल्या जाग्यांनी बरपाक उपेग करतात.

1556व्या वरसा जेज्वितांनी गोंयच्या सां पावल कोलेजिंत देशांतलो मात्र न्हय, असियांतलो पयिल्लो छापखानो सुर्वातचे संगीं (Nadkarni, 2015, p. 15) भारतांत छाप्या क्रांती आरंभ जाली. आनी आमा सरवांक कळीत आसच्ये परीं भारतांत छापल्लो पयिल्लो बूकच कोंकणी भाशेचो– रोमी लिपिंत. हें गोयांत घडलें तर, विवीद कारणांक लागोन त्याच वेळार, ताचे आदीं वा ताचे उपरांत कर्नाटक, तांतल्या तांतूं मंगळुराक पावल्ल्या गोंयकारांनी, जांव क्रिसतांव वा सारस्वत, एकुणिसाव्या शेकड्या पऱ्यांत कोकणिंत साहित्य रचल्ले विशीं कसलेच दाखले मेळानांत. मंगळुरांत 1841व्या वरसा करावळ कर्नाटकांतलो पयलो छापखानो बासेल मिशन प्रेस सुरवातलेंच साहित्य छापून परगटची रीत सुरू जाली. छापून परगटलेल्या कानडी लिपिंतल्या कोंकणी साहित्याची वाडावळ दाखल करताना, ह्या लेखनांत हें साहित्य सकयल दिल्ल्या परमाणे विंगड केलां:

## 5.1. कानडी लिपिंतलें धार्मीक साहित्य

कानडी लिपिंत छापल्लो पयिल्लो बूक 'सोमी जेजू क्रिसताची पाशांवाची कथा'. हो बूक बासेल मिशन प्रेस सुरू जाल्ल्या सत्रा वर्सां उपरांत, त्याच छापखान्यांत 1858 इस्वेंत छापून आयलो. 1882 इस्वेंत जेज्वितांनी मंगळुरांत कथोलिकांचो 'कोडियालबैल छापखानो' उगडलो. सुर्विल्या वरसांनी हांगासर रोमी लिपिंत मात्र छापताले. क्रमेण स्थळीय भाशेंत छापुंक जाय ती साहेत हाडवन कन्नड लिपिचीं पुसतकां आनी पत्रां छापुंक सुरवातलें. हाच्ये उपरांत एकेकलेच कोंकणी बरवपी उदेले. तरी कानडी लिपिंत छापल्लो पयिल्लो बूक 'सोमी जेजू क्रिसताची पाशांवाची कथा' परगटलेल्या वर्सा थावन 1882व्या इस्वेंत कोंकणी व्याकरण छापून येंवचे पऱ्यांतल्या 24 वर्सांच्या लांब आवदेंत कोंकणेंत कितें, कितलें छापलां म्हळ्ळ्याचे कायिंच दाखले नांत. तवळच्या लोकाक कोंकणी बर्पा रितिंत जाणवाय जांव, बरयललें फायस करुंक पत्रां जांव, वा लौकीक साहित्य बरंवचो आवकास जांव नातल्लेंच हाका मुखेल कारण. नोबेल साहित्य प्रशसती पुरसकार (1949), दोन पावटीं पुलिटझर

(1955, 1963) आनी दोन पावटीं राश्ट्रीय पुसतक पुरसकार (1951, 1955) विजेत साहिती विलियम फोकनान 'वाचा, वाचा, वाचा. मेळल्लें सर्व वाचा – कसरो, ऊंची, बरें आनी वायट. आनी पळेया ते कशे बरयतात...' म्हणचेपरीं वाचून पळेवंक कितेंच नासतां वाचपा भुकेन उपाशीं आसलेल्या मंगळुरी कोंकणी क्रिसतांवांची वाचपा तान निवरावंक आनी तांच्ये थंय बर्पा झर उमाळुंक कारण जातल्यांचें येणें तवळ पऱ्यांत तांचे मदें जावंक नातल्लें. ते आयिल्लेच 1878व्या वरसा!

तांच्या येण्या आदीं साहित्य रचपाचें देणें आसोन, बरवंक आनी फायस करुंक आवकास नासतां आळवोन गेल्ल्यां विशीं 1937व्या वरसा फायस जाल्ल्या 'कोंकणी दिरवें' पत्राच्या रुप्योत्सव अंक्यार, पत्राचो स्थापक संपादक लुवीस मसकरेंञ्ज (1998) अशें बरयता:

> 'आतांचेबरी इंगलेज सर्काराच्या सुखा–सावळेंत ते (आमचे म्हालघडे) आसल्ले जाल्यार, आमचे मधें आज कितल्या कोंकणी कवेश्वरांचीं आनी लेखकांचीं पुसतकां आसतीं कोण जाणा? हा! कितल्यो हुश्यार तकल्यो, आपल्या मतिची सोबाय उच्चारुंक उपाय नासताना फुगार जावन अंतरल्यात! आनी ताणी बोरैल्लें जाल्यार, गेल्या त्या दोनशीं तिनशीं वर्साक कोंकणी लिखितांचो दाळो केदो जातोगी!' (पा. 7).

मुंबंयत जर्मनिच्या जेज्वितांनी, कल्कत्तांत बेलजियमाच्या जेज्वितांनी, त्रिच्चिंत फ्रेंच जेज्वितांनी केल्ली शिकपा क्रांती पळेवन 1858व्या वरसा मंगळुरी कथोलीक मालघड्यांनी जेज्वितांक मंगळुराकयी धाडिजे म्हण तवळच्या पापालागीं विनंती केल्ली. भर्ती वीस वरसां उपरांत 1878 दसेंबर 31वेर मो। निकोलस पगानी हांच्या मुखेल्पणाखाल इटालियन जिज्वितांचो पयलो पंगड सात जण याजक आनी दोगां ब्रदरां संगीं मंगळूर बंद्राक येवन पावलो (गौड, 2019, पा. 1-2). हांच्ये मधलो एकलो जावनासलेल्या फा। आंजेलो फ्रान्सीस सावेर माफेयी हाणें मंगळुराक पावल्ल्या चारच वर्सांनी कोंकणी शिकोन 1882व्या वरसा कोंकणी व्याकरण छापून उज्वाडायलें. संगीं त्याच वरसा जेज्वितांनी कोडियाळ छापखानोय सुरवातलो. हाच्ये मारिफात कोंकणी साहित्य रचपाक बलिश्ट बुन्याद फावो जाली तर, सां लुवीस कोलेजिंतल्या फा। बाजील रुजार जे.स. हाणें तवळच्या बरयणारांक, प्रत्येक जावन विद्यार्थिंक साहित्य रचुंक प्रेरण दिलें. ह्याच प्रेरणाक लागोन तेवीस–चोवीस वरसां प्रायेच्या दोगां तर्नाट्यांनी (श्रेश्ट कवी, समाज सेवक लुवीस मसकरेन्हस आनी सां लुवीस कोलेजिचो मेसत्री सर्दार लुवीस कण्णप्प) कोंकणींतलें पयिल्लें पत्र 'कोंकणी दिर्वें' सुर्वातलें. तवळचो बिस्प पावल पेरिनि[18] थावनयी तांकां बरोच पाटिंबो मेळ्ळो (मसकरेंज, 1998). 'कोंकणी दिर्वें' पत्रान सब्दान, करनेन आनी छाप्यान कानडी कोंकणी साहित्याक बुनयाद घाली.

1882 वरसा कोंकणी व्याकरण छापून उज्वाडायल्या उपरांत थावन 'कोंकणी दिर्वें' सुरवातलेल्या 1912व्या वर्सा पऱ्यांत कोंकणींत छापून आयिल्ले जुम्ला 42 बूकयी धारमीक साहित्याचे. तवळच्या काळाक हें सहज जावनासल्लें. *राकणो* पत्राचो निवृत्त संपादक फा। मार्क वालडर हाणें सांगचे परीं 'संसारांतल्या खंयचेय भाशेंतलें सुरविलें साहित्य धारमीक विषयानिंच सुरू जाता. कोंकणी भाशेची काणीय क्रांय वेगळी न्हय' (गौड, 2019, पा. 3).

सुरविल्या सुडाळ आनी साद्या कोंकणेंत बरयललें धारमीक साहित्य, जिरवंक आनी खूद बरवंक शिकच्या लोकाक कशें प्रेरण दिवंक पावलें म्हळ्ळेविशीं निड्डोडी (2007) अशें म्हणता:

> मो। सिलवेसटर मिनेजसान सांतांच्ये जिणिये विश्यांत 37 पुसतकां, 18 लितुरजी वेळार वापार्चे ग्रंथ, तशेंच वांजेल, नवो सोल्लो इत्यादी अणकार कर्न परगट केल्यात. हाच्ये मारिफात लोक कानडी लिपियेंत वाचुंक शिकलो आनी बरवंक शिकलो. मो। सिलवेसटर मिनेजाची भास सुडाळ आनी सादी. इसकोलांत शिकच्या कानडी शिकपाक ताळ पडताली जाल्ल्यान चडीत त्रास नासतां ती बरवंक जाताली... ताचें साहित्य लोकान वाचलें. वाचपाची रूच लाग्ताना, बरंवची रूच आनी देणें आसलेल्यांनी तीच भास वापारली. अशें मंगळूर दियेसेजिंत लितुर्जिंत कोंकणी अधिकृत भास जावन मांदून घेवंक जाय आसल्लें थळ मो। सिलवेसटर तसल्यांनी तयार केलें. अशें भोव पुरविलें साहित्य फकत अणकार आनी धारमीक जाल्यारी कोंकणी साहित्याच्ये वाडावळिंत भोव महत्वाचें जावनासा (पा. 12).

कानडी लिपिंतल्या सुरविल्या कोंकणी साहित्याचो दरजो (मट्ट) मेजताना– 'कोंकणी दिर्वें' पत्र सुरवात्ता पऱ्यांत धारमीक साहित्य, जें बहुतेक धारमिकां थावन तर्जण जाल्लें आसल्लें आनी तें तयार जाते आसल्लें. 'कोंकणी पत्राचो आरंभ जाल्लोच लायिकांनी तांच्ये मतिंतलें वाचपा आनी अनुभवा तेकीद बरवंक धरलें', म्हळ्ळो कास्सियाचो (कास्सिया, 2005, पा. 101) उल्लेकयी गुमानांत दवरिजे पडता. तवळच्या काळाच्या संपन्मूळांचेर होंद्दोन साद्या[19] लोकान रचल्लें साहित्य तें.

1913व्या वर्सा पेद्र् जुवांव सोजान 'पार्वो' म्हळ्ळो भाशांतर केल्ल्या मटव्या काण्येंचो बूक पर्गट करच्ये संगीं कानडी लिप्येंतल्या कोंकणी साहित्याक लौकीक घुंवडी मेळ्ळी.

## 5.2. कानडी लिपिंतल्यो मटव्यो काणियो

कल्पना सकत मनशाक आसचें विशिषट देणें. साहित्य मनशाच्या कल्पणा सक्तेचें उत्पादन. मनशा जिवितांतलीं दिस्पडतीं घडितां एके वेक्तीन आपूण वापारच्या भाशेंत नव्या रुपान आनी शयलेन बरवन प्रसतूत कर्ताना साहित्य उदेता. मटवी काणी साहित्याचो एक प्राकार. अमूरान सांगच्ये पर्माणें हेर साहित्य प्राकारां मधें मटवी काणी एक मैनर साहित्य प्राकार म्हण लेकचें आसा (अमूर, 2012, पा. xi). पूण कोंकणीच्या मट्टाक मटव्या काण्यांनी दिल्ली देणगी विशेस.

कानडी लिप्येंतल्या कोंकणिंत मटव्या काण्येचो प्राकार फायस करुंक सुरवातल्लोय 'कोंकणी दिर्वें' पत्रानंच. खबरे सवें वाचप्यांक हेर प्राकाराचें साहित्य दिंवच्ये उदेशीं ह्या पत्रान 'काणी व कथा' म्हळ्ळें एक अंकण सुरवातलें. हांतूं चडताव तरजण केल्ल्यो काणियोच फायस जाताल्यो तरी, अपरूब स्वकल्पीत मटव्यो काणियो फायस जावंक सुरू जाल्यो. हाका लागोन जायत्या कोंकणी लेखकांचो जल्म जालो आनी त्ये मारिफात कोंकणी साहित्याचें भंडार भरुंक सुरवातलें.

चडताव हर भासांनी मटव्या काण्यांक प्रोत्साह लाबल्लोच पत्रां वरवीं. अमूर (2012) म्हणता:

> 19व्या शतमानाच्या निमाणें, पत्रां मुखांत्र इंगलेंडांत मटव्यो काणियो भोव फामाद साहित्य प्राकार जावन वाडोन आयलो. कन्नडांतयी मटव्या काणियांक प्रसागक हाडल्लें मधुरवाणी, सुवासिनी, सचित्र भारत तसल्या पत्रानिंच.

1891व्या वरसा सुरवातलेल्या The Strand Magazine – हांतूं फायस जाल्ल्यो काणियो वाचुनुंच आपणें आपली पयली काणी 'रंगन मदुवे' बरयिल्ली म्हण मासती (कानडी भाशेंतल्या मटव्या काणियांचो पितामहा) नयी सांगलां (पा. xi).

अशें पत्रांनी मटव्यो काणियो फायस जांवच्ये संगीं तर्जण केल्ल्यो काणयो बुकारुपीं पर्गटची दसतूरयी 'कोंकणी दिर्वें' पत्रा संगिंच सुरू जाली.

कानडी लिपिंतल्या कोंकणींत उज्वाडाक आयिल्लो पयलो मटव्या काणियांचो संग्रह जावनासा, 'कानडी लिपिंतल्या मटव्या काणियांचो पितामहा' म्हण लेकच्या पेद्र जुवांव सोजाचो 'कोंकणी कता – भाग 1'. हो 1915व्या वर्सा फायस जालो. ताचो दुसरो बूक 1919व्या वरसां 'कोंकणी कता – भाग 2' म्हळ्ळया नांवार फायस जालो. हाच्ये आदीं ताणें भाशांतर काण्येचे तीन बूक (पारवो, केनेरी सुकणें, गुलोबाचें झाड) फायस केल्ले. 'कोंकणी दिर्वें' सुर्वातून पयल्या पांच वरसां लुवीस मसकरेन्हस संपादक जावनासल्लो तर उपरांत हो लेखक त्या पत्राचो संपादक जालो. हाका लागोन ताची साहित्य कृशी बरपूर फळ दिवंक पावली. ताच्ये विशीं फेलिक्स पावल नोरेञ (1963) म्हणता:

'सुरवेर केनन स्मिडाचे बूक ताणें तरजुमो केले: गुलोबाचें झाड, पारवो, आवर, आनी नांवाडदीक जेनेवीव, उपरांत शेक्सपियराच्यो थोड्यो काणियों अनुसार कर्न चूडक्रोत्र, फिलुची भोंवडी इत्यादी ताणे भायर काडल्यो. ह्या शिवाय थोडे हासतीं नाटकां आनी भक्तिचीं पुसतकांयी ताणे बरयिल्लीं आसात. पेद्र सोज कोंकणी काणियां–पुसतकांचो बाप म्हण आमीं म्हण्येत. ताचा पयलें कोंकणी कथा पुसतकां म्हळ्यार कितें म्हळ्ळें कोणंच्च नेणासल्लो' (पा. 33).

'कोंकणी दिर्वें' पत्रा उपरांत येदोळ पऱ्यांत कोंकणींत विवीध काळार 54 पत्रां (नेमाळीं) उदेल्यांत. हांतल्या चडताव सर्व पत्रांनी मटव्या काणियांक मानाचो जागो दिल्लो आसा. ह्या नेमाळ्यांनी फायस जाल्ल्यो हजारांनी हजार मटव्यो काणियो बुका रुपीं फायस जावंक नांत. बुका रुपीं मटव्या काणियांचे संग्रह फायस केल्ले लेखक हे–

पेद्र जुवांव सोज, फा। सिलवेसटर मिनेज, फा। जेम्स सिकवेरा, लुवीस मसकरेञ, फा। जोन कासतेलिनो, अलेक्स ए. पायस, पावुसतीन सोज सुरत्कल, आर्थर पिरेरा, श्री संतान सोज उडुपी, देवदत्त, पीटर कालेसत डिसोजा, श्री जोस्सी पिरेरा, बंटवोळचो सिलवेसटर डी'कोसता, तोमास तावरो, अनिरुद्द कुमार, क्लोड कार्वाल, श्री मोती कोसता, एडी नेट्टो, पोक्री जोनी, जे. एस. मिरांद, एवलालिया आलवारीस, जे. बी. डिसोजा कुलशेकर, जोन डिसोजा बेळमण, एडवर्ड डी'सोजा, रिचर्ड रेगो शिर्वा, सिरिवंत, वलेरियन कुलासो, एल. मचादो कार्कोळ, प्रदीप, श्री सिरील ई. पिरेरा बोंबय, श्री लेसली डी'सिलवा, रोनालड पिरेर आंजेलोर, जोन मिरांद, ए. एस. पत्रावो, एडवीन डी'सोजा वालेन्सिया, सिज्येस ताक्रोडे, डोलफी एफ. लोबो, मार्सेल पासकल कुटिन्हो पक्षिकेरे, जे.बी. मोरायस, फ्रान्सीस सलडान्हा बारेबैल, सिलवेसटर डी'सोजा मैसूर, हेमाचाऱ्य, दोनात डी'आल्मेडा, विल्यम द'सिलवा, फ्लेवियन नज्रेत, जो.सा. अलवारीस, विलफी रेबिंबस, स्टेन अगेरा, वल्ली वग्ग, ग्लेडीस रेगो, श्री जेम्मा पडील, डी. फ्रान्सीस मिनेजस, फा। एल. ए. कुटिन्हो, जोनी सुरत्कल,

स्टेनरो अजेकार, जेरी निड्डोडी, डो। एडवर्ड एल. नज्रेत, रान उद्यावर, ए. फेर्नांडीस मरोळ, जोय पालडक्का, अशोक डायस बैंदूर, वल्ली क्वाड्रस अजेकार, नवीन कुलशेकर, एच्चेम पेर्नाळ, मीकम्याक्स, श्रीमती एम्मी डी'मेल्लो, जे. जे. डायस शिर्तांडी, रैमंड लोबो बोळिये, रोनालड ओलिवेरा पडुक्कोणे, सबीना लोबो लंडन, स्याम बोळिये, फा। चेतन कापुचीन, फा। रुपर्ट बरबोजा कापुचीन, असुंता पिरेरा गंटालकट्टे, क्लेरेन्स कैकंब, शान बोंदेल, डेवीड डी'सोजा वामंजूर, चारली सोज येय्याडी, जूडीत पिरेरा, ई. एस. मूडबिद्री, रोशन फजीर, जोकर कास्सिया, फेलिक्स ए. डी'सोजा, ओझ्झी पेर्मन्नूर, रोनी अरूण, एम. प्याट्रीक, हेरोल्पियूस, उल्लासण्ण, रोन मायकल, के. ताराभट, रिच्ची जोन पायस, रोनालड ओलिवेरा, वाल्टर लस्रादो, लिल्ली मिरांदा, मेलवीन पेर्नाल, शिकेराम, फेल्सी लोबो, मच्चा मिलार, चालर्स लोबो, वाल्टर लस्रादो, जे. एफ. डी'सोजा, दो। जेरी निड्डोडी, रोनी मोंतेरो, एवरी पांगळा, ग्रेट्टा रेबेल्लो, जोयल मंजरपल्के, नवीन मेंडोन्सा, क्लेरेन्स, फा। चेतन लोबो, आंटनी डी'सोजा, हेनरी सोज, विन्सी पिंटो आंजेलोर, वेंकटेश नायक, आंटनी बार्कूर, मोनिका डे'सा, वाल्टर नंदळिके, स्टीवन पिंटो, गोपालकृषण पै, मोनिका डेसा, रोशू बजपे हांचे संगीं – बी. कृषण प्रभू, श्रीमती विठा आर. शानभाग, श्री बसती वामन शेणै, श्री गणेश मल्य, के. एन. राव दांडेली, एन. शांतादेवी, शिवराम कारंत, यशवंत सदानंद पोलेकर, मीरा श्रीधर भट, डा। के. पूर्णिमा भट, के. रमेश कामत, श्री अनील पै, वसंत नाडकर्णी, श्रीमती अरुणा शानुभाग, आर्गोडू सुरेश शेणै जयश्री शानभाग, ह्या सारस्वत बरयणारांनिंय मटव्या काणियांचे संग्रह फायस कर्चे मारिफात कानाडी लिपिंतल्या कोंकणी साहित्याक मोटी देणगी दिल्यांत. अशें 1915व्या वर्सा कानाडी लिप्येंतल्या कोंकणींतलो पयलो कथापेळो 'कोंकणी कथा – भाग 1' फायस जाल्या उपरांत हें लेखन छाप्याक येता पऱ्यांत 107 वरसांनी आमकां मेळल्ल्या लेका परमाणे[20] 292 मटव्यो काण्ये संग्रह फायस जाल्यात.

## 5.3. कानडी लिपिंतल्या कोंकणी काण्येंचो दर्जो (Standard)

कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी काण्येंच्या 107 वरसांच्ये चरित्रेंत, पत्रांनी फायस जाल्ल्यो मटव्यो काणियो सोडन, बुका रुपीं 292 पुंजे परगट जाल्यात म्हळळें, ह्या पंगडाच्या लोकाच्या जणासंख्याक तुलन केल्यार व्हड संगत म्हळ्ळ्यांत कायिंच दुबाव ना. तरी थोडे पावटीं फायस जाल्ल्या साहित्याचें तुलन करताना हें साहित्य रचल्ल्यांची पाटभुंय पळेयनासतां फकत साहीत तुकून पळयिल्लें आसा. पूण हें आमी गुमानांत दवरिजे की कानडी लिपिंतल्या काण्येगारां पयकी विश्वविद्यालयांनी साहित्याचेर सनद आपणावन साहित्य कृषीक देंवल्ले नांच म्हण्येत तितले उणें. हांच्या कथावसतुंचें मूळ जिण्ये अनबोग. ह्या अनबोगाक जिण्ये नेमां, अर्थ आनी संकेतांचो संबंद घडोन हाडून साहित्याचें रूप दिल्ली शाती हांची. तरयी कांय थोड्या कथेंनी तांच्या अनबोगाचें वरतूल अशीर म्हण आयचा जाणारी वाचप्याक भोगुंक पुरो. एस. एल. बैरप्प (2017) म्हणता:

> जीवन एक आकारावीण प्रक्रिया, आकारावीण असतित्व. एकेका दिश्टिकोनाक तें एकेका आकाराचेर दिसता तरी ताच्या समग्रतेचो अर्थ वा संकेत तत्वशासत्रानयी चर्चा कऱ्येता, मतधर्मानयी सांग्येता, पूण तो एक बांद जावन दोळ्या हुजीर देकच्ये परीं देकोंक साद ना. कित्याक,

> आकार कितलोय वसतुनिषठ म्हण लेकल्यारयी तो पळेयतल्याच्ये दोळे, कान, कल्पन, आनी बुद्वंत्कायेच्या मिती भितरच दिश्टीक पडता (पा. 99).

हाका लागोन जिण्येचो अनभोग पिंत्रायतलो लेखकयी आपलो अनभोग एका मिती भायर साहित्याक लागू करुंक सकाना. सुरविल्या कानडी लिपिंतल्या कोंकणी बरयणारांच्या अनभोगाची मीत अशीर आसल्ली म्हळ्ळें खरें. एका साद्या वेक्तीन जिवीत पळेंवचाकयी वेगळ्या दिश्टीन जिवीत पळेंवच्या लेखकाच्या दिश्टिची मीत विसतार जायजे पडता म्हळ्ळें सत्तर–अयश्यांव्या धाकट्याच्या संपादकांक गमल्लें. हांच्ये पयकी एकलो, चा.फ्रा. देकोसता (2005) अशें सांग्ता:

> बरप्यान आपल्या भोंवतणिच्या संसाराक ताच्या बेध नातल्ल्या ताकडेर तुकुंक आसा. ताच्या सांगाता जियेंवचीं मनश्यांच ताचे मेसत्री. तो जियेंवचो संसारच ताचे शेत. हें विसताराल्या शिवाय ताच्या बर्पाक वृद्धी येना (पा. 19).

कानडी लिपियेंतल्या कांय थोड्या लेखकांनी उत्तीम मटव्यो काण्यो रचल्यात आनी त्यो हेर भासांक तर्जण जाल्यात तरी, मटव्या काण्येंचें ओट्ट साहित्य लगबग नितलोच इतिहास आसच्या कोंकणीच्या सेजारी कानडी भाशेच्या मटव्या काण्यां संगीं तुलन केल्यार कोंकणेंत उंचल्या दरजेच्या काणयांचें प्रमाण भोव उणें म्हळ्ळ्यांत दुबाव ना. हें एडवीन एफ. डी'सोजान (1996) अशें स्पश्ट केलां: '_... येदोळचे प्रगतेचेर दीश्ट घाल्यार मटव्यो काणयांच्या शेतांत कानडी लिपिंत बरंवच्या कोंकणिंत इतलीं प्रेतनां चल्ल्यारयी व्हडवीक गांवचे तसलें कांय दिसोन येना' (पा. 28).

कानडी लिपिंतलें कोंकणी साहित्य अंक्रेवन वाडोन येंवच्या वरसांनी रचीत जाल्ल्या साहित्यांतलें उणेंपण पार्किल्ल्या उपरांतल्या संपादकांक शिक्षीत बरयणारांक तयार करची गर्ज दिसली. हाका लागोन बर्प्यांक तरबेत करचीं कामासाळां सुरू जालीं. हे विशीं डिसोजा (1996) म्हणता:

> तवळच्या पत्रांनी मटव्या काणियांक कशें मानाचो जागो दिवन बरवप्यांक उत्तेजीत केलेंगी, सराग व्हाळोन आयलेल्या ह्या साहित्य प्राकारांत नवेंसांवाचो बोर्गोळ पळेवन नव्या लेखकांक कामासाळां आयोजीत कर्न बरपा तरबेती वा सूक्त मार्गदर्शन दिलें (पा. 26).

मुकारून डी'सोजा म्हणता:

> दुबावाविणे ह्या वयल्या लेखकांक कसलियी चालिपरमाण (formal) तरबेती नातल्ली. पूण कोंकणीक स्वतंत्र भास म्हण मान्यता मेळ्ळ्या उपरांन, बर्पूर थरान बरंवची हुमेद दाकंवच्या तऱ्यां लेखकांक चालिपरमाण तरबेती गर्ज म्हण मालघड्यांक भोगल्ल्यान राकणो, मित्र, उमाळो असल्या पत्रांच्या आश्रयाखाल मंगळुरांत जायतीं साहीत शिबिरां चल्ल्यांन आनी हांनूं मटव्या काणयांक महत्व दिला आनी उरबेवंत बरवप्यांक तरबेती दिल्या, स्पर्दे आसा केल्यात (पा. 26).

डी'सोजा, एक बरो लेखक जायजे तर चाली प्रमाण (formal) तरबेती जायजे (डी'सोजा 1999, पा. 26) म्हणता तर, पिंटो (2018) परमाणे बरवप्याक 'जाणवाये सवें मनशा कालेनिचेर कांय थोडें अंतरज्ञान (insight) आसुंक जाय' (पा. 7). ताच्ये परमाणे 'घडितां वरवन

पळेंवचीं मात्र न्हय, मनशा संयब कशें आनी कित्याक त्या घडितांनी जालां म्हळ्ळ्याची जाणतिकाय एका लेखका थंय आसाजे (पा. 12). लेखकां थंय आसाजे जाल्ल्या असल्या जाणतिकायेक एक दाखलो म्हळ्ळ्ये परीं पिंटोन, 'केवीन डिमेल्लो कार्कळ हाच्या कूकुरे आनी दुवाळे वा कोंबो आनी बीं काण्येंनी जातकात लेकिनासतां सैंभीक वोडणी थांबंवच्या उंचल्या आनी निम्न वर्गाच्या (भरशीक) जोड्यान आधारलेल्या करणेक लेखक 'वेबिचार' म्हळ्ळो बिल्लो दीना' (पिंटो, 2018)– म्हळ्ळो उल्लेक केला.

असलें अंतरज्ञान आसोन फावोती तरबेतियी मेळल्ल्यान एडवीन जे. एफ. डिसोजा तसलो कानडी कोंकणी साहित्याचेर विशिषट म्होर मारल्लो लेखक उदेलो. हाचे भायर हेर जायत्या लेककांकयी पत्रांनी चलंवच्या कामासाळांनी मार्गदर्शन, प्रेरण दिलां. अशें पत्रां वाचप्यांक साहित्याची ओळोक दीवन, उरबा आसलेल्यांक बरवंक प्रेरण दीवन, बरयिल्लें फायस कर्न, कानडी लिपिंतल्या कोंकणिचें साहित्य खजान वाडोंक कारणकर्त जालीं.

## 5.4. कानडी लिपिंतल्या कोंकणींत नीळगता

कानडी लिपियेंतलें कोंकणी साहित्य हंत हंतांनी वाडोन येताना सुमार विसाव्या शतमानाच्या मधल्या काळार मटव्या काणियां बराबर लांब काणियांचो (कादंबरी प्रास मटव्यो. गोंयांत हाका नवलिका म्हणतात) प्रकार सुरू जावन लोका मोगाळ जालो. कडतील वा ल्हान बुका रुपीं फायस जावन आसल्ल्यो ह्यो कथा प्रगट करचीं जायतीं प्रकाशनां मंगळूर तशें बोंबयांत उदेल्लीं.[21] हांचो उल्लेक कर्न डिसोजा (1996) अशें बरयता:

> हपत्याळ्यांचो, पंद्राळ्याचो आनी म्हयन्याळ्यांचो प्रसार चडताना आनी तांचेर मटव्या काण्यांक आवकास मेळताना आन्येक महत्वाची संगत कानडी लिपियेच्या साहितांत चालू आसल्ली, लांब मटव्यो काणयो म्हण्येत तसल्यो कथा प्रगट कर्चीं सबार प्रकाशनां मंगळूर आनी बोंबंयत उदेल्लीं.
> 1957 इस्वेंत 'दुबावी बायल' म्हळ्ळें 31 पानांचें पुसतक बोंबयच्या एस. लोबोन लिकून फकत चार आणें मोलाक 'वालेन्सिया कोंकणी प्रकाशनान' पर्गटलें. ह्याच प्रकाशनान 'आवयचो मोग' म्हळ्ळी 45 पानांची कता 'कोंकणी प्रेम' फकत पांच आणे मोलाक विक्रापाक घालें. अशें दोन व्हाळांनी कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहितांत मटव्या काणियांचीं कंत्राळां सवकास भरोन येतालीं... (पा. 23).

ह्या प्राकाराच्या साहित्याक बहुशा मुंबंयत त्या काळार भोवच लोकामोगाळ जाल्लो रोमी लिपिंतलो Romansi आनी novlika (Cardoza, 2022) प्राकार कारण जावंक पुरो.

## 5.5. कानडी लिपिंतल्या कोंकणींत भाशांतर साहित्य:

कानडी लिपिंतल्या कोंकणी साहित्यांत भाशांतर साहित्याचो प्रमाणयी व्हड मापान आसा. पयल्या हंतार 'कोंकणी दिर्वें' पत्राच्ये सुरवेर कोंकणिंत स्वरचीत साहित्य नातल्लें देकून इंगलिशांतलें भाशांतर केल्ले बरिंच, उपरांतल्या वरसांनी स्वरचीत साहित्या सवें सेजारी तशें विदेशी भाशेंतलें उत्तीम साहित्य भाशांतर कर्न कोंकणी साहित्य तुपें भरचें प्रेतनयी कानडी लिपिंतल्या कोंकणी साहित्यांत चलल्लें आसा. त्याच पर्माणें, कानडी लिपिंतल्या कोंकणिंत रूपांतर साहित्याचोयी ल्हान वांटो आसा. हाची सुरवातयी पेद्रू जुवांव सोजानंच केल्ली.

## 5.6. कानडी लिपिंतल्या कोंकणींत लेखकिंची देणगी:

'कोंकणी दिर्वें' पत्रान कानडी लिपिंतल्या लेखकां सांगाता लेखकिंकी प्रेरण दिलें. रेगो (1999) पर्माणे 'पिंतीण' (मिसेस पिंटो) कानडी लिपिंतल्या कोंकणी स्त्री बरयणारां पयकी पयली. पिंतीण हिणे 1937 जनेर 'कोंकणी दिर्वें' अंक्यार तिचेचविशीं तिणें बरयिल्लें रेगोन (1999) आपल्या 'कोंकणी साहित्यांत मंगळुरी स्त्रीयो' लेखनांत असो उल्लेक केला:

'वयल्या लिखितांत ती बरयता – कोंकणी भाशेंत हांवें सुमार धा ड्रामा, सबार पदां, सुमार कंतिगो आनी एड्रेस बरयल्यात. कोंकणी दिर्व्याकयी पोलियांच्यो पोलियो हांवें बरयल्यात' (पा. 13).

स्त्री लेखकीं पयकी पयिल्ली मटवी काणी बरयिल्ली श्रीमती डी. एम. पत्रावोन *राकणो* 1941 मार्च 28 अंक्यार (रेगो, 1999). कोंकणी दिर्वें, राकणो, सूख–दूख, पयणारी पत्रांनी स्त्री लेखकिंचीं बर्पां फायस जातालीं. 1953 इस्वेंत जो.सा. आलवारिसान सुरवातलेलें मित्र आनी उपरांत झेलो पत्रां मुखांत्र चाळिसांच्याकी चड लेखकिंनी बरवंक सुरवातलें. पूण तवळच्या स्त्री लेखकिंच्या साहित्या विशीं खूद जो.सा. आलवारिसान म्हळ्ळें रेगोन (1999) अशें उल्लेक केला: 'त्या वीस वरसांनी बरवपिण्यां पयकी कोणें आपलें नांव केदनांच विसरोन वचानाशें बरवन घाल्लें साहित्य बोव उणें. तसल्या स्त्रीयांचो संखेय किर्कोळ' (पा. 15).

पूण कानडी लिपिंतलें कोंकणी साहित्य वाडोन येताना, लेखकिंचो संखोय वाडोन आयलो आनी हांच्ये पयकी थोड्यांनी व्हड मापाची साहित्य देणगी दिल्या. हांच्ये पयकी मालघडी आनी फामाद लेखकी जावनासा एवलालिया अलवारीस. साहिती तशें नाटकिसत. जायत्यो अणकार आनी आदारीत तशेंच स्वंत कृतियो तिणे लिखल्यात. आकयच्यो काणियो, स्त्रीयांचें राज, पोकिचें कारबार, डायना, ओतेल्लो, रोब, फ्लोराची कता, आन्नी किट्टी, पेटानातलें तण तिच्यो विंचणार कृतियो (रेगो, 1999). लेखकी जावन संपादकिचो वावर केल्ली पयली स्त्री जावनासा कू। जुडीत मसकरेञ. तिणे जायतीं वरसां आमचो युवक पत्राच्या संपादकाचो हुद्दो सांबाळ्ळो. तशेंच ग्लेडीस रेगो, सिपरिमा कुलशेकर, केथरीन रोड्रिगस कटपाडी, शालिनी वालेन्सिया, ऐरीन पिंटो, नंदिनी, प्रेमी किरें आनी हेर प्रमूक स्त्री लेखकी.

## 5.7. कानडी लिप्येंतल्यो कोंकणी कादंबरी

कादंबरी नव्या रुपाचें साहित्य जें, छाप्या क्रांती उपरांत चाल्तेर आयलें म्हण्येत. सत्राव्या शतमानांत इंगलेंड तशें फ्रान्सांत सुरू जाल्लो हो साहित्य प्राकार अट्राव्या शतमाना वेळार लोकामोगाळ जावन आयलो. कादंबरिंची लोकामोगाळाय उपरांत सरक्यूलेटिंग लैबररिच्या उदेवाकयी कारण जाली. भारतांत सात्व्या शतमानाची म्हण लेकल्ली बानबट्टाची 'कादंबरी'च पयली कादंबरी म्हण मांदतात तरी भारतांत कादंबरी साहित्य प्राकार एकुणिसाव्या शतमानांत सुरू जाल्लो. 1899व्या वर्सा पगट जाल्ली गुलवाडी वेंकट राव हाणें लीखल्ली 'इंदिरा बाय' कन्नडांतली पयली कादंबरी ("Indira Bai", 2022).

'इंदिरा बाय' फायस जाल्ल्या तेरा वरसां उपरांत पेद्र जुवांव सोजान 1912व्या वरसा 'केंपाचो पुगदोर' म्हळ्ळी सामाजीक कादंबरी तर्जण कर्न फायस केली. 1937व्या वरसा कास्मीर स्टीवन नज्रेत हाणें 'भुंयांरांतलो कुंवर' म्हळ्ळी कोंकणीक तर्जण केल्ली सामाजीक

हास्य कादंबरी परगट केली. कोंकणींतली पयली स्वलिखीत कादंबरी 'आंजेल' फायस जाल्ली 1950व्या इस्वेंत, कानडी कादंबरी फायस जाल्ल्या 51 वरसां उपरांत. शेंभरां वयर मटव्यो काणियो बरयिल्लो जो.सा. आलवारीस 'आंजेल' कादंबरिचो लेखक. हाणें पन्नासांच्याकी चडीत कादंबरी बरयल्यात. हाका कोंकणी 'कादंबरिचो पितामहा' म्हण ओळकातात.

कोंकणींतली पयली कादंबरी कोंकणी नाटक सभेन परगटलेली. हो एक नवोच साहित्य प्राकार आनी तवळ पऱ्यांत परगटलेल्या साहित्य पुसतकां पयकी भोवच दाट बूक जाल्ल्यान पुसतकाच्या वीकऱ्याविशीं लेखकाक तशें पर्गटणारांक दुबाव आसल्लो म्हळ्ळें लेखक जो. सा. आलवारिसान पयल्या छाप्याक बरयिल्लें प्रसतावन वाचल्यार कळता:

> ह्या कादंबरी पाटल्यान हांवें हेरयी बरोवन दवरल्यात. ह्या पुसतकाच्यो 2500 प्रतियो वेगिंच विकोन गेल्या शिवाय सभेक कांय नफो मेळचोना आनी फुडले बूक फायस करुंक अनकूल आनी उत्तेजन मेळचेंना. देकून कोंकणी वाचकांलागीं हांवें विनंती कर्ची कितेंगी म्हळ्यार – घेया हें अपरूप काण्येचें पुसतक, वाचून थादोसी जाया, कोंकणी नाटक सभेक आधारसिया आनी बरैणारांक आनी प्रकटसितेल्यांक प्रोत्साह दिवन कोंकणी भास वृद्दी जावंक संद्राप दिया (आलवारीस, 2008, पा. vi).

'आंजेल' कादंबरिच्यो कितल्यो प्रतियो विकोन गेल्यो म्हळ्ळे विशीं जांव, उपरांत कोंकणी नाटक सभेन कादंबरी कित्याक फायस करुंक नांत म्हळ्ळे विशीं जांव माहेत ना तरी, जोसाच्यो दुस्री आनी तिस्री कादंबऱ्यो दूसऱ्याच वर्सा म्हणजे 1951व्या वरसा ए.जे. पिरेरा म्हळ्ळ्यान फायस केल्यो. 1952व्या वरसा ताची चवती आनी 1953व्या वरसा ताची पांचवी आनी सवी कादंबरियो फायस जाल्यो. हें पळेताना कोंकणी लोकान कादंबरी प्राकाराक उग्त्या हातान स्वीकार केलो – अशें भोग्ता. हाका गवाय दितात मुकल्याच वर्सा फायस जाल्ले कादंबरिचे संखे. 1954व्या वरसा 8 कादंबरी फायस जाल्यो. हांतल्यो तीन कादंबरी जोसाच्यो! 1955 इस्वेंत इक्रा कादंबरी फायस जाल्यो. ह्या वरसा कानडी लिपिंतल्या कोंकणी साहित्यांतली पयली स्त्री कादंबरिकर्त इवलालिया अलवारीस हिची 'फ्लोराची कथा आनी हेर' म्हळ्ळी 293 पानांची कादंबरीय फायस जाली.

अशें कादंबरी प्राकार कानडी लिपयेच्या कोंकणी वाचप्यां मधें भोवच लोकामोगाळ जाल्लो साहित्य प्राकार जावन वाडोन आयलो. हाका 'आंजेल' कादंबरी फायस जाल्ल्या वरसा थावन हें लेखन छाप्याक येता पऱ्यांतल्ये अवदेंत फायस जाल्ल्यो 619 (आमकां मेळल्ल्या लेकां परमाणे) कादंबरी बलिषठ गवाय दितात. ह्यो सर्व कादंबरी बुका रुपार छापून आयिल्ल्यो तर, कोंकणी नेमाळ्यांनी सांकळ काण्ये रुपार फायस जाल्ल्यो जायत्यो कादंबरी आसात. तांतल्यो फकत थोड्यो मात्र बुकारुपीं फायस जाल्यात. ऊरल्ल्यो आज वाचपा घरांतल्या कंत्राळांनी मांडून दवरलेल्या नेमाळ्याच्या मधल्या पानांनी लिपोन उरल्यात. सांकळ काण्ये रुपीं फायस जाल्ल्यो कादंबरियी भोव उंचल्या वरगाच्यो आसतात म्हळ्ळ्याक 2016व्या वरसाची केंद्र साहित्य अकाडेमी प्रशसती मेळल्ली मानेसत एडवीन जे.एफ. डिसोजाची 'काळें भांगार'च साक्स. ही कादंबरी बुका रुपीं फायस जांवच्ये आर्दीं 'राकणो' हप्त्याळ्याचेर सांकळ काण्ये रुपीं फायस जाल्ली. बुका रुपीं छापोन आयलेल्या 619 कादंबरिंक, पत्रकर्त डोलफी कास्सियान 'कुरोव' म्हयन्याळ्याचेर फायस केल्ल्यो 164 कादंबरीय कुडसिजे पडतात. अशें

कोंकणींतली पयली कादंबरी 'आंजेल' फायस जाल्ल्या उपरांतल्या 72 वरसांनी जुम्ला 783 कादंबरी बुका रुपार फायस जाल्यात.

पन्नास आनी सात कादंबरी बरयिल्ल्या जो.स. अलवारिसाची तशेंच कानडी लिप्येंतल्या कोंकणिंतली पयली कादंबरी 'आंजेल' – विशीं डो। एडवर्ड नोरोन्हा (1999) अशें म्हणता –

> एक कृती वाचल्ल्याचो परिणाम जावन वाचपी, 'जिणी म्हळ्यार अशी, मनीस म्हळ्यार असो,' म्हण एक घडी चिंतुंक पडत जाल्यार, ती कृती एक सार्तक साहित्य कृती जाता. सादारण मनशाचाकयी चड प्रमाणान, एका श्रेश्ट लेखकाक जिण्येच्या थोड्या घडितांचो अनबोग अपूट आनी अनन्य रितीन भोगची शाती आसता. अशें भोग्ताना जिणियेच्या समग्र हेर घडितांचो आनी अनभोगांचो परिणाम – त्याच अपूट आनी अनन्य रितीन ताका एदोळच लाबल्लो – ताच्या वेक्तित्वांत एक अपूर्व, प्रत्येक आनी तीक्ष्ण अनबोग जावन रूपीत जाता. हो अनभोग कितलो अखंड, गूंड आनी तीवर जावनासता म्हळ्यार, त्या अनभोगाक जोक्त्या वसतुच्या आनी रुपाच्या माध्यमांत तो आपलेसक्तीं कृतियेंत संवहीत जाता (पा. 14).

ताच्ये परमाणें काणी, कवन वा नाटक मुळान जिणयेच्या समग्र घडितांच्या आनी अनभोगाचो परिणाम. लेखकाचेर जाल्लो हो परिणाम वाचप्याक पावंवच्या उदेशीं एक साहित्य कृती जावन जल्मता. हाका लागोन साहित्याक जिण्येचें प्रतिबिंब म्हणतात.

'आंजेल कादंबरी मनशाच्या जिणियेचें असलें एक प्रतिबिंब जावनासल्ल्यान एक अर्थाभरीत साहित्य कृती जावनासा' (नोरोन्हा, 1999, पा. 15). तरी ह्ये कृतियेच्या उद्देशा बाबतीं कादंबरिचो लेखक जो.सा. आलवारिसान सांगल्लें नोरोन्हान (1999) अशें दाखल केलां: 'आमच्या लोकाक बरेपण करुंक पेचाडिजय म्हळ्ळ्या उद्देशान ही कादंबरी आपणे बरयली म्हण आलवारिसान कळयलां. आरंबीक काळाच्या कोंकणी साहित्यांत – आरंभीक कित्याक, आयलेवार म्हणासर – लोकाक कुमक कची, लोकाचे अवगूण तिद्‌वुंचे असले सबार उद्देश लेखकांक आसताले' (पा. 17).

नोरोन्हा परमाणे हो काळाचो गूण. आधुनीक भारतीय साहित्याच्या सुरविल्या कृतियांनी असले उद्देश सबार पावटीं दिसतात म्हळ्ळें ताणें दाखल केलां. कानडी भाशेंत नव्या आनी नव्योत्तर साहित्य ह्या गुणांक गुमान दीनाशें वाचप्याची विचार सकत विज्मीत करवन, निगूढ आनी अपेक्सुंक नातल्ली घुंवडी एकेच मापान राकोन व्हरचे तसलें जावंक पावलां. उंचल्या वरगाच्या साहित्याविशीं बैरप्प (2017) म्हणता 'उंचल्या वर्गाच्या साहित्यांत कथा वसतू काण्येची कूड आनी कुडिची रीत संपूर्ण थरान निरदेशीत कर्न नियंत्रण कर्ता तरी शिकवण दिंवचो कथा वसतुचो उद्देश न्हय' (पा. 103).

पूण कोंकणीच्या मट्टार सांगचें तर, कानडी लिपिंतल्यो सुरविल्यो चडश्यो कादंबरी शिकवण आटापून आसात. तरी, 'आंजेल' तसली कादंबरी इतिहासाक आर्सो धरल्ले भाशेन आसा. हें नज्रेत (2018) अशें विवरिता:

> त्या काळार – म्हळ्यार दूस-या म्हा झुजाच्या आसपास आमच्या नाडांतल्या तशें शेरांतल्या लोकाच्या जिण्येरितिचें धर धर पिंतूर जोसाच्या सबार कादंबरेंची विशेशता. आमच्या समुदायाच्या लोकांचें न्हेसाण,

> आचार-विचार, तांचें चिंतप, थोड्यो म्हण्णयो-गादी, चाल्तेर आसल्लीं आपूट कोंकणी उत्रां, तवळची सांत आनी वेपार, तपाल वेवसता (कागदां इगर्जेकडे दवरचीं आनी आयतारा मिसाक गेल्ल्यांनी हाडचीं), ब-या-वायट हर गजालेंक फिर्गज पाद्रिचें मेतेरपण आनी गुरकारपण हाचें वासतवीक चित्रण कादंबरेंच्या लांबायेक आसा (पा. 41).

आमच्या समाजेचें पुरविलें चित्रण देकचे पासत पुणी आदल्या कादंबरिंक फुडारांतयी वाचपी आसतेले. येदोळ प-यांत ह्या सर्व लेखकांनी बुका रुपीं कानडी लिपिंत कोंकणी कादंबरी फायस केल्यात:

जो.सा. आलवारीस, श्री एम. फेर्नांद, बोनिपास वलेरियन सेरावो, श्री एस. सी. रोड्रिगस किन्निकंबळा, श्री जोन लोबो मंगळूर, लियो डी'सोजा किरें, अनिरुद्ध कुमार, इवलालिया आलवारीस, सिलवेसटर डी'कोसता, चालर्स फ्रान्सीस डी'कोसता, श्री हिलरी रेगो बोंबय, रायमंद मिरांद, हेरी डी'सोजा, रोनालड पिरेरा आंजेलोर, सू-यकांत, वी. एम. फेर्नांडीस, जे. बी. डी'सोजा, सिसटर जोसेपा, मेक्सी रासकीञ, इजयचो जोस्सी पिरेरा, जेप्पुचो मेक्सी रसक्निन्हा, कू। एल. सिकेर, मार्सेल पासकल कुटिन्हो, सी. बी. कार्वाल, तोमास तावरो, श्री आंद्र लोबो, पावुसतीन डी'सोजा, बी. वी. सेरांव, कू। तेरेज डी'सोजा, जे. बी. मोरास, पियूस जोर्ज डी'सोजा, जोर्जी कर्नेल, गाबरियेल डी'सोजा, एडी नेट्टो, तोमास तावरो, सायमन रोड्रिगस, पासकल बी. पिंटो, एस. एफ. डी'सोजा मैसूर, खाप, वलेरियन डी'सोजा, आ. आ. सलडार्ञ, कुमारी लीना फेर्नांडीस, कू। लीना मार्टीस, प्रदीप, सिरिवंत, जे.बी. कुलशेकर, एल. मचादो कार्कोळ, जोन मिरांद सिद्दकट्टे, फा। धीरात प्रभू, स्टेनी नीरुडे, फा। सिलवेसटर मिनेजस, वी. एम. फेर्नांद, जे. बी. सिकेर पांगळा, जेप्पुचो जेलू अल्मेडा, गब्बू उर्वा, ए.टी. लोबो, किन्निगोळिचो मैकल लोबो, आलफोन्स पिंटो, लियो डिसोजा किरें, श्रिमती जे. डे'सा मागुंडी, आयरीन पिंटो, श्री एम्मी अजेकार, वल्ली वग्ग, लियाब, ए. वी. ओलिवेरा त्रासी, बोंदेल्चो विट्ट शेट, आलफोन्स पिंटो इजय, जेम्मा पडील, पिरेरा बजाल, रोनालड पिरेरा आंजेलोर, एवजीन डी'सोजा बोळिये, विलियं डी'सिलवा, सिज्येस ताकोडे, डा। एडवर्ड लोबो कुलशेकर, ऐरीन पिंटो, एडवर्ड डी'सोजा इजय, श्री कैदी, चारली किरें, लेसली ड'सोजा नेजार, सिसटर सिसिलिया, गिलबर्ट सांतुमायेर इजय, एम पेट्रीक, श्री साबास ए. एल. रोच बार्कूर, रोकी मिनेज, एडवीन जे. एफ. डिसोजा, ग्लेडीस रोड्रिगस, कमल वालेन्सिया, जेरोम एम. रोड्रिगस पेर्मुदे, शरत, कू। शालिनी वालेन्सिया, प्रेम कुमार नंदिगुड्डा, एम. पी. रोड्रिगस, श्री मेल्की होस्पेट, फ्रान्सीस सलडान्हा बारेबयल, ऐरीन सलडान्हा, कू। हिलडा कारलो, डोलफी कास्सिया, हेरोल्पियूस, विकटर रोड्रिगस आंजेलोर, रोक्री किरें, लोरेन्स आलवारीस, वाल्टर लस्रादो, आलबर्ट पेरीस कुलशेकर, ल्यान्सलेट चीकमंगळूर, फ्रान्सीस फेर्नांडीस कास्सिया, फा। वी. जे. मिनेजस, कू। मेबल सलडान्हा, जेरी कुलशेकर, जेमी बरोकस, स्टेनी पिंटो नीरुडे, ए.टी. लोबो, रविराज मुकामार, रेजिनालड रोड्रिगस देरेबयल, हेमाचा-य, विनोद फेर्नांडीस गंगोळ्ळी, पंचू बंटवाळ, मार्सेल पासकल कुतिन्हो पक्षिकेरे, विशाल कुमार, जे.बी. मोरायस, विकटर आलवारीस, लवरेंत चीकमंगळूर, मीकम्याक्स, क्लेरेन्स कैकंब, पी. डी'सोजा, सिलवेसटर डी'सोजा मैसूर, जेमी बरोकस, जेरी कुलशेकर, स्टेन अगेरा मुल्की, सुनंद, मेलवीन रोड्रिगस कुलशेकर, रेमंड डी'कुन्हा,

टाटाब निड्डोडी, जेरी निड्डोडी, वाल्टर लस्रादो, रिचर्ड पासकल डी'सोजा, बाळ सनावत जेप्पू, आर्थर पिरेरा, एम.पी. कुटिन्हो, ल्यान्सी पिंटो नायक, जेफ्री फेर्नांडीस आंजेलोर, डो। एडवर्ड एल. नज्रेत, आधुनीक नारी, हिलरी कार्डोज पालडका, रोनी मोंतेरो कटपाडी, मेलवीन रोड्रिगस, केवीन डी'मेल्लो कार्कळ, लियाब कद्री, फा। एल.ए. कुटिन्हो, एच. जे. गोवियस, श्रीमती टीना डी'मेल्लो, शांतिपरिया किन्निगोळी, बात्ती केलराय, हिलरी कार्डोजा पालडका, हेनरी डी'सोजा बारेबयल, वल्ली क्वाड्रस, विन्नी डी'सोजा बेळमण, रोबर्ट एस. लोबो, पद्मनूरू, रिचर्ड कवतार, ना. डी'सोजा, मनू बाह्नेन, रोनी मोंतेरो, जोनी सुरत्कल, बी. जे. अजेकार, पावल बळकुंजे, जेम्स लुवीस ओमजूर, बर्नाड जे. कोसता कुंदापूर, जेसन सुवारीस ताकोडे, रिचर्ड कवतार, जोनेल सोज कास्सिया, वल्ली क्वाड्रस अजेकार, विन्सी पांबूर, वित्ती बेंगळूर, प्रताप नायक जे.स., क्याथरीन रोड्रिगस कटपाडी, लियो फेर्नांडीस जेरिमेरी, पौल मोरास, एम. प्याट्रीक, लवी गंजिमठ, लीनस मोरास, प्रेम मोरास, जे. एफ. डिसोजा अत्तावर, वल्ली क्वाड्रस, नवीन कुलशेकर हांच्ये संगीं गौड सारस्वत समाजेच्या यू.के. पै पुत्तूर, श्रीमती संध्या शेवगूर, रामचंद्र एम. शेट आनी आर्गोडू सुरेश शेणै हाणिंय कादंबरी बरवन बुका रुपीं फायस केल्यात.

कानडी लिपिच्या कोंकणींत फायस जाल्ल्या कादंबरीं पयकी पत्तेदारी कादंबरीय आसात तरी, त्यो चड लोकामोगाळ जावनांत. 1953 थावन 1974 पऱ्यांत 21 वरसां *मित्र* पत्र आनी 1955 थावन 1973 पऱ्यांत 17 वरसा *झेलो* पत्राचें संपादकपण चलयिल्ल्या जोसान कानडी लिपिंतल्या कोंकणी वाचप्यांची नाड बरीच पार्किल्ली. ह्ये विशीं डी'सोजा (1999) हाणें उल्लेक केल्लो जोसाचो वाक्मूल असो आसा – 'समाजीक कादंबरी आमच्या वाचप्यांक रुचतात. पत्तेदार्पण रुचाजे तर तें मासा मधल्या शिरे परीं कतेंत व्हाळोंक जाय' (पा. 26). कानडी लिप्येंतल्या कोंकणेंत पत्तेदारी साहित्याचें उणेंपण भरती केल्ल्यां पयकी जो.सा. आलवारीस, खडाप, विकटर रोड्रिगस आंजेलोर, रोन रोच कास्सिया, सिलवेसतर डिसोज, मैसूर आनी एडवीन जे. एफ. डी'सोजा प्रमूक.

असतित्वावादाचेर कोंकणींतली पयली आनी एक मात्र कादंबरी बरयलल्या एडवीन जे. एफ. डिसोजान विशिषट कतावसतू विंचून कादंबरी शेतांत नवे नवे प्रयोग केल्यात. पत्तेदारी आनी सामाजीक कथावसतुंनी विणलेल्यो कादंबरी बरयलल्या विजेपी सलडान्हान केनरा क्रिसतांवाची बंदड आनी ताच्याकी आदीं गोंय सांडून आयलेल्या आमच्या पूरवजां विशीं चारित्रीक कादंबरी बरयल्यात. हाची बर्पा शाती वाखणून निड्डोडी (2007) बरयता: 'आदल्या बरवप्यांच्या कादंबरिंनी अखंड पात्र ना म्हणतेल्यांनी एक तरी ताची कादंबरी वाचिजे' (पा. 13). ताच्याच काळाच्या ए.टी. लोबोनयी कादंबरी शेतांत दाखल्याभरीत वावर केला. वाचप्याक आतुरीत कर्चे तसल्यो लांब दीग कादंबरी बरवन सांकळ काणियां रुपार कादंबरी फायस केल्ल्यां पयकी विकटर रोड्रिगसयी एकलो. श्री गब्बू उर्वा मोग आनी मोगाची उचांबळाय वर्णून कादंबरी बरयतालो तर हेर चडताव लेखकांनी बरयलल्यो कादंबरी सर्व सामाजीक कथावसतुंच्यो.

## 5.8. कादंबरिचें बेळें काडल्लीं प्रकाशनां

कानडी लिपिंत येदोळ 783 कादंबरी बुका रुपीं फायस जाल्यात तर हाका वाचप्यां संगीं

जायत्या प्रकाशनांचे पाटिंबोय लाबला. हांच्ये पयकी मुखेल म्हळ्यार राकणो प्रकाशन, पुनव प्रकाशन, साळक प्रकाशन, कर्नाटक कोंकणी अकाडेमी, उमेद प्रकाशन, आकाश प्रकाशन, वीणा प्रकाशन, दायजी दुबाय प्रकाशन, रेगो एंड सन्स प्रकाशन, विवेक प्रगती, बसती प्रकाशन, आनी हेर.

## 5.9. नेमाळ्यांनी कादंबरिचो प्रसार

मटव्या काणियांक दिल्ले परिंच कादंबरिंकयी पत्रांनी दिल्लो प्रोत्साह भोव वरतो. 'जर्तर पत्रांनी कादंबरी प्रगट जायनातल्ल्यो तर, कोंकणिंत इतल्या व्हड प्रमाणार कादंबरी आनी कादंबरिकार आसतेनांत. कानडी लिपिंत उज्वाड देकलेल्या कोंकणी कादंबरियां पयकी मुक्काल वांटो, पत्रांनी व्हाळल्ल्यो' (पिंटो, 2002, पा. 23). विकटर रोड्रिगस हाची पाप आनी शिराप (219 अवस्वर) आनी ए.टी. लोबोची 'वेळ घडी' (198 अवस्वर) पत्रांनी शिंकळे रुपार फायस जाल्ल्यो भोव लांब कादंबरियो.

जायत्या संदरभांनी पत्रांच्या प्रसाराकयी कादंबरिंनी मोटो तेंको दिल्लो आसा. ह्ये विशीं पिंटो (2002) अशें म्हणता: 'पयलें कादंबरियो पयणारी पत्रार व्हाळ्ळ्यो. थोड्या काळाक, कादंबरी वरविंच पयणारी पत्र जीव उरलें आनी लोकामोगाळ जालें म्हळ्यारी चूक जांवची ना. राकणो तसल्या धार्मीक पत्रान सयत, आपल्या प्रसारा खातीर, कादंबरी प्रगट केल्यात. अशें कोंकणी पत्रांक आपल्या असतित्वा खातीर कादंबरी परगट करचें अनिवाऱ्य जालां' (पा. 23).

## 5.10. कविता शेत

अट्राव्या शेकड्याच्या निमाण्या वर्सांनी (टिप्पून मंगळुरी क्रिसतांवांक श्रीरंगपटणाक आंबुडन व्हर्चे आदीं) मोंते मरियानो कोवेंताचो व्हडील फा। जोकीम मिरांदान रचल्लें गीत 'रिगलो जेजू मोळ्यांत' एक धारमीक गीत तरी अजून लोका तोंडार उरलां. हें मंगळुरांतच घडललें. हाच्ये उपरांतयी 'कोंकणी दिर्वे' पत्राच्या सुर्वाते पऱ्यांत रचीत जाल्ल्या कवितां पयकी धारमीक गितांचे दाखले मात्र मेळतात. हीं गितां शेंभर कंतिगो म्हळ्ळ्या नांवान जायते पावटीं छापल्लीं आसात. कानडी लिपिंतल्या धार्मीक गितां पयकी कवी जुजे लुवीस सल्दानान लिप्यंतर केल्लें क्रिसतपुराण एक मोलादीक कृती. फा। थोमस एसतेसांव हाणें 1614व्या वर्सा बरवन आकेर केल्ली वोवियां रुपार 10962 वेर्स आटापून आसची ही कृती, तवळच्या क्रिसतांवांच्या जिविताचो एक वांटो जावनासल्ली. गोंय सांडताना संगीं घेवन आयलेल्या आमच्या म्हालघड्यांनी भोवच जतेन सांबाळन दवरल्ल्यो हाच्यो प्रतियो एकेकच नास जातेच आसताना, कवी जुजे लुवीस सल्दानान हात बरपांतलें आरावन, आपल्याच प्रसतावनेन सजवन, इंगलेज सारांश आनी अर्थ विवरणा सवें 'क्रिसतपुराणा'क नवें रूप दिलें (पिंटो, 1993). 1907 इस्वेंत तवळचो फामाद नळ्यां सावकार सिमांव आलवारिसान ही कृती छापून काडली (कुवेल, 1952). अशें जुजे लुवीस सल्दानान कानडी लिपिंतल्या कोंकणीक एक व्हड दायज फावो केलें. ताणे लीकल्लें 'व्हड आवक आमच्या पापा सायबाक' गीतय भोव फामाद.

धर्मीक साहित्य आनी गितां धराळ मापान तयार जावनासलेल्या तवळच्या काळार कोंकणींत लायिकांचीं पदां नातल्लीं म्हण न्हय. गोंयां थावन येताना आमचे पुर्वज सांगाता गुमटांय

घेवन आयिल्ले म्हणतच तांचेलागीं जायतीं गुमचांचीं पदांय आसल्लीं. उपरांतल्या दशकांनी गोंयां थावन देंवोन आयिल्लीं नाविकांचीं (sailors songs) पदां तवळच्या लोका मधें भोवच फामाद आसल्लीं. हांच्ये भायर तांच्ये मधें लोका मोगाळ आसल्लो कविता प्राकार म्हळ्यार वोव्यो. काजाराच्या माटवांनी संदरभाक सरी जावन, त्येच घड्ये उत्रां विंचून घडलेली वोवी चार पंगतेंनी बरयली तर एक चुटूक वा कविता जाता! हाच्ये संगीं भूगऱ्यांक निदायताना गांवचीं गानां, भूगऱ्यांक खेळंवचीं गानां, कोसताना, नेज लायताना, लुंवताना, भात बडयताना, रेड्यांक न्हाणयताना सांगोड्यां संगीं गांवचीं जायतीं पदांय आसल्लीं.

ह्या पदां भायर, अधिकृत दाकल्यां परमाणे कानडी लिपिंतल्या कोंकणी कवितेंची सुर्वात केल्ली लुवीस मसकरेन्हसान. 'कोंकणी दिर्वें' पत्राचो संपादक लुवीस मसकरेन्हस खूद एक कवी जावनासलेल्यान कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी कवितेक जीव दीवन बरोच पोस केलो. मसकरेन्हसाच्या कविता घडच्या तांकी थावन कोंकणीक मेळल्ली भोव वर्ती कृती 'आबरांवचें यज्ञदान'. ह्या विशीं विसाव्या शेकड्याच्यो कोंकणी कविता बुकाच्या संपादकीयांत मेलवीन रोड्रिगस (2007) अशें म्हणता:

> 'अबरांवचें यज्ञदान' एक काव्यनाटक. बैबलांतल्या एका घडिता भोंवतीं विणल्यारय, आपलें संपूर्ण स्वातंत्र्य सांबाळून, नव्या रचनात्मक पात्रांक जीव दीवन, धर्माच्यो वोंयों मसतून, आमकां वेगळ्याच एका सामाजीक वेदिचेर व्हर्न पायता. मनशाचीं भावनां प्रकृते सोभाये सांगाता विणून, थळीय चरित्रे संगीं माखून, कवितेरूपीं प्रसतूत केल्लो हो कवी, ह्या काव्याद्वारीं मात्र न्हय ताणें रचल्ल्या जायत्या महत्वाच्या काव्यां खातीर, ताणें समग्र साहित्याचेर घाल्ल्या प्रभावा खातीर, हेर कोंकणी कविंक हुमेदिची झर जाल्ल्ये खातीर – आपल्या काळाचो उंचलो तशें महत्वाचो कवी अशें थर्ता (पा. xii).

लुवीस मसकरेन्हसा उपरांत ताच्येच पंक्तीर उदेल्लो कवी फा। सिलवेसटर मिनेजस. ताणें रचल्ल्यो चडश्यो कविता धारमीक. हाच्ये विशीं तशेंच ताची स्फूर्त घेवन उदेल्ल्या हेरां कविंच्या कवितेंनी आसलली धार्मीक साय पार्किल्लो डेसा (1999) म्हणता–

> सिला मिनेजाच्या कवितेंनी तो एक धर्मीक वेक्ती जाल्ल्यान, क्रिसतांव दिश्टी रूपच बळादीक दिसता. हाचीच स्फूर्त घेवन ह्या वेळा उदेल्ल्या संयभान कवी आसल्ल्या थोड्या पाद्री तशें लायिकांचेर आमच्या धारर्मीक चिंत्पाचो प्रभाव पडल्ल्यान उत्तीम काव्यें आसचीं धर्मीक गितां ताणीं लिकलीं (पा. 33).

हांच्ये पयकी रायमंद मसकरेन्हस, मो। प्लासीद कुलासो, फा। ग्रेगोरी कुवेल्लो आनी हेर प्रमूख. त्या उपरांत स्वामी सुपरिया लिखणे नांवाखाल बरवपी फा। सिपरियन कोस्मोस अलबुकर्क पै हाणें गितां–कवितां रचलीं आनी छापून पर्गटलीं. ताच्ये सवें मरिदास, चा.फ्रा. देकोसता, जे.बी. मोरायस, रान उद्यावर, लोरेस वास, लुवी पिरेर, वल्ली वग्ग, पावुसतीन सोज, जी. एम. बी रोड्रिगस, एडवर्ड नोरोन्हा, फेलिक्स पावल नोरोन्हा, जे.बी. सिकेर, वी. जे. पी. सलडाञ, लियो सोज, ए.टी. लोबो, सावेर मेंदोस, चा.फ्रा. देकोसता, विलफी रेबिंबस, फ्रान्सीस सलडान्हा बारेबयल, एडवर्ड नोरोन्हा, फा। टैटस प्रभुदास, के. आनंद

भट, लोरेन्स सलडान्हा, श्री जेरोम डी'सोजा, स्वामी सुपरिया, दिनकर देसाय, बी.वी. बाळिगा, मेलवीन पेरीस, श्री रत्नाकर आनंद शेणै, श्रीमती वेरोनिका कुवेल्लो, रिच्ची लस्रादो, लुवीस मसकरेन्हस, फा। आर्थर पिरेरा, एच. रघुराम नायक, मेलवीन रोड्रिगस, फ्रेड कुमार कुच्चिकाड, पी. वामन प्रभू, फ्रान्सीस सलडान्हा बंटवाळ, वासुदेव शानुभाग शिरसी, मावरीस डेसा, एन.बी. कामत अंकोल, बी. कृषण पै बदियडक, काव्यदास (लियाब), सिलवेसटर डी'सोजा मैसूर, बर्नाड जे. कोसता कुंदापूर, रान उद्यावर, विलफ्रेड आर. पांगळा, गौरीश कायकिणी, राघवेंद्र राव, सिज्येस ताकोडे, आन्सी पालडका, संतोष कुमार गुलवाडी, जोस्सी पिंटो किन्निगोळी, श्रीमती जयश्री नारायण एक्कंबी, बी. कृषण पै प्रभू बदियडक, नज्रेत नेरी ताकोडे, उल्लास के. पै. पुत्तूर, वी डी'सिलवा कंजूरमार्ग, ग्लेडीस रेगो, बंगले नारायण कामत, उमेश जनार्धन किणी, फ्रान्सीस मोंतेरो कूळूर, किशू बार्कूर, मट्टार विठल किणी, हेरी सोज इजय, अनील डी'सोजा पेर्नाल, फा। लियो कुटिन्हा, नवीन कुलशेकर, जी. जी. डी'सोजा, क्लेरेन्स पिंटो पडील, हेनरी एम. पेर्नाल, डबल्यू. बी. सिकेर पुत्तूर, जी. एम. बी. रोड्रिगस, लारेन्स गोवियस, क्सेवियर मेंडोन्सा, बी. जे. अजेकार, एल्यार ताकोडे, नेल्लू पेर्मन्नूर, के. गोपालकृषण श्यानभोग, जे.बी. मोरास, जोर्ज पींत आयकोळ, वल्ली क्वाड्रस अजेकार, फा। प्रताप नायक जे.स., जुडीत पिरेरा, जियो अग्रार, रोहिदास एन. रेट, मच्च मिलार, आंड्र्यू एल. डी'कुन्हा, आलवी कार्मेलीत, फ्रान्सीस सलडान्हा कामत, फा। एडवीन सोज कोर्डेल, बी. वत्सला बाळीग, श्री वी. आर. शिभाड कुमटा, जेफ्री सी. फेर्नांडीस आंजेलोर, डा। रोहिनी नागेश प्रभू हुब्बळ्ळी, एम. एन. प्रभू, के. जी. श्यानभोग, रोनी क्रासता, अरूण एस. उभयकर, रामचंद्र एम. शेट, फा। जोन, हेरी सोज कापुचीन, जोविटा रीमा मथायस बेळमण, शूभ एस. कामत, ओलिवेरा फ्लाविया, श्रीमती वसंती आर नायक, फा। रोशन कापुचीन, एन. बी. कामत अंकोल, अनंद श्यानभाग सिरसी, जे.बी. सिकेर, ओसटीन डी'सोजा प्रभू, मेलवीन जे. वास केलराय, अनील पेर्नाल, मेलवीन पिंटो नीरुडे, नंदिनी, वल्ली वग्ग, आर्थर पिरेरा ओमजूर, शूभ एस. कामत, म्याक्सीम लोबो, पी. जे. करुगळनडे, विन्सी फजीर, जो. सी. सिद्धकट्टे, जे. बी. मोरायस, किलंगोडी शंकरराव, जे.जे. डायस शिर्ताडी, लोरेन्स डी'सोजा कास्सिया, एम. डी. रोड्रिगस, रोबर्ट फेर्नांडीस उद्यावर, श्री रामचंद्र एम. शेट, आंटनी बार्कूर, स्टीवन क्वाड्रस पेर्मुदे, जे. बी. सिकेर मुंबय, शकुंतला आर. किणी, वायलेट जे. पिरेरा, उल्लास के. पै, विन्सी पिंटो आंजेलोर, मोहन वर्णेकर, यशवंत डी. एस., वल्ली वग्ग, वाल्टर दांतीस, नागेश अण्वेकर, वाल्टर फेलिक्स अलबुकर्क, ए. टी. लोबो, उल्लासण्ण, उमेश गौतम नायक, जोन शुंटिकोप्प, सुनिता वी. शेणै, प्रसन्न निड्डोडी, वसुधा प्रभू, रीटा अलबुकर्क, पी. कृषणकुमार, रोशू बाब बार्कूर, रोनी क्रासता, वाल्टर फेलिक्स, प्रेम मोरास, रेमंड डी'कुन्हा, रोशू बजपे, वनिता शिरीक नायक, विश्वनाथ शेट, दो। फ्लाविया कासतेलिनो – हांणी कविता जमे परगटल्यात. कानडी लिपिंतल्या कोंकणिच्या हेर प्रकाराच्या साहित्याक तुलन केल्यार कविता प्रकारांत सारस्वात लेककांनी गुमान वोडचे तसलो वावर केल्लो झळकाता.

1953 इस्वेंत फेलिक्स पावल नोरोनहान 'काव्यां झेलो' कानडी लिपिंतलें पयलें कविता पुसतक फायस केलें (रेगो, 2011, पा. 46). हाच्ये सवें काव्यां पुसतकां परगटची रिवाज सुरू जाली.

मंगळुरी कोंकणी कविता शेतांत नवालां केल्लो कवी चा.फ्रा. देकोसता. ताच्यो कविता गांवच्या भोंवारांतल्यो आनी आपल्याच समाजेच्या समस्यां भोंवतीं रेवडल्ल्यो तरी, ताणें कोंकणी काव्याचेर मारल्ली म्होर सदांकाळ उर्च्ये तसली. ह्या विशीं रोड्रिगस (2007) अशें म्हणता:

> चा.फ्रा.न कवितेंनी उब्यो कर्च्यो प्रतिमा, अपरूप उत्रांची विंचवणी आनी व्हाळो, जिविताचेर ताणें मार्ची नदर, मागीर हें सगळें कविनेद्वारीं व्हाळताना प्रास आनी अलंकार गुंतल्ल्यान कानांक, काळजांक धादोसकाय दिंवचें संगीत – हें सगळें चा.फ्रा.क आनी चा.फ्रा.क मात्र साध्य. ताणें आपल्या कवितेंनी जांव, हेर साहित्य प्रकारांनी जांव वापारल्ली भाशेची ग्रेसतकाय कोंकणिंत मात्र न्हय, हेर भासांनींय वाचुंक मेळची कश्ट (पा. xv).

कोंकणी कवितेंक मान जोडन दिल्ल्या चा.फ्रा.न खेळल्लेपरीं उत्रांनी खेळल्ले कोंकणी कवी भोव अपरूब. ताणें उत्रां, चिंनां, भोगणां आनी संगीताच्या अलंकारान जायतीं रोसाळ काव्यां लिखलीं. ताचो कविता जमो 'सोंश्याचे कान' नागरी लिपिंत पर्गटतच ('जाग' प्रकाशन, गोंय) ताका केंद्र साहित्य अकाडेमिची प्रशसती (1989) लाबली. कानडी लिपिंतल्या कोंकणी कवितेंच्या उंचायेक साक्स म्हळ्ळ्ये परीं जे. बी. मोरायस हाच्या 'भितरलें तुफान' (1985) कविता संग्रहाक आनी मेलवीन लुद्रिगाच्या 'प्रकृतिचो पास' (2011) कविता संग्रहाक केंद्र साहित्य अकाडेमी प्रशसत्यो लाबल्यात.

प्रसतूत कवीं पयकी केंद्र साहित्य अकाडेमी प्रशसती विजेत मेलवीन रोड्रिगस प्रमूख. ताणें विसतार विषय विंचून कविता घडल्यात. कविता आनी कविंक रच्ची ताची तांक विशेस.

मनशा मनांतल्या अशांतीक, समाजेंतल्या अन्यायांक कवीन कविते मारिफात स्पंदन केल्ल्येवेळीं वासतव कविता उदेता. अशें उदेल्ल्या कवितेक मरण ना. ती लोका संगीं उस्वास घेवन जियेता. असल्यो जीवंत वोळी वाचप्यांक विचारशील करतात. असल्यो वोळी रचपी, सामाजीक काळजी आसचो, अन्याय अनितीक प्रतिस्पंदन कर्तलो भावजीवी मात्र लोकामोगाळ कवी जाता. कानडी लिपिच्या कोंकणिंत ह्या दिशीं विल्सन कटील अन्येक प्रमूक कवी. कोंकणी मात्र न्हय, कानडिंतयी ताच्या कवितेंनी तो एक समर्थ कवी म्हळ्ळें येदोळच रुजू केलां.

चा.फ्रा.न एकुणिसाव्या दशकांत मंगळुरांत जागे कविंचो पंगड सुर्वातलो. हाका लागोन कानडी लिपिंतल्या कोंकणी लेखकां मधें कविता लिखची वोड चडली. त्या उपरांत मेलवीन लुद्रिगाच्या गुरकारपणाखाल कविता डोट कोम आनी आतां पोयेटिक्स तशेंच पोयेटिका पंगडांच्या प्रेरणान कानडी लिपिंतल्या कोंकणिंत धाराळ कवितेचें बेळें पिकोन आसा म्हण्येत. येदोळ कानडी लिपिंतल्या कोंकणिंत 267 कविता जमे फायस जाल्यात.

## 6. संपणी

हें लेखन कानडी लिपिच्या कोंकणी साहित्याचें भोव ल्हान चित्रण तरी, म्हाका मेळल्ल्या दाखल्यांच्या आदारान येदोळ ह्या लिपिंत रचल्ल्या मटवी काणी, कादंबरी आनी कवितेंचे जुम्ला अंके–संके हांगासर दाखल केल्यात. ते पळयताना, गोंयच्ये कोंकणिचो एक वांटो जावनासच्या, कानडी लिपिंतल्या कोंकणिंत व्हड मापाचें साहित्य रचीत जालां म्हळ्ळयाक

कायिंच दुभाव ना. कोंकणिंतल्या हेर 42 बोलिंतल्या साहित्याक तुलन केल्यार कानडी लिपिंतल्या कोंकणिंत रचन जाल्ले तितलें साहित्य हेर लिपिंनी जावंक ना. तरी हांतलें लिप्यंतर जाल्लें साहित्य भोवच उणें. हाका लागोन कोंकणिच्या हेर लिपियेंतल्या बरवप्यांक जांव, वाचप्यांक जांव हाची खूब माहेत ना.

ह्या लेकनांत फकत बुका रुपीं छापून आयलेलें साहित्य मात्र लेकाक धरलां शिवाय, पत्रांनी व्हाळोन आयलेल्या साहित्याविशीं गुमान दीवंक ना. तरी कानडी लिपियेंतल्या ओट्ट साहित्याचें तुपें ह्या लिपियेंतल्या हर बरवप्याच्या देणगेवरवीं भरोन आयिल्लें जावनासा. तशेंच ह्या लेकनांत हर लेखकाच्या साहित्याचे विशलेषणयी जावंक ना. तरी, हांगाचें ओट्ट साहित्य वेळा–काळा संगीं बदलावण जायित्त, तकले थावन तकलेक वाडोनंच आयलां म्हळ्ळें स्पश्ट जाता. खंच्याय एका वेळा पांवड्यार खंचीय एक कृती लोकामोगाळ जाली तर, त्या वेळापांवड्याच्या हेर लेककांनी ताचें अनुकरण करचें सहज. तशेंच एका अयित्र वेळार नव्या चिंत्पाची एक कृती उदेली तर ताचो प्रभाव तवळ पऱ्यांत आसलेल्या चिंत्पासंगीं मेळोन मुकारून वेताना साहित्याचो दरजो चडोन येता. कानडी लिपिच्या कोंकणी साहित्याच्या इतिहासांत खंच्याय काळार, तवळ चाल्तेर आसल्लें चिंतप थोड्या मापान तरी वेगळेच रितीन बदल्चे तसलें साहित्य उदेवन आयिल्लें फकत चाफ्रा देकोस्ताच्या लिखणेंत मात्र म्हण म्हाका भोग्ता.

## टिप्पण:

1. 'बोली' म्हळ्यार एके व्हड भाशेची ऊप–भास. बोलिच्या ऊप–भाशेक ऊपबोली म्हणतात. अन्येके रितीन बोली म्हळ्यार एके व्हड भाशेची फकत उलवपाक वापारची ऊप–भास जावनासता. त्या भाशेच्या मूळ भाशेक बर्पाची समान रीत आसोन त्या भाशेंत लिकलेलें साहित्य आसता (Masica, 1991).
2. धा हाजरांच्याकी चडीत जिबांनी घोळच्यो भासो.
3. कोंकणी गोंयची राज्य भास म्हण थिरायताना मुकेल वांटो कोंकणी लोकान खुशेन स्वीकार केलें तरी हेर बोलिंच्या लोकान अंत्रूजी बोलिची विंचवण ना समदानेक कारण जाली. हाका दोन कारणां आसल्लीं. पयलें– अंत्रुजी भास मराठी लेक्सिकान, सिंट्याक्स आनी उच्चारान भरलेली कोंकणी म्हण तर, दुस्रें लिपीक संबंद जावन. बार्देसी देवनागरी आनी रोमी लिपी दोनयी वापार्न बरव्येत तर अंत्रुझी फकत देवनागरी लिपी मात्र वापार्न बरव्येत देकून. अंत्रुझी बोली गोंय कोंकणिची अधिकृत बोली म्हण मांदून घेतच, ह्या कोंकणीन बार्देसी कोंकणीक दूसऱ्या स्थानाक लोटलें तर साश्टी बोलीक तीसऱ्या स्थानाक पायलें (Nadkarni, 2015).

   दक्षीण गोंयांत मुकेल जावन मडगांव भंवतीं साश्टी बोली बळवंत आसली. पुडतुगेजांच्या येण्या पुर्विल्या कोंकणीक भोव चड लागीं आसच्या (Pereira, 1973) ह्या बोलीक साश्टी बोलीन कोनश्याक लोटलें (Nadkarni, 2015, p. 21).
4. दूसऱ्या वादा पर्माणे कोंकणी गोंयच्या कोकणे आदिवासिंची भास (कामत, 2019).
5. सारस्वत आनी जिएसबी म्हळ्ळे दोन वेवेगळे पंगडगी वा हे दोनयी एकच समुदायगी म्हळ्ळें सवाल जायते पावटीं उदेंवचें आसा. जिएसबी समुदाय भारतांतल्या विवीध प्रदेशांनी, वेवेगळ्या

नांवांनी पळेवंक मेळतात. सामान्य जावन हांकां 'कोंकणे' म्हण ओळकातात. हाका मुखेल कारण ते कोंकणांत/गोंयांत वसती करताले/करतात म्हळ्ळे खातीर जावंक पुरो. तरी जिएसबी सरस्वती न्हय तडीर आसलेल्या सारस्वतांच्या कुळ्येचे जावनासात (Keni, 2008, p. 49).

आऱ्यन ब्राह्मणांचें मूळ काश्मीर–पंजाब प्रदेश. पंजाबांत चड काळ तांची वसती आसल्ली देकून तांकां सारस्वत ब्राह्मण म्हळ्ळें नांव आयलां. हांच्ये पयकी थोडे क्रमेण गंगा आनी यमुना वाटेन उदेंती कुशीन गेले तर वेदांच्या काळार (क्री.पू. 1000-600) उत्तर प्रदेश, उत्तर बिहार, उदेंती राजस्थानाच्या विवीध भागांक विसतारले. निमाणें, गंगा बयलाक पावल्ले ते जायतीं शतमानां थंयसरच वसती कर्न आसल्ले. उपरांत बिहार, मागीर बंगालाक पावले. त्या काळार बंगालाक 'गावड देश' म्हणताले जाल्ल्यान, थंय थावन कोंकणाक पावल्ल्या हांकां गावड सारस्वत म्हणतात (Baliga, 2019, p. 61). सारस्वत ब्राह्मणा मधें गावड सारस्वत ब्राह्मण, चित्रापूर सारस्वत ब्राह्मण, राजपूर सारस्वत ब्राह्मण म्हळ्ळे मुखेल तीन पंगड आसात.

6. संसकृत भाशेंत लिखललो सह्याद्राखांड स्कंद पुराणाचो एक भाग. हो पुराण क्री.श. 5 थावन 13व्या शेकड्या पऱ्यांतलें विवीद काळार वेवेगळ्या बरप्यांनी बरयिल्लें बरप आटाप्ता. गोंय विश्यांतलें बरप लगबग सत्राव्या शेकड्यांत लीखल्लें म्हळ्ळें अंदाज केला (Da Cunha, 1877, p. 2).
7. सोधनांगारांक लाबल्ल्या पुराव्या परमाणे काश्मीराचे निवासी जावनासल्ले सारस्वत विवीध कारणांक लागोन जाग्यांतर जावन पंजाब, सिंद, गुजारात, बंगाल आनी महाराश्ट्रा मारिफात सकला देंवोन गोंय पावले (Conlon, 2023, p. 16).
8. पिंटो (2019/2014) पर्माणें– 'कोक्ना आदिवासीच कोंकणाचे मूळ निवासी. मौऱ्य रायांच्या आडळत्या उपरांतल्या संघटीत राय कुळियांनी कोंकणांत स्व–आडळतें चलयतल्या गणराज्यांच्या आदिवासिंचें लोकवेद वेवस्थीत रितीन नास केलें. दऱ्या वेपाराचे अभिवृद्धेन आनी कोंकणाच्या शहरीकरणान (क्री.श. 400) आदिवासिंक कुशीक लोटलें'.
9. गोंयांतले सर्व गांवकार जिएसबी न्हयतरी चडताव जिएसबी जावनासल्ले. हांच्ये संगीं मराठी समुदायाचो थोडो लोकयी व्हड व्हड भुंयचे म्हालक जावनासोन 'गांवकार' म्हळ्ळ्या पद्वेक फावो जाल्ले. पुडतुगेजांच्या काळार हांतले थोडे कथोलीक जाले तरी ताणीं 'गांवकार' पदवी सांडलिना.
10. 1464 थावन 1498 पऱ्यांत बहुमनी सुल्तानांनी गोंयचेर शासन चलयलें. उपरांत गोंय बिजापुरचा आदीलशा राज्वटके खाल आयलें. ह्याच काळार गोंयचा हिंदू लोकाचेर कठीण अन्वारां आयलीं. हीं फूड करच्याक सारस्वतांनी श्री मालू पैच्या मुखेल्पणार दऱ्या फौजेचो सयनीक जावनासलेल्या भटकळाच्या तिम्मप्प नायक (तिमोज) मारिफात पुडतुगेजांची कुमोक मागल्ली (नायक, 2009, पा. 93).
11. अलबुकर्क आनी ताच्या उत्तरादिकारिंनी सारस्वतांच्यो कसल्योच चालिरिती जांव, संविदान जांव बदलिलें ना. फकत सरल्ल्या दादल्याच्या सरियेर ताच्या बायलेन उडोन हुल्पोन मर्ची 'सती' रिवाज मात्र ताणीं रद्द केली (Nadkarni, 2015 p. 15). तशेंच दऱ्या डकायितांक (Moors) धांवडावन ब्राह्मणांक (सारस्वत) आनी हिंदू लोकाक सतयनजो म्हण आज्ञा दिली (नायक, 2009, पा. 94).

12. गोंय आपणा स्वादीन केल्लेंच अलबुकर्कान सारस्वत लोकान बांदचो तिर्वो उणो केलो (नायक, 2009).

13. ह्यो विशीं प्राचीन कोंकणी भारत बुकांत प्रो। रोकी मिरांदान अशें बरयलां: कोंकणी भारत निरूपण केल्ल्यांकच आमी ह्या पुसतकाचे लेखक म्हण मांदून घेतलां. ताणीं विश्णुदास नामा हाचो मराठी भारत कोंकणेंत तर्जण कर्न पुडतुगेज मिशनरिंक सांगल्लो म्हण अंदाज केला. कित्याक ह्या सगळ्या पुसतकांत हंता हंतांनी तर्जणेंत बदलाप दिसोन येता. ब्रागांत आसचे अब्जज्स्यी मूळ प्रती न्हय, बगार मूळ प्रतियेची प्रती, कित्याक प्रती करतल्यानयी चुकी केल्ल्यो दिसोन येतात (Miranda, 2011, p. 16).

14. ब्रागांतल्या मिन्हो विद्यापीठांत जगवन दवरलेल्या रोमी लिपिंत आसच्या कोंकणीच्या दोन हात बर्पांनी पुसतकाचो माताळो ना देकून अनुक्रमान अब्जज्स 771 (767 पानां आटाप्तात) आनी Codex 772 (268 पानां आटाप्तात) म्हण नमूदन केलां.

   'कोंकणी भारत' मुळान विषणुदास नामान मराठिंत बरयिल्ल्या 'मराथ भारत' हाचो तरजुमो म्हण अंदाज केला. सोळाव्या आनी सत्राव्या शतमानांतल्या जेज्वीत मिशनरिंक कोंकणी भास आनी हिंदू धर्म जाणा जांवची उरबा बळवंत आसल्ली. हाका लागोन ताणीं मराथी महाभारत कोंकणींत करवन लिखून घेतलो. देकून, अशें तर्जण कर्न सांगल्ले वेक्तीकच कोंकणी भारताचो रचपी म्हण लेक्तात. पूण ही तर्जण एकेच वेक्तीन न्हय बगार जायत्यांनी केल्या म्हळ्ळें वाचताना कळता. त्या काळार धारमीक साहित्य, तांतल्या तांतूं काव्यें मराठिंतच रचीत जातालें. हाका लागोनंच फा। थोमस स्टीपन्स हाणें Doutrina Christam em Lingoa Bramana Canarim गद्य कोंकणींत रचलें तर, क्रिसतपुराण काव्यें मराठिंत लिखलें (Miranda, 2011, p. 17).

15. पुडतुगेज-कोंकणी अर्थकोश बरयलेल्या एका अनामीक लेखकान ह्या अर्थकोशाच्या निमाण्या पानांनी कोंकणीची मूळ लिपी म्हण उल्लेक केल्ल्या एक्ये लिपिचीं थोडीं अक्षरां आसोन, तीं कानडी लिपिचीं पुरातन अक्षरां म्हण समजोव्येत. ह्ये लिपिंत लभ्य आसची अमादोर दे संताना हाची एकच कृती 'फ्लोस सांक्तोरम' प्यारिसांतल्या बिबलियोथेक न्याशनले (Bibliothèque Nationale) हांगासर आसा,

16. पुडतुगेजांच्या येण्या आदीं गोंय प्रदेशांचेर कानडी शासनदारांनी राज्वटकी चलयिल्ली आसतां, हाका लागोन सोळाव्या तशें सत्राव्या शतमानाच्या गोंयच्या कोंकणींत कानडी भाशेचो प्रभावयी झळकाता. मात्र न्हय, ह्या कोंकणींत संसकृत, परसो-अरेबीक प्रभावयी पळेव्येत (Sardesai, n.d).

17. 'कोस' म्हळ्यार पुरविल्या काळाचें अंतर मेजपाचें माप. एक कोस म्हळ्यार तीन की.मी.

18. सां लुवीस कोलेजिचो रेकटर जावनासोन उपरांत मंगळूर दियेसेजिचो बिस्प (1910 थावन 1923 पऱ्यांत) जाल्लो पावल पेरिनी जे.स. विदेशी तरी हाणे कोंकणिच्या अभिवृद्धेक वरतो पाटिंबो दिला. नाच्याच उत्तेजनान फा। अंतोन जावो (फा। लुवीस जुवांव सोज) सोजान 1914व्या वरसा कोंकणींतलो पयलो जानपद गादी आनी हुमिण्ये संग्रह फायस केलो. बिस्प पेरिनिचो पाटिंबो घेवन कोंकणीची सेवा केल्ल्यां पयकी 'राकणो' पत्राचो स्थापक मो। सिलवेसटर मिनेजसयी एकलो. मंगळूर दियेसेजिचें आडळनें स्थळीय याजकांक हतांतर करिजे म्हण वातिकानाचेर दाबाव

घाल्ल्या बिस्प पेरिनीन, हें सलीस जांवचे पासत आवदे पयलेंच आपला हुद्द्याक राजिनामो दिलो (Pai, 1981, pp. 231-233).

19. तवळचो शिकपी तशेंच विलायती मर्जेचो कोंकणी लोक कोंकणी भास उलवंक नर्गताले. ह्यो विशीं खूद लुवीस मसकरेञ्ञन अशें बरयलां: 'आमचे शिकपी मात्र आपल्या माय-गांवाक आनी आमच्या माय भाशेक कित्याक कांटाळतात म्हळ्ळें म्हाका समजाना. चडावत शिकपी चेडवां इंगलेजांत चिक्केशे चूक जाल्यार हासतात, आनी कोंकणी भास आपणाक कळाना वा कांदळ्यांत आपूण फेल जालीं म्हणोंक लजचें सोडन, तांतूं भारी दवलत भोगतात' (मसकरेंञ्ञ, 1998, पा. 13).
20. येदोळ पऱ्यांत कानडी लिपियेंतल्या कोंकणींत फायस जाल्ल्या ओट्ट बुकांचें लेक धरुंक ग्ल्याडीस रेगो हिणे बरयिल्ल्या 'कन्नड लिपियेंत कोंकणी पुसतकां', कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमिची वोळेरी तशेंच अमर कोंकणिंत फायस जावनासलेल्या 'मयला फातर' अंकणाचो आधार घेतला.
21. बोंबयांत रोमी लिपिंत असलेच बूक हप्त्याक एका लेकान आनी एकेका लेखकाचे म्हयन्याक एका लेकान फायस जाल्लेय आसात. रोमी लिपिंत दोनशां वयर नवलिका बरवन फामाद जाल्ल्या रेजिनालड फेर्नांडिसान म्हयन्याक एक बूक बरवन फायस केल्लोय आसा (Menezes, 2022, pp. 98-100).

## REFERENCES:


Anand, K. (2013). India speaks...780 ways. *indianexpress.* Retrived August 11, 2013, from http://archive.indianexpress.com/news/india-speaks...780-ways/1153717/

Baliga, G. (2019). *History of Saraswats.* V.M. Salgaocar Foundation.

Botelho, A. M. (2007). *Language and early schooling on Goa* [Unpublished doctoral dissertation]. Goa University.

Cardoza, T. (2022). Goy Suttke Adim Romi Konknninthli Kadombori. In F. V. Da Costa, V. Quadros & T. Cardoza (Eds.), *Romi Konknnintle sorgest sevok* (pp. xxxvi-xliv ). Dalgado Konkani Akademi.

Census of India. (2011). http://censusindia.gov.in/2011Census/C-16_25062018_NEW.pdf

Chandra, S. (2007). *History of medieval India* . Orient Blackswan Pvt. Ltd.

Chatterji, S.K. (1940). *Indo-Aryan and Hindi Eight Lectures.* Gujarat Vernacular Society.

Conlon, F. F. (2023). *A caste in a changing world: The Chitrapur Saraswat Brahmans, 1700-1935.* Manohar Publishers and Distributors.

Da Cunha, J. G. (1877). *The Sahyadri-Khanda of the Skanda Purana.* Thacker, Vining & Co.

Fazal, S., Ali, K. & Vashishtha, D. (2019 January). Some insight into the language census of India-2011. *The Geographer, 66* (1), 31.

Gomes, O. J. F. (2004). *Goa.* National Book Trust, India.

Indira Bai. (2022, November 7). In *Wikipedia.* https://en.wikipedia.org/wiki/Indira_Bai

Katre, S. M. (1942). *The formation of Konkani.* Konkani Publishing House.

Keni, C. (2008). *The Saraswats: A compilation of facts and documents from various sources.* V. M. Salgaocar Foundation.

Kosambi, D. D. (1962). *Myth and reality: Studies in the formation of Indian culture.* Jai Gyan.

Lobo, B. (2018, 15 Jul). Losing our language. *Church of St. Andrew.* https://standrewchurch.in/losing-our-language/

Malshe, S. G. (1995). The language situation of Goa in the 16th and 17th Century. *ciil-ebooks.* http://www.ciil-ebooks.net/html/papers/section2.html

Masica, C. P. (1991). *The Indo-Aryan languages.* Cambridge University Press.

Menezes, A. (2022). Reginaldo Fernandes. In F.V.Da Costa, V. Quadros & T. Cardoza (Eds.), *Romi Konknnintle sorgest sevok* [Deceased writers konkani of Romi Script] (pp 98-102). Dalgado Konkani Akademi.

Miranda, R. V. (Ed.). (2011). *The old Konkani Bharata Volume 1: Introduction.* Central Institute of Indian Languages.

Mitragotri, V. R. (1992). *A socio-cultural history of Goa from the Bhojas to the Vijayanagara.* [Unpublished doctoral dissertation]. Goa University.

Nadkarni, M. (2015). *Phonological and morphological patterns in Antruzi, Bardesi and Saxtti Konkani: A comparative study.* Department of Linguistics University of Mumbai.

Pai, C. C. A. (1981). *Konkani huminnyom* [Konkani riddles]. Satabdi Prakashan.

Pereira, J. (1973). *Literary Konkani: A brief history.* Konkani Sahitya Prakashan Dharwar.

Rao, R. K. (1989). *Godde Ramayan.* Konkani Language Institute.

Sardesai, M. (2006). *A comparative linguistic and cultural study of lexical influences on Konkani.* [Unpublished doctoral dissertation]. Goa university.

Sardesai, M. (2004). Mother toungue blues. *Seminar, 543.* https://www.india-seminar.com/2004/543/543%20madhavi%20sardesai.htm

आलवरीस, जे. एस. (2008). *आंजेल.* कोंकणी संस्थो सां लुवीस कोलेज.

आमूर, जी. एस. (2012). *कन्नड कथन साहित्य: सणणकते.* प्रियदर्शिनी प्रकाशन.

कुवेल, ई. (1952). क्रिसतांव पुराणांतली विंचोण. *पयणारी 2*(52), 5.

कास्सिया, डी. (2005). कोंकणी भास आनी साहित्याच्ये वाडावळिंत पत्रांचो पात्र. लूटी यू. लोबो (सं.), *अमर दिर्वे रुप्योत्सव अंको* (pp. 99-103). कोंकणी संस्थो सां लुवीस कोलेज.

गौड, एम. जी. (2019). *भास – संसक तेचें भंडार सां. लुवीस कोलेज कोंकणी संस्थो.* कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी.

डिसोजा, ई. जे. एफ. (1996). कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहितांत समकालीन मटव्या काणयांचेर एक अध्ययन. *अमर कोंकणी, 26,* 20-28.

डी'सोजा, ई. जे. एफ. (1999). जो. सा. आलवारीस म्हळ्ळो जोन लोबो. *अमर कोंकणी, 32,* 25-29.

डे'सा, एम. (1999). कानडी लिप्येंतली कोंकणी कविता. *अमर कोंकणी, 33,* 29-39.

देकोसता, सी. एफ. (2005). *पणतेची पेली.* क्लिफर्ड सोज.

निड्डोडी, जे. (2007). सुर्विल्या कोंकणी साहित्याची घडावळ. *राकणो, 69*(49), 12-13.

नज्रेत, ई. (2018). शेकड्यांत कानडी लिपिंत कोंकणी कादंबरिंची वाडावळ – सुकण्या नदर. *अमर कोंकणी, 69,* 40-52.

नायक, के. आर. एस. (2009). *सारस्वत सुधा.* आर. एस. बी यूत असोसियेशन (री).

नोरोन्हा, ई. (1999). आंजेल. *अमर कोंकणी, 32,* 13-18.

नोरेंज, एफ. पी. (1963). हाणीं कोंकणी भाषेची सेवा केली. *राकणो, 25*(50), 33-34.

पिंटो, बी. (1993). कवी सल्दान आनी क्रीसता पुराण. *अमर कोंकणी, 21,* 11-15.

पिंटो, जे. (2002). कोंकणी पत्रांनी कादंबरिचो पात्र. *अमर कोंकणी, 38,* 20-25.

पिंटो, जे. (2019). कोंकणी भाशेचें आदिवासी मूळ. (कामत, एन. एम. Trans.). *अमर कोंकणी, 73,* 5-12. https://www.researchgate.net/publication/260795276_The_unsung_linguistic_subalterns_in_Goan_history_the_forgotten_Konkani_speaking_Kukna_and_Gamit_tribals_of_Pre (Original work published 2014)

पिंटो, एम. (2018). कोंकणेंत मटवी काणी: डो. एडवर्ड नज्रेत आनी केवीन डी'मेल्लो हांच्या काणियांचेरे एक नदर. *अमर कोंकणी, 70,* 5-18.

बैरप्प, एस. एल. (2017). *कथे मत्तू कथावसतू.* साहित्य भंडारद प्रकाशन.

मणकीकर, के. (2015). *संत ज्ञानेश्वरी रचीत ज्ञानेश्वरी.* कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी.

मसकरेंञ, एल. (1998). कोंकणी दिर्वें 1912 – रुप्योत्सव अंको – 1937 पंचवीस वोर्सां. *अमर कोंकणी, 31,* 4-13.

मुगळी, ए. आर. (2022). *कन्नड साहित्य चरित्रे.* गीता बूक हौस.

रेगो, जी. (1999). कोंकणी साहितांत मंगळुरी स्त्रीयो. *अमर कोंकणी, 33.* 10-18.

रेगो, जी. (2011). *कन्नड लिपियेंत कोंकणी पुसतकां (1858-2010).* मांड सोभाण.

रोड्रिगस, एम. (2007). एक्षें वर्सांची कोंकणी कविता. In एम. रोड्रिगस (सं.). 20*व्या शेकड्याच्यो कोंकणी कविता.* कर्नाटक कोंकणी साहीत अकाडेमी.

रोद्रीगीश, एल. ए. (1982). ज्ञानेश्वराची मराठी आनी रिबशेराची कोंकणी. *अमर कोंकणी, 3,* 12-14.

*(**जोकीम पिंटो** कोंकणी लेकक. प्रसतूत सां लुवीस कोंकणी संस्थ्यांत काऱ्यसंयोजक जावन वावुरता.)*

# 'संशोधसार' – एक विमार्सो

डो। चंद्रलेखा डिसोजा

'संशोधनसार' पुस्तकाचें बरोवपी, प्रा.सुशांत नायक आसात. ह्या पुस्तकाचें प्रकाशन राजू बलनायक, आर. बी .प्रॉडक्शन, मडगांव, गोंय, हांचे वरवीं जाल्या आनी डिसेंबर 2017त ह्या पुस्तकाची उजवाडावणी जाल्ली. बरोवप्याक पयलींच परबीं की प्रकाशकान वितरकाचें नांव लेगीत दिल्या. सामान्यपणें हांवें पळयल्या की आमचें लक्ष वितरण वेवस्थे कडेन वचना. पुस्तक बरोवप्यान बरयलें, प्रकाशकान उजवाडायलें म्हूण प्रस्न सुटना पूण पुस्तक लोकां मेरेन पावूंक जाय हें लेगीत तितलेंच महत्वपूर्ण आसता. कोंकणीच्या मळार आमचे कडेन पुस्तकाची वितरण वेवस्था आसा काय ना? जर आसा तर ती कितली वेवस्थीत आसा हाचेर विचार जावंक जाय.

'संशोधसार' पुस्तकांत पयलो लेख 'कोंकणी भाशेखातीराची कम्प्यूटर अणकारांतली आव्हानां आनी आडखळीचेर' आसा. दुसरो लेख कोंकणी भाशेच्या व्याकरणांतलीं आव्हांनाचेर आनी बाकीचे स लेख साहित्यीक आस्वादकीय प्रक्रियेचेर आदारून आसात. खरें म्हणल्यार ह्या पयल्या लेखा विशीं हांवें कितेंय बरयलें जाल्यार तें फकत शाब्दीक अर्थाचेंच आसतलें कारण कम्प्यूटर अणकारा विशीं हांव तितली डिजीटल माहिती दिवंक सक्षम जावंक ना. म्हाका ह्या टेक्नीकल गिन्याना बद्दल थोडी भोव माहिती आसा. ही म्हजी मर्यादाच म्हणूं येता, पूण खंयचीय भास, आयज जर टेक्नीकली सक्षम जायना, तर ते भाशेचो विकास जावंक पावचो ना. हें आमी समजून घेतल्यार बरें. लेखक प्रा. सुशांत नायक म्हणटां तें म्हाका शंभर टक्यानी खरें दिसता. तांचो हो लेख कोंकणीभाशे खातीर खूपच महत्त्वपूर्ण थारता.

'संगणकी अणकारांतल्यो मुळाव्यो प्रक्रिया अर्थात कम्प्यूटर अणकारा' खातीर मूळ तीन प्रक्रिया आसात–

1. भाशेचो शब्दसंच–Language Corpus
2. उतरांचे उच्चारणीक लेबलीकरण–POS Tagging with BIS Tag Set
3. रूपकात्मक विश्लेशण–Morphological Analysis (नायक, 2017, पा. 27).

फुडें आपल्या लेखांत बरोवपी देखी दिवन आपलें विचार मांडटात ते विश्लेशण टेक्नीकली वेवस्थीत जालां हातूंत मातूय दुबाव ना. आडखळीं आनी आव्हानां पेलूनच कोंकणी भास कम्प्यूटरीय जावंक पावतलीं.

कोंकणी मोगी मनशान भाशीक आनी लिपीच्या वादाक सोडून तिका काळा वांगडा चलोवप गरजेचें थारता. लेखकाचें अभिनंदन. म्हाका एक प्रस्न पडटा, हिंदी–कोंकणी वा कोंकणी हिंदी कम्प्यूटरीय अणकार करताना जर असलीं वाक्यां आयलीं तर ताचो अणकार कितलो accurate जातलो–

हिंदी– कथाकार प्रेमचंद ने, सामाजिक बदलाव को रेखांकित किया है।

हांगा कथाकार म्हळ्यार कथा आनी कादंबरीकार दोनूय आसा, पूण कोंकणी भाशेंत कथाकार म्हळ्यार 'कहानीकार' काणी बरोवपी जाता. कम्प्यूटर असल्या वेळार कितें करता काय? तशेंच

हिंदी–लेख को संशोधित किया गया है। (Revised है Research शब्द अभिप्रेत ना.) तशेंच

हिंदी– भाषा का मानकीकरण आवश्यक है।

(कोंकणी खातीर प्रमाणीकरण) मशीनाक कळटले व्हय?

कोंकणी– तो भायर पडलो.– ह्या वाक्याचो अणकार जर मराठी वा हिंदी भाशेंत करूंक जाय तर मशीन अणकार करताना कितें आनी कशें करतले काय?

हरशीं पळल्यार पुस्तकाची प्रस्तावना वाचल्यार भोवमानेस्त शांताराम वर्दे वालावलीकारान कम्प्यूटरीय अणकारा विशीं सुंदर स्पश्टीकरण मांडल्याच. तांच्या विचारा प्रमाण–

'आमी यंत्रानुवादाचो विचार करतना एक महत्वाची गजाल ध्यानांत धरूंक जाय ती ही, आमची मोख अणकारा खातीर संगणक वापरप ही आसा. संगणाक सोपें पडचें म्हणून आमी आमची भास वा तिच्या व्याकरणांत बदल करपाचो विचार करूंक फावना' (नायक, 2017, पा. xxii).

एक गजाल मात खरी की आयज जर आमची भास कम्प्यूटरांत ना तर ती उरतली काय ना? हाचेर आमी विचार करूंक जाय. आमची भास डिजिटलायजेशनाच्या मार्गार फुडें वचूंकच जाय. प्रा.सुशांत बरयता तशें '....हे काळाते कसवटेर थारपाचें आसा' (नायक, 2017, पा. 35).

'संशोधशार'त दुसरो लेख 'कोंकणी भाशेच्या व्याकरणांतलीं आव्हानां'चेर आसा. हातूंत कोंकणीतल्या व्याकरणाचो विचार, कोंकणी व्याकरणांतल्या विशेशणांची दोट्टी रुपां, क्रियापदांचीं धातूसाधीत रुपां, विभक्ती प्रत्यय, दुसरे आनी चवथी विभक्तीचीं वेगळेपणां, बीं स्वरुपांत प्रा.सुशांत खोलायेन विश्लेशण करता. खरेंच सगळ्या कोंकणी शिक्षकां खातीर लेगीत हें पुस्तक खूपच महत्वपूर्ण थारता. भाशेचो उशणो वेव्हार लेगीत अभ्यास करप हें आयज गरजेचें थारता. काळांतरान भास बदलतलीच हें लक्षांत धरून घडये 'साचेबद्ध व्याकरणांत' बदल करचेंच पडटलें.

डॉ.राजय पवारांची नाट्यलेखन शैली लेखांत तियात्राचो उल्लेख आयल्याच पूण पयल्या तियात्राचो उल्लेख केल्यार इतिहासीक रुपान ते बरें दिसपाचें कारण शणै गोंयबाबाचो उल्लेख जालो पूण 'पाय त्रियात्रिश्टाचो' तशेंच कर्णाटकांतल्या कन्नड लिपयेंत जाका 'काव्य नाटकाचो बापूय मानतां' तांचोय उल्लेख जावंक जाय आशिल्लो. साहित्यीक इतिहास दिताना, कोंकणी खातीर चारूय वाठारांतलो इतिहास महत्त्वपूर्ण थारता, हें आमी विसरूंक फावना.

लेख डॉ.राजय पवाराची नाट्य लेखन शैलीचेर आसूं, आत्मभान कादंबरीचेर आसूं, अच्छेव–अरण्यकांड, बाकीबाबांची कविता, (तीन लेख) आस्वादकीय समीक्षेचेर आधारून वेग–वेगळ्या संदर्भान लेखन जालां. जशें बाकीबाबांचे कोंकणी कवितेंतलो वीर–रस आनी संदर्भीक सुचकताय विशीं प्रा.सुशांत बरयता तें उचीतच दिसता–

'....हें सगळें संदर्भ जंवर वाचप्यांक कळचे नात तंवर कवितेचो अर्थ कळप शक्य ना' (नायक, 2017, पा. 133).

साहित्यीक कृती खंयचीय आसूं, जो मेरेन वाचपी ताका ताच्या संदर्भा अनुसार समजूंक पावना तो मेरेन ते संप्रेषीत जायना. जशें

'फुलांत लिपून आयला भावा तक्षकाचो पिलो' हांगा फूल, तक्षक, तक्षकाचो पिलो...ह्या सगळ्यांचो इतिहासीक, सामाजीक, राजकीय संदर्भ घेतल्यारच ते कृतीचो अर्थ साकार जाता.

साहित्य खंयचेय भाशेचे आसूं, आपलो इतिहास, भूगोल, समाज, राज्य, संस्कृती ह्या सगळ्यांचो आधार घेवन तयार जाता. कोंकणी भाशेच्या साहित्यीक इतिहासा विशीं बरयताना आमी सदी लक्षांत धरूंक जाय की कोंकणी समाज मुंबई, गोंय, कर्णाटक, कोचि, मध्य प्राच्य, पाश्चिमात्य देशानी पातळिल्लो आसात. आमची लिपी विविधताय आमची मर्यादा लेगीत जाताच. 'संशोधसार' पुस्तकांत बरोवपी 'आत्मभान:अस्तुरेच्या आत्मभानाचो परामर्श घेवपी कादंबरी' ह्या लेखांत कादंबरेचो इतिहास दिता, तातूंत संवसारीक कादंबरी, भारतीय कादंबरी मागीर कोंकणी आनी मराठी कादंबरेचो उल्लेख केल्या. (नायक, 2017, पा. 70) थंयच कन्नड लिपयेंतली कोंकणी कादंबरे विशीं उल्लेख जावंक जाय आशिल्लो कारण जोकीम सांतान आलवारेस वा जोसाची 'आंजेल'चो रचना काळ दुसर्याक महाझुजा उपरांतचो आसा. 'अमरकोंकणी'च्या 69व्या आंकांत पान 127 ते 139 मेरेन 'शेकड्यांत कानडी लिपींत कोंकणी कादंबरिंची वाडावळ–सुकण्या नदर'–ले. डॉ. एडवर्ड नज्रेंत– ह्या लेखांत पुराय माहिती दिल्या. जर 'तुळशी'–ले. रवींद्र केळेकार–समाजीक, एक अस्तुरेची दुर्देवी काणी तर 'आंजेल' `1940 वर्साच्या आसपास, आमच्या ग्रामीण सुवातेनी जियेवन आसल्ल्या, साद्या उत्रांनी नाडकाक म्हणच्या लोकाच्या जिण्येचें प्रतिफलन आंजेल' (नज्रेत, 2018).

पुराय लेख जर वाचलो तर आंजेल आनी तिची व्यथा, कश्टाची काणी आमच्या मुखार येता. आमकां कन्नड लिपी येना हे मान्य पूण जें कितें आमकां देवनागरी लिपयेंत मेळ्ळ्या ताचो उल्लेख जावप खूपच गरजेचें थारता. इतिहास, साहित्यीक इतिहास आपल्या समग्र रुपान आयल्यारत पुराय चित्र तयार जाता. जर एकांगी जाता तर अनर्थ जाताच.

'संशोधसार' पुस्तकांत पान 82-83चेर कश्टकरी समाजाचे चित्रणा अंतर्गत बरोवपी हिंदीचे कथाकार आनी उपन्यास प्रेमचंदजीचे उदाहरण दिता ते उचीतच आसा पूण मागीर 'कोंकणी सामाजीक कादंबरेची फाटभूंय' बरयतना फकत फकत गोंयची कादंबरेचो उल्लेख करता. हांगा परत मराठी, इंग्लीश आनी पुर्तुगेज कादंबरेचो उल्लेख जाता पूण कन्नड लिपयेंतले जे कोंकणी दायज आसा ताचो उल्लेख जावंक ना. मलयाळम लिपयेंतली कोंकणी सुद्दा ना. हें पुस्तक कोंकणी शिकोवप्या खातीर संदर्भ पुस्तक जावचेच कारण ह्या पुस्तकांत ती तांक आसा पूण चारूय वाटेचे संदर्भ तातूंत येवंक पावले नात, हें लक्षांत धरूंक जाय. कश्टकरी समाज आनी ताचे चिंतन, हांवें उल्लेखील्ल्या 'अमरकोंकणी'–69त आसा. हें लक्षांत आसूंक जाय.

ले. गोम्सा पर्माणे इतिहास दिता थंय नदर मारप पूण तितलेंच गरजेचें थारता (Gomes, 2010). इतिहास दिताना जर आमी चुकता तर कोंकणीच्या मळार व्हडली. साहित्यीक चूक थारतली. लिपी भेद आसाच पूण इतिहासीक आनी साहित्यीक भेद नाकाच. अमर

कोंकणीच्या त्याच लेखांत पान 137चेर विकटर रोड्रिगसाच्या कादंबरी विशीं बरयल्या–

‘.....विकटर रोड्रिगसाच्या काणियांचे. चडावत पात्र आमच्या भोंवतीचेय दुडवादीक धनियांच्या, सावकरांच्या हातांखाल अन्याय बोग्तेल्यांचे संकट दोळ्यांक दिसता तशें तो बरयतालो आनी अन्याय केल्यांची ह्याच संवसारांत नीत जाता अशें ताच्या काणियांनी विवर आसतालो’ (नज्रेत, 2018).

एक गजाल मात खरी की पुंडलीक बाबांची ‘अच्छेव’ कादंबरी आसूं की महाबळेश्वर सैलांची ‘अरण्यकांड’ कश्टकरी समाजा विशीं चित्रण दिता. अच्छेव कादंबरी मिना खणीचे विखाळ सत् आमच्या मुखार मांडटा. आयज आमी ताची विखाळ फळां भोगताच. धर्तरेमायेक खणून खणून मनशान रक्तबंबाळ केल्या. अरण्यकांड कादंबरी ‘परके मातयेंत आपलीं पाळां मुळां सोदीत गांवांतल्यांच्या रिणाचे जू मानेर दवरून जगपी एका पोंव्याची व्यथा हातूंत चित्रीत जाल्या’ (नायक, 2017, पा. 91).

गोंयची देवनागरी लिपयेंतली कादंबरी अंतर्गत ह्यो दोनूय कादंबर्यो आप–आपल्या आशयं संदर्भान आपली शैली वापरून साहित्यीक कृतीक आकार दिता. पुंडलीक नायक कविता बरोवं, नाटक, नवलिका वा कादंबरी पूण तांची लिखणी कश्टकरी समाजा विशीं, तांच्या प्रस्नांक सहृदयतायेन चितारता. लोकांक जागयता. ‘संशोधसार’ पुस्तक एक संदर्भ पुस्तक रूपान सफळ आसा. प्रा.सुशांत नायकांचे अभिनंदन.

सुशांत सर, एक निमणो प्रस्न–संशोधसार हातूंत ‘शोध’ आसताना ‘सोद’ कित्याक?

**आदारावळ:**


Gomes, O. (2010). *Konkani literature in Roman script.* Dalgado Konkani Akademi.

नज्रेत, डी. (2018). शेकड्यांत कानडी लिपिंत कोंकणी कादंबरिंची वाडावळ–सुकण्या नदर. *अमर कोंकणी, 69,* 127-139.

नायक, एस. (2017). *संशोधसार.* आर. बी. प्रकाशन.



*(**डॉ चंद्रलेखा डिसोजा** गोंय विश्वविद्यालयांतल्या कोंकणी विभागाची रीडर आनी मुखेली जावनासल्ली. तिणे संसोद लेखनांचो संग्रह, कादंबरी पर्गट केल्यात. तिचीं संसोद लेखनां कोंकणी, हिंदी तशें मराठिंत फायस जाल्यांत. गोयांत तिची वसती.)*



# MJES JOURNAL OF AMAR KONKANI

**Biannual Journal of Konkani Research**

SUBSCRIPTION AND ORDER FORM

Name :..........................................................................................................................

Address :......................................................................................................................

Mob/Tel :......................................................................................................................

Email :..........................................................................................................................

Choose the Type of subscription required New [ ] Renewal [ ]

1 Year 300/- [ ] 3 Years 900/- [ ] 5 Years 1500/- [ ] Life Member Rs. 10,000/- [ ]

- **Direct Transfer** [ ]

You can subscribe the journal by the amount to the bank account through direct transfer. Details are given below:

Bank: South Indian Bank , Branch: St Aloysius College EC, Account No.: 0993053000000961, Name: M/s Institute of Konkani Collection Account, IFSC: SIBL0000993. Please mail the details of the transaction to: instituteofkonkani@staloysius.edu.in or Whatsapp to 9481527394

- **DD/Cheque Transfer**

I am herewith enclosing a Cheque/DD No: ........................... for Rs. ....................... in favour of Institute of Konkani Collection Acount. I have remitted Rs.................... to your bank account on.............................................................................
..............................

Signature :...................................

Date :................................................

Write To:

Editor, MJES Journal of Amar Konkani, Institute Of Konkani, St Aloysius College (Autonomous), Mangalore - 575 003, Karnataka, India. Phone: 0824-2007394 Whatsapp: 9481527394

TITLE CODE NO: KARKON00070

# ದಾಯ್ಜ್

## ಪಾಳ್ಣೆಂ

ಹರ್ ಸಮುದಾಯಾಚಿ ವಾಡಾವಳ್ ತ್ಯಾ ಸಮುದಾಯಾಂತ್ ಜಲ್ಮಾಲ್ಲ್ಯಾ ಭುರ್ಗ್ಯಾಂವರ್ವಿಂ ಜಾತಾ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾನ್ ಪಾಳ್ಣ್ಯಾಕ್ ಹರ್ ಸಮಾಜೆಂತ್ ವಿಶಿಸ್ಟ್ ಸ್ಥಾನ್ ಆಸಾ. ಪುಣ್ ಎಕಾ ಭುರ್ಗ್ಯಾಚ್ಯಾ ಜಿವಿತಾಂತ್ ತಾಚ್ಯಾ ಜಿವಿತಾಚ್ಯಾ ಸುರ್ವಿಲ್ಯಾ ದಿಸಾಂಥಾವ್ನ್, ತೆಂ ಭುರ್ಗೆಂ ಆಪ್ಲೆಸ್ತಕಿಂ ಉಬೆಂ ರಾವೊನ್ ಚಲೊಂಕ್ ಶಿಕ್ಚ್ಯಾ ಪರ್ಯಾಂತ್ ಮಾತ್ರ್ ಪಾಳ್ಣ್ಯಾಕ್ ಸ್ಥಾನ್. ಭುರ್ಗ್ಯಾಕ್ ಪಯ್ಲೆ ಪಾವ್ಟಿಂ ಪಾಳ್ಣ್ಯಾಂತ್ ದವರ್ತಾನಾ ವೆವೆಗ್ಳ್ಯಾ ಸಮುದಾಯಾಂನಿ ವೆವೆಗ್ಳೊ ಸಂಪ್ರದಾಯ್ ಪಾಳ್ತಾತ್. ಗಾವ್ಡ್ ಸಾರಸ್ವತ್ ಬ್ರಾಹ್ಮಣ್ ಸಮಾಜೆಂತ್ ಭುರ್ಗೆಂ ಬುದ್ವಂತ್ ಜಾವ್ನ್ ವಾಡೊಂ ಮ್ಹಳ್ಳ್ಯಾಚೆಂ ಪ್ರತೀಕ್ ಜಾವ್ನ್ ಭುರ್ಗೆಂ ಜಲ್ಮಾಲ್ಲ್ಯಾ 6ವ್ಯಾ ದಿಸಾ ಭುರ್ಗ್ಯಾಚ್ಯಾ ತಕ್ಲೆಲಾಗಿಂ ಪೆನ್ ಆನಿ ದಿವೊ ದವರ್ತಾತ್. ಭುರ್ಗ್ಯಾಚ್ಯಾ ಜಲ್ಮಾಚ್ಯಾ ಇಕ್ರಾವ್ಯಾ ದಿಸಾ ಬಾರ್ಸೊ ಕರ್ತಾತ್. ಬಾರಾವ್ಯಾ ದಿಸಾ ಭುರ್ಗ್ಯಾಚೆ ಕಾನ್ ತೊಪ್ತಾತ್, ಭುರ್ಗ್ಯಾಕ್ ನಾಂವ್ ದಿತಾತ್ ಆನಿ ಹ್ಯಾ ದಿಸಾ ಭುರ್ಗ್ಯಾಕ್ ಪಾಳ್ಣ್ಯಾಂತ್ ದವರ್ಚೊ ಸುವಾಳೊ ಆಚರಿತಾತ್.

# दायज़

## पाळणें

हर समुदायाची वाडावळ त्या समुदायांत जल्माल्ल्या भूगऱ्यांववीं जाता जाल्ल्यान पाळण्याक हर समाजेंत विशिसट स्थान आसा. पूण एका भूगऱ्याच्या जिवितांत ताच्या जिविताच्या सुर्विल्या दिसांथावन तें भुगें आपलेसतकीं उबें रावोन चलोंक शिकच्या पऱ्यांत मात्र पाळण्याक स्थान. भूगऱ्याक पयले पावटीं पाळण्यांत दवर्तांना वेवेगळ्या समुदायांनी वेवेगळो संपरदाय पाळतात. गावड सारस्वत ब्राह्मण समाजेंत भुगें बुद्वंत जावन वाडों म्हळ्ळ्याचें प्रतीक जावन भुगें जल्माल्ल्या ६ व्या दिसा भुर्ग्याच्या तकलेलागीं पेन आनी दिवो दवर्तात,. भुर्ग्याच्या जल्माच्या इक्राव्या दिसा बार्सो कर्तात. बाराव्या दिसा भुर्ग्याचे कान तोप्तात, भुर्ग्याक नांव दितात आनी ह्या दिसा भूगऱ्याक पाळण्यांत दवर्चो सुवाळो कर्तात.

Printed and published by Praveen Vijay Martis on behalf of The Mangalore Jesuit Educational Society Kodialbail, Mangaluru, D.K., Karnataka- 575 003 and printed at Assisi Press, Assisi Complex, Jail Rd, Bejai, Mangaluru, D.K., Karnataka- 575 003, and published at St Aloysius College (Autonomous), Institute of Konkani, P.B. 720, Kodialbail, Mangaluru, D.K., Karnataka- 575 003. Editor Melwyn Sunny Pinto